Price Rs. 20/- (Rs. 25/- Outside Goa)




फेब्रुवारी २०१०

# घुंवळे वरखडां!
# गोंयांक हाडला घुंवळ!!

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

⑥ -दिलीप बोरकार

## घुंवळे वखदां! गोंयांक हाडटा घुंवळ!





रेखाचित्रां - गिरिश नंदा बोरकार


वर्स : ९ अंक २

फेब्रुवारी २०१०

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

भुरग्यांचें आंगण संपादन
सुफला रुद्राजी गायतोंडे

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

संपादकीय

# हो विकृत खेळ केन्ना सोंपतलो?

गोंयच्या राजकारणाची जी वाट लागल्या ती पळयल्यार राजकारणाचीच किळस येवंक लागल्या. सत्तेखातीर आयज लोकप्रतिनिधी जें कितें करतात, आनी आपली पुराय शक्त ज्या खातीर वापरतात तें पळयत जाल्यार गोंय म्हळ्यार हेच राजकारणी, ते सोडून हेर कोणाकूच ह्या गोंयांत म्हत्व ना अशें शें कितें दिसूंक लागलां.

आयज गोंयांत सरकारूय ना आनी विरोधी पक्षूय ना अशें दिसता. विरोधी पक्षांतले आमदार सोडून कोणतरी एखाद्रो म्हणयारो, गोंयचें सरकार निश्क्रिय म्हणपाचें एक पत्रक काडून आपलें अस्तीत्व अर्दी मर्दी दाखयता. पूण प्रश्न पडटा गोंयचे लोक आज खंय आसात? आयज जें कितें राजकारणाच्या नांवान चल्लां ते विशीं लोकांची प्रतिक्रिया कितें? काय जें चल्लां ताचेकडेन आपलें कांयच सोयरसुतक ना, तुमकां खावपाक आमी दिल्लेंच आसा, कशें खावपाचें तें तुमचे तुमी पळयात. तुमी झगडात ना तर मरात असो विचार करून ह्या आमच्या गोंयकार मतदारानी, गोंयचे जनतेन ह्या सुवार्थी राजकारणाकडल्यान फारकत घेतल्या?

दूरदर्शनावेल्या चॅनलांचेर ॲनिमल प्लॅनेट म्हूण चॅनल आसा. हातूंत प्राणी सृश्टीचेर बारकायेन चित्रण केल्लें दिश्टी पडटा. किटक, जनावरां आदींची जीवनपध्दत सभावदर्शन हे चॅनल सुक्ष्मतायेन चित्रित करून दाखयतात.

बळिश्टप्राणी दुर्बळ प्राण्याची शिकार कशी करतात, मागीर तांचेर कसो ताव मारतात, कोले, लांडगे हे असली शिकार करपाचे लायकेचे नाशिल्ले ते शिकारीकडेन आशाळभूत नदरेन कशे पळयतात, मागीर तांचेमदीं जाल्ली लटाफट बी ह्या चॅनलाचेर पळोवंक मेळटा.

हें असल्याच प्रकाराचें दृश्य हालींसरा गोंयच्या सरकारांत दिश्टी पडटा. आमदार म्हूण ज्या लोकप्रतिनिधींक लोकांनी वेंचून काडल्यात आनी तांतल्या कांय समविचारी लोकांनी एकठांय येवन सरकार घडयलां तांचें एकूच मुखेल ध्येय म्हळ्यार लूट मारप. तांचे भितर आनी ॲनिमल प्लॅनेट चॅनलावेल्या प्राण्याभितर व्हडलोसो फरक दिसच ना. जे शक्तीवंत आमदार आसात आनी ताणीं त्या शक्तीच्या नाड्यार मंत्रिपदां मेळयल्यांत ते चडांत चड शिकार कशी फस्त करप हाचेरूच सगळें लक्ष केंद्रीत करून आसात. ताचे मुखार ह्या लोकप्रतिनिधींक लोकांचें पडून गेल्लें ना. तांका गोंयच्या विकासाचें पडून गेल्लें ना आनी गोंय राज्याचे प्रतिश्ठेचेंय पडून गेल्लें ना.

आमदारांक महामंडळां परस मंत्रीपद ही व्हड शिकार अशें दिसता. मंत्र्यांक मुख्यमंत्री पद हें जबरदस कास दिसता. तेच पासत दर एकलो मंत्री आपूण केन्ना मुख्यमंत्री जातलों हाचेर लक्ष दवरून अस्थिरताय हाडपाच्या यत्नात घुस्पल्लो आसा.

आयच्या मुखेलमंत्र्याचे सर्तींत प्रतापसिंग रावजी राणे आसात. चडांतचड मुखेलमंत्री पदाचेर आशिल्ले अणभवी उमेदवार ते. तांचोच खरें म्हळ्यार मुखेलमंत्रीपदाचेर आधिकार. पूण आनीकूय ह्या पदाचे दावेदार आसात. दयानंद नार्वेकार, रवी नायक, चर्चिल आलेमांव हांका दिसता आपूणच मुखेलमंत्री जावपाक खरे लायक. लायकी परस, ताणेंच सारो तेंप कित्याक हें पद भोगचें? आमी कितें वायट केलां? ही भावना चड आसा. तेच पासत तुकाय नाका आनी ताकाय नाका म्हणत मुखेलमंत्री पदाची माळ अनपेक्षितपणान दिगंबर कामत हांच्या गळ्यांत श्रेश्ठीनी घाली.

दिगंबर कामत हे मुखेलमंत्रीपदाचे सर्तीत नाशिल्लेच. तांका तें पद मेळ्ळां तें पर्याय ना म्हणूनच. पूण ताणीं आपल्या भुंजार घाल्ली जापसालदारकी समर्थपणान पेलल्या. एक लोकप्रिय मुखेलमंत्री म्हूण ताणी नामना मेळयल्या हें सत कोणाच्यान न्हयकारूंक जावचेंना. तरी आयज तांका काडपाक कांय आमदार फुरफुरतात.

पयली फळी मुखेलमंत्रीपदाचें बाशिंग बांदून तयार आसाच. दुसरीय फळी ते तयारेक लागल्या. चर्चिलाक दिसता आपूणच मुखेलमंत्री जावपाक लायक म्हूण! चर्चिल जाता जाल्यार आपूण कित्याक जावंक शकना, अशें बाबुश मोन्सेराताक दिसता आनी विश्वजीत राणेकूय दिसता. हें दिसपाच्या वेळार तांका एक गजाल दिसना की आपूण खरेंच ह्या पदाक लायक आसात काय कितें हें!

मुख्यमंत्रीपदाची एक शान आसता. ताचेर गोंय राज्याची शान निंबून आसता. पूण ते नदरेन ह्या पदाकडेन आमदारूय पळयनात आनी गोंयची जनताय पळयना. ते पळयतात तें हें पद म्हळ्यार लुटमारीचें म्हत्वाचें साधन म्हणून. हेंच साधन साध्य करपाक सद्या सात जाण एकठांय जाल्यात. तातुंतलो एकलो शिकार करतलो. बाकीचे स जाण ताचे सांगाताक ते शिकारेचेर ताव मारतले. बाकीचे हांगा थंय घुटमळत आपल्या ताळ्यार कितें पडटा काय पळयतले. विरोधी पंगडांतलेय पयसुल्ल्यान वास घेत पासयो मारले बगर रावचेनांत. असलें हें ॲनिमल प्लॅनेटवयलें दृश्य गोंयांत दिसता.

हो एक विकृत खेळ. हो खेळ बंद करूंक जाय. दिगंबर कामतीक काडून हो खेळ बंद जावपाचो ना. फाल्यां चर्चिल आलेमांव मुखेलमंत्री जाल्यारूय तोच खेळ चालू उरतलो आनी राणेय जाल्यार तोच. हो खेळ गोंयच्या बऱ्याचो न्हय. हो खेळ सुवार्थी लोकांचो. मासाक संवकल्ल्या क्रूर प्राण्यांचो. तांका आपल्या पोटाचेंच पडलां. तेच खातीर आयज गोंयांत नेतृत्व बदलाचोच विशय बरोच काळ सगळेकडेन चर्चेक आसा. हो नेतृत्व बदलाचो खेळ न्हय तर हो आपलेंच सादोवप्यांचो विकृत खेळ. तो सासणाचो सोपोवपाची शक्त आमचेमदीं आसा व्हय? दुबाव मारता.

# अग्रलेख विचार करपा सारको !

संपादक 'बिम्ब'

जानेवारी २०१० बिम्ब सदचेवरींच आवडलो. तुमी अंकाचीं पानां वाडयल्यांत म्हूण संतोस भोगता. तरी तीं अंक वाचता आसतना उणींच लागतात. आयचे हे म्हारगायेंत आनीक पानां वाडोवंचीं अशें म्हणत जाल्यार तीं फकाणाच थारतलीं.

तुमी नेमान म्हाका अंक धाडटा देखून तुमकां काळजाथावन दिनवासणी. चुकोन माकोन वर्गणी धाडपाची उल्ली जाल्यार अंक बंद करचो न्हय. फ्रेब्रेर म्हयन्यात साखळे कोंकणी परिशद आसा तेका वर्सपध्दती प्रमाण म्हजें येवप जातलेंच. ह्या दिसा भेट जाल्यार मुजरत वर्गणी भेटोवंची अशें चिंतलां.

जानेवारी अंकांतलो अग्रलेख म्हाका आवडलो हें सांगपा खातीर ही चीट बरोवंक घेतलेली पूण भलतेचकडे पावलों.

जेसबाबांक परबीं! पूण... हो अग्रलेख खऱ्यानीच विचार करूंक लावपा सारको आसा. आमकां व्हडले व्हडले पुरस्कार मेळचे अशें आमकां दिसता. जर तर ते मेळनात जाल्यार आमी फणफणटात. तेतूंत आमकां राजकारण दिसता. आमी धर्मकारण, जातकारण बी भितर घुसपायतात. पूण आपल्याक राष्ट्रीय पुरस्कार फावता काय ना हें मात आमी बारीकसाणेन चिंतून पळयनात. म्हाका जेसबाबाक पुरस्कार लाबलो म्हूण खंत दिसना. ताका मेळुंकच जाय आसलो. तो आमच्या सारख्यांक भोवमानूच. त्या पुरस्काराचो मानूय आमी आमच्या कर्तुबान राखूंक जाय हें मात मतींत धरपाची गरज आसा. ते पासत आमी आमच्या गिन्यानाची खोलाय आनी उंचाय वाडोवपाची गरज आसा. जेसर आमी बांयत आसात ते सर आमकां दुसरें कांयच लागना. पूण जेन्ना आमी बांयतल्यान दर्यांत उडकी मारतात तेन्ना आमी कितले मेरेन पेंवपाक शकता तें आमकां गोमून येता. त्या दर्यांत केदीं व्हडलीं नुस्तीं आसात आनी तांच्या मुखार आमी केदे तें कळटा. ते पासत आमी आमची बुदवंतकाय वाडोवंक जाय. आमकां राष्ट्रीय पातळीचेर आमची हुशारकाय दाखोवन गोंयचें आनी कोंकणीचें नांव वयर काडूंक जाय. ते तरेन आमी सगळी तयार करची पडटली. आतां पुरस्कार मेळ्ळो, सोंपलें आमचें काम अशें म्हणून ओगी रावप आमकां कोताक पडपाचें ना.

म्हादयचो प्रस्न घेतलो हे फावट तें एक बरें जालें. बिम्बान गोंयच्या हिताचे एक एक प्रस्न अशेच घेवन ते आमचे मुखार मांडचे.

बिम्ब म्हयनाळ्याक आनी तुमकां सगल्यांक हांव म्हजेवतीन आनी म्हज्या घरच्यां वतीन बरें लांबदीक आयुश्य मागतां.



– राहूल पेरेरा
कुलाबा – मुंबय




संपादक / व्यवस्थापक बिम्ब, दि. : १८/०१/२०१०

नमस्कार,

वर्गणीचो चेक धाडटां. मानून घेंवचो. वांगडा कविता धाडटां, मानवल्या छापची. नासल्यार शेजरा डस्टबीन आसतलेंच न्हय.

बरें मागून,

तुमचो

***

## कचरो एकठांय करपाचें काम हातांत घेवंक ना

वयर छापिल्ली चीट आमी मुद्दम हांगा उजवाडाक हाडल्या. पूण ती धाडटल्याचें नांव आमी हांगा छापूंक ना. ताचें कारण म्हळ्यार आमी आमच्या वाचकांचो मान सदांच सांबाळीत आयल्यात. चीट धाडपी कोंकणीचे एका काळावेले कार्यकर्ते. आज भोवतेक कोंकणी पासून पयस आसात. कित्याक लागून खबर ना. बिम्ब आठ वर्सां चलता. ताणीं मदींच केन्ना तरी दोनशीं रुपयांचो चेक धाडिल्लो. आतां परतून एकदां तो धाडला. अशी वर्गणी आयल्यार आमकां आनंद जाताच. कारण वर्गणी मुद्‌दम धाडून दितपी वर्गणीदार तरी कमीच.

पूण आमकां खटकलें तें कविता धाडटां, मानवल्यार छापची नासल्यार शेजरा डस्टबीन आसतलेंच न्हय हें.

बिम्ब आठ वर्सां दर्जेदार चलयलां. एक मासिक चलोवपाक कितले कश्ट घेवंचे पडटात ताचो अणभव आमकां आसा. जोड थोडी पूण मोड चड असो हो प्रकार. फाटलीं दोन वर्सां आमी आमच्या लेखकांक मानधन दिवंक ना. तांचेपरस आमकां छापखान्याक प्राधान्य दिवंचें पडटा. ना तर अंक छापून येना. आमकां अंकाखातीर इतलें साहित्य येता की खंयचें छापूं आनी खंयचें नाका अशें जाता. खूब जाणांचो रोश घेवंचो पडटा. तेच पासत आमी तांकनासतनाय ७२ पानांचो अंक केला. अशें आसतना कोणेतरी एक कविता धाडप आनी डस्टबीन आसतलेंच न्हय अशें सांगप म्हळ्यार तो बिम्बाच्या वावराचो अपमानसो दिसता. आपले कवितेचेर आपलोच विस्वास नासत जाल्यार उपकार करून कविता धाडच्यो न्हय. आमी अजून कचरो एकठांय करपाचें काम हातांत घेवंक ना.

– संपादक

शिर्षकथा

*भारतीय तरनाट्यांक नशेचे सुवादीन करपाची यंत्रणा आमच्या देशांत बेस-बरी चलता. एकदां हे नशेक लागून देशांतलो तरनाटो दुबळो जालो म्हणटकच परकी शक्तीचेंय फावलें. आनी स्वकीय राजकारण्यांचेय फावलें. आयज देशांतलो तरनाटो बेकारी खातीर भितल्ले भीतर धुमसत आसा म्हणपाचें राजकारण्यांक खबर आसा. ह्या तरनाट्यांचे शक्तीचो उद्रेक जायत जाल्यार तातुंतल्यान कांयच वाचून उरपाचें ना हें राजकीय फुडाऱ्यांक खबर आसा. नोकरी न मेळिल्ल्यान उत्पन्न जाल्ले निर्शवणेंतल्यान आयचो तरनाटो हे नशेकडे वता आनी थंयच घुसपून उरता हेंच आयच्या राजकारण्यांच्या पथ्थ्यार पडलां. जर हो तरनाटो नशेंतल्यान भायर सरून येवजूंक लागलो जाल्यार राजकर्त्यांची दशा कितें जातली म्हणपाची कल्पना तांकां बेस बरी आसा. ते खातीर ह्या तरनाट्यांक नशेचे सुवादीन करून (तांतूत सिनेमा, क्रिकेट हींय वेसनां येतात) तांच्या भेरेल्ल्या मेंदवाचेर राज्य चलोवपाचें काम आयज आमच्य देशांत चल्लां.*



# घुंवळे वरवदां! गोंयांक हाडटा घुंवळ!

**गों**यांत चार म्हयने भरपूर पावस पडटा. जून ते सप्टेंबर हे चार म्हयने गोंयांत घसघश्यानी पावस रकता अशें म्हणटात. हालींच्या काळार हवामान बदलाक लागून पावस जरी अनेमीत पडटा आसलो तरी हे चार म्हयने गोंयाक 'ऑफ सीजन' म्हूण वळखतात.

'ऑफ सीजन' म्हळ्यार गोंयांत पर्यटक साप्प उणें येतात आनी गोंयचो पर्यटन वेवसाय ह्या काळार मंदींत चलता. देखून ह्या सीजनाक ऑफ सीजन म्हणपाची एक प्रथा पडल्या.

गोंय हें पुराय पर्यटन वेवसायाचेर निंबून आशिल्ल्यान गोंयांत जाता तितले पर्यटक येवप हें गोंयचे आर्थिक सुबत्ते खातीर गरजेचें आसा. खंयच्याय कारणाक लागून पर्यटकांचो ओघ जर उणो जालो जाल्यार गोंयची अर्थवेवस्ता डळमळटा म्हणपाचें अणभवान कळून आयलां. गोंय हें स्वतंत्र राज्य जाल्ल्यान गोंयाक आपल्या पांयाचेर उबें रावन आपली अर्थ वेवस्ता सशक्त करची पडटा. पर्यटन हो गोंयचे अर्थवेवस्तेचो कणो आशिल्ल्यान पर्यटनाक जर धक्को बसत जाल्यार गोंय राज्याची परिस्थिती सामकीच बीकट जावन वतली हें सांगपाक कोणा ज्योतिशाची गरज ना.

देशी-विदेशी पर्यटकांची रीग गोंयांत लागता देखून दुस्वास करपी राज्यां आनी राष्ट्रांय आसात. गोंयाकडेन ओडपी पर्यटक थंयच्यान आपल्या राज्यांत ओडपा खातीर देशांतलीं कांय राज्यां कार्यरत आसात तशे भायल्या देशांतले पर्यटन विभागूय वावुरतात. गोंयचें नांव बदनाम जाल्यार थंयचे पर्यटक आपले दिकेन वळटले अशें दिशिल्ल्यान संबंदीत हितसंबंदी गोंयचें नांव जितलें बदनाम जाता जितलें करूंक पळयतात.

विदेशी लोक आनी चड करून विदेशी बायलांक गोंय ही सुरक्षीत सुवात न्हय म्हणपाची आरड हेच खातीर हेर राज्यांतलीं आनी विदेशांतलीं प्रसार माध्यमां मारीत आसतात. आनी नाय म्हळ्यार ताचो प्रभाव पर्यटकांचेर पडून पर्यटन वेवसायाचेर परिणाम जाले बगर रावना.

तातूंत हे वर्सा पावस हिसपाभायर चड पडिल्ल्यान आनी सीजन सरलो तरी पावस

अनेमीत पडत राविल्ल्यान ताचो परिणाम पर्यटकांचेर जालोच. देखून ऑफ सीजनांत हे वर्सा वाड जाली आनी पर्यटन वेवसायांत घुस्पल्ल्या वेवसायिकांचेर ताचो असर पडलोच.

नातालांचे परबे सावन गोंयांत खऱ्या अर्थान पर्यटन मोसमाक आरंब जाता. हो मोसम सुरू जालो म्हणटकच गोंयांत पर्यटक येवंक लागतात आनी ते धांवतात दर्या वेळांचेर.

गोंयच्यो दर्या वेळो ह्यो नितांत सुंदर अशी तांची नामना संवसारभर जाल्ली आसा. हांगची शांततामय आनी सैमीक सुंदराय हाका लागून संवसारभरचे पर्यटक येतात ते ह्यो वेळो पळोवपाक. तांच्या खुस्तार जोडपा खातीर हांगा मोठ्या प्रमाणांत उबारिल्ले आसतात ते शॅक्स.

पावसाचो मोसम सोंपलो काय शॅक्सवाले गोंयच्या पर्यटन खात्याकडेन परवान्या खातीर लायनी लायतात. पर्यटन मोसमांत सात-आठ म्हयने हे शॅक्स उबारप आनी तांतुतले जोडींतल्यान आपलो संवसार चलोवप हो ह्या शॅक्सवाल्यांचो वेवसाय. शॅक्स परवानो मेळोवपा खातीर हे शॅक्सवाले नाना लटाफटी करतात. ते खातीर तांची लांच दिवपाचीय तयारी आसता आनी मोक्याचे सुवातेर शॅक्स घेवपाखातीर ही लांच कांय लाखांची आसता अशें म्हणटात. जांका पर्यटन खात्याचो कायदेशीर परवानो मेळना ते बेकायदेशीर शॅक्स उबारतात आनी थळाव्या पंचायतीच्या आनी पुलीसांच्या हाताक चिरिमीरी लावन आपलो धंदो नेटान चलयतात.



दर्यावेळांवयले शॅक्स म्हळ्यार भांगराची खाण जाल्ली आसा. कोणाकूय दिसत ह्या शॅक्सांचेर जेवण, सॉफ्ट आनी हार्ड ड्रीन्क विकून तांका जोड जाता म्हणून! हो धंदो तांचो फकत नांवाखातीर आसता. हातुंतले चडशे असल्या वेवसायांतल्यान आपलो दिसवडो सोडयता आसतूय बी! पूण कांय शॅक्स हे निव्वळ घुंवळे वखदां विकपाचे अड्डे आसतात. आनी हेर विक्री ही नांवांखातीर आसता.

विदेशी पर्यटक जे गोंयांत येतात तातूंत दोन प्रकारचे पर्यटक आसतात. जे सभ्य पर्यटक आसतात ते फकत एक फावट गोंयांत येतात आनी गोंयची सैमीक सुंदराय, गोंयची समाज वेवस्ता आनी कांय संवसारीक नामनेचीं थळां पळोवन परत वतात. तांकां, दर वर्सा गोंयांत येवपाची गरज पडना. भारताची भोंवडी करपाच्या उद्देश्यान भारतांत येवप आनी भारताची भोंवडी करून आपल्या देशांत परतप हो तांचो कार्यक्रम आसता. तांचे नदरेन गोंय हो केरळ-काश्मीर सारको एक भारताचो भाग इतलोच अर्थ आसता.

पूण कांय पर्यटक हे दर वर्सा परत परत गोंयांत येतात आनी दर्या देगेवेल्या थारावीक हॉटेलांनी राबितो करून रावतात. कांय विदेशी पर्यटक दर वर्सा थारावीक काळात येवन दर्या वेळावेलीं घरां भाड्याक घेतात आनी मागीर त्या घरांतल्यो कुडी आपल्याक जाय त्या दरान आपल्या लोकांक भाड्याक दितात. होय एक तांचो वेवसाय आसता.

हे असले तरेचे पर्यटक जर्मन, रशिया ह्या देशांतले चड आसतात आनी तांचो जीवन स्तर आर्थिक नदरेन खूब कमी आसता. तांकां आपली निवासी सुवात कांय काळ सक्तीन सोडची पडटा आनी त्या बदलाक तांकां भत्तोय मेळटा. तांकां मेळपी भत्तो आनी गोंयांत तांचो रावपाचो खर्च हाचे भितर खूब तफावत आशिल्ल्यान तांकां गोंयांत येवन रावप परवडटा. हेच विदेशी लोक पर्यटक म्हूण दर वर्सा येतात आनी हांगा मौजमजा करतात.

गोंयांत बागा, हणजूण हांगा चलपी रेव्ह पार्टी म्हणा वो रातच्या उसरां मेरेन चलपी बारांनी आनी शॅकानी जर पळयत जाल्यार दरवर्सा हेच पर्यटक दिसतले. आनी थळाव्या लोकांकडेन तांची बरीच संवकळ दिसून येतली. आमचे गोंयकार जशे दुबाय आनी हेर आखाती देशांनी वचून वर्सभर जोडून गोंयांत येतात आनी मागीर ही सुटी बारांनी घालयतात तसोच हो प्रकार दिसता. तांचे हांगा जळामळाक इश्ट आसतात.

उत्तर गोंयचो कोको बीच घे ना तर दक्षिण गोंयचो पाळोळे बीच घेयात. थंयचो एक शॅक कोणा रसियनाचो आसतलो. थळावो गोंयकार हो शॅक आपल्या नांवान उबारता आनी मागीर तो त्या रशियनाक वो जर्मनाक चलोवंक दिता. तो मागीर हांगा आपलें बस्तान बसयता. ताका पुराय राखण थळाव्या लोकांकडल्यान मेळटा. आपल्या शॅकाचेर तो फकत विदेशांकूच प्रवेश दिता. देशी पर्यटकांक ते व्हडलोसो रेस्पेद दिनांत. थळावे वो हेर राज्यांतले भोवंडेकार जर तांचेकडेन दरा वेल्यान वाद घालूंक लागल्यार तांच्या आदाराक थळावे तरनाटे येतात आनी ते ह्या देशी पर्यटकांक धमकायतात.

हें सगळें पळयत जाल्यार आमचे थळावे गोंयकार ह्या विदेशी लोकांचे बडवे म्हूण काम करतात. तांकाय त्या विदेशां वांगडा भोविल्ल्यान आपूणय विदेशीच जाल्लेवरी दिसता. दर्या देगांवेल्या मोटरसायकल पायलटांक पळयात नातर टॅक्सी ड्रायव्हरांक पळयात. तांचे मांयबाप हे विदेशीच जावन गेल्ले आसतात आनी तांचो पाखो घेवन हेच थळावे लोक हेर गोंयकारांकडेन झगडटात.

असो हो गोंयकार आनी विदेशी लोकांचो घनिष्ठ संबंद. हे विदेशी

पर्यटक न्हय. ते विदेशी म्हणपाचें इतल्याच खातीर तर तांचें नागरीकत्त्व विदेशी. पूण फाटलीं कितलीं तरी वर्सां हे नेमान गोंयांत येतात आनी वेवस्तीत धंदो करतात. ते कसलो धंदो करतात हे थंयच्या पुलीसांक बेस बरें खबर आसा. हे विदेशी इतले थळावे जाल्ले आसात की ते हवालदारापासून पिआय मेरनच्या सगळ्या अधिकाऱ्यांक नांवान वळखतात. असो हो घरचो वेवसाय म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.



ह्या दिसांनी बऱ्याच रशियन चलयांनी आपल्याचेर बलात्कार जाला, आपल्याचो विनयभंग जाला म्हणपाच्यो बोबो मारल्यात. पुलीशेंत कायदेशीर कागाळी केल्यात. ज्या ज्या चलयांनी ह्यो असल्यो कागाळी केल्यात तांकां कागाळी केल्ले गोंयकार हे अनवळखी न्हय. ते सगळे तांचे वळखीचे. तांचेकडेन बऱ्याच काळचो दाट संबंद आशिल्ले. खंयचोच अनवळखी गोंयकार वो हेर राज्यांतलो पर्यटक अनवळखी विदेशी ललनेचेर बलात्कार करूंक वचचो ना. कित्याक एडस् ह्या दुयेंसाचो भंय आसता तो जालोच, वेल्यान असल्या लफड्यांत सहसा कोण पडूंक वचना. पूण मेळिल्ले म्हायती प्रमाण पर्यटक म्हूण देशा भायर गेल्ले खंयचेय रशियन चलयेक जर थंय कसलेंय लुकसाण जालें जाल्यार, कसलोय अत्याचार जालो जाल्यार तांकां तो देश लुकसाण भरपाय दिता. ती रक्कम अत्त्याचाराचे खरायेचेर अवलंबून आसता. तेच पासत असल्यो कागाळ्यो करप, वर्तमानपत्रांनी ताच्यो बातम्यो छापून हाडप आनी पोलीस रिपोर्ट आनी वर्तमानपत्रांचीं कटींगां दाखोवन आपल्या सरकाराकडल्यान हो विमो झडोवप हो प्रकार सद्या सुरू जाला. अशे तरेन हें एक वेवसायीक रॅकेट गोंयांत मोठ्या प्रमाणांत चालू आसा आनी तांचें मूळ म्हळ्यार घुंवळे वखदांचो उकतो वेव्हार.

ह्या दिसांनी परस्पर विरोधाभास दाखोवपी दोन गजाली परतून परतून आयकुपाक येताल्यो. घरमंत्री रवी नायक हड्ड्यार हात मारून सांगताले की गोंयांत घुंवळे वखदांचो वेवसाय चलच ना. जे तरेन वर्तमान पत्रां बोवाळ घालतात तितलो तरी नाच ना. हेच वांगडा गोंय पोलिस मुखेली धडधडीत सांगता, गोंयांत मोठ्या प्रमाणांत हो वेवसाय चलता. घरखात्याचो मंत्री गजाल न्हयकारता आनी त्या घडणुकांचेर नियंत्रण दवरपाखातीर नेमिल्ले पोलिसखातें हय म्हणटा. हय म्हणूनच रावना तर तें सिद्ध करपाक तर धडाधड धाडी घालून खंय चरस धरता तर खंय कोकेन आनी खंय एलएसडी धरता. घरमंत्र्यांनी हो वेवसाय चलना म्हणप आनी पोलिस महासंचालकांनी चलता म्हूण सांगत धाडी घालून पुरावो दिवप हें सगळें विचित्र अशें दिसता. म्हणटकच गोंयांत अमली पदार्थाचो वेव्हार प्रचंड प्रमाणात चलता आनी तो चलपाक थळाव्या लोकांचो आदार आसाच, पूण गोंय सरकारचे मंत्री, आमदार आनी पोलिस हांच्याय आशीर्वादान ह्या वेवसायाक उत्तेजन फाव जालां.

## घुंवळी वखदां विरोधी विभाग:

गोंयांत जावपी घुंवळी वखदांचो वेव्हार आळाबंदाक येवंचो, निदान ताचेर नियंत्रण उरचें देखून गोंय पोलिस खात्याचो घुंवळी वखदां विरोधी विभाग आसा. हो खाशेलो विभाग करपाचें कारण म्हळ्यार घुंवळी वखदांचें हें रॅकेट आळाबंदा हाडप शक्य नासलें तरी ताचेर नियंत्रण उरचें. आमचो गोंयकार तरनाटो जो ह्या वेवसायांत घुस्पला वो घुंवळी वखदांचे भकीक पडला ताका तातुंतल्यान भायर काडचो. पूण ह्या विभागाचें कार्य पळयत जाल्यार हो विभागूच ह्या वेवसायाक उत्तेजन दिता अशें लोक उलयतात. ह्या विभागाचें अधिकार क्षेत्र हें पुराय गोंय जाल्ल्यान ह्या विभागाचे अधिकारी थेट हो वेवसाय करप्यांकडेन संबंद दवरून आसतात म्हणटात. तांचे कडल्यान लाखांनी रुपयांची लांच तांका मेळटा आनी तातुंतलो वांटो सकयल पासून वयर मेरेन दर एकल्याक पावता. हें जर खरें आसत जाल्यार ह्या विभागाकडल्यान कसली अपेक्षा बाळगुपाची हें येवजून पळयल्यार कळटा.

उत्तर गोंयच्या दर्या वेळांचेर खंय रातची रेव्ह पार्टी चलता हें लिपून उरूंक ना. जंय लोकांक खबर आसा, येतल्या वतल्याच्या कानार तें कान किटावपी संगीत पडटा थंय पोलिसेक तें खबर नासता अशें म्हळ्यार अजापूच म्हणपाचें. तांकां हें दिसना कारण तांच्या दोळ्यांचेर नोटी आयिल्ल्यो आसतात. तांच्या कानांनी नोटीचे गुड्डे मारिल्ल्यान तांका कांयच आयकूंक येना. तांका आयकूंक येता फकत तांच्या वरिष्ठांनी जमोवंक सांगिल्ल्या रकमेचो आकडो.

दरवर्सा गोंयांत कोट्यानी रुपयांचो घुवळी वखदांचो वेवसाय जाता. ह्या वेवसायांत गोंयचे राजकी फुडारीय अप्रत्यक्षपणान आसात हें आतां लिपून उरूंक ना. लोक नियुक्त प्रतिनिधी ह्या पाट्यांचें समर्थन करतात. ताचे वेल्यान तें सिद्ध जाता. वर्तमानपत्रांचेर खबरो येतात आनी

पोलिसेकडल्यान म्हायती मेळटा ताचे वेल्यान गोंयांत १ कोटीवयर रुपयांचो म्हाल जप्त करतात. ही जप्ती एकंदर उलाढालीच्या १ टक्के आसता अशें म्हणटात. हाचेवेल्यान हो वेवसाय कितल्या मोठ्या प्रमाणात चलता आनी तातुंतल्यान कितली रक्कम आमच्या राजकारण्याक, पोलिसेक आनी तो वेवसाय करतल्यांक मेळटा हाचो हिशोब लेगीत करूं नज. ह्या दुडवांमुखार ह्या लोकांक गोंयचें पडूंक ना, गोंयच्या तरनाट्यांचें पडूंक ना. आनी गोंयचे बदनामीचेंय दुखख ना. भोगवादी वृत्ती इतली थरार पावल्या की ते खातीर प्रत्येकान कमरेचें लेगीत सोडयलां. सालाझार जसो चंगळवाद माजयतालो आनी सगळ्यांक व्यसनांत बुडोवन तांचेर राज्य करतालो तशीच परिस्थिती आयज गोंयांतूय येवंक लागल्या काय कितें असो प्रश्न पडूंक लागता.

## नशा काय दशा?

गोंयांत घुंवळे वखदांचें प्रस्थ दिसान दीस वाडत आसा हाचो हुस्को समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांक आसाच. राजकीय बावल्यांक तो नासत. कारण तांकां गोंयचे तरनाटे पिळगेक अमली पदार्थांच्या प्रभावांत दवरून तांचेर राज्य करपाचें आसा. पूण हो हुसको चड सतायता तो आमच्या सारक्या संवेदनशील लेखक-साहित्यिकांक. १९८७ सालांत हेमा नायक हाणीं ह्याच विशया संबंदी एक परिसंवाद आयोजित केल्लो कोंकणी दिवाळी अंकाच्या निमतान. तातुंतल्यान हो अमली वखदांचो राकेस गोंयकारांक कसो गिळंकृत करतलो म्हणपाचो हुसको आमी उक्तायल्लो. पूण ताचेर सरकारान कांयच पावलां उबारूंक नाशिल्लीं. तांकां तो विशय म्हत्वाचो दिसूंक नाशिल्लो आनी आतांय दिसना.

१९८७ सालांत म्हळ्यार २३ वर्सां आदीं हांवें बरयल्लो 'नशा काय दशा?' हो लेख परत एकदां हांगा दिवप म्हाका गरजेचो दिसता. जाका लागून दोन दसकां आदली गोंयची परिस्थिती लक्षात येतली.

***

फाटल्या दिसांनी दूरदर्शनाचेर 'सुबह'नाउवाची एक धारावाही सुरू केल्ली. घुंवळे वखदां घेवन जावपी वायट परिणाम चित्रावपाची धडपड निर्मात्यान केल्ली. 'सुबह' पळोवन लोक वायट मार्गाक लागतात तेन्ना ही धारावाही बंद करची म्हणपाचो आग्रो लोकसभेंत जालो आनी सुबह बंद जाली. पूण आयज जे नशेच्या नरकांत रुतल्यात तांची दशा पळोवन एकाय राजकारण्याच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं दिश्टी पडनांत. मतां घेवपाचे, मतां मेळोवपाचे नशे परस, नशा चडपाचीं वखदां आमच्या देशांत न येवपाची, तांची लागवड देशांत न जावपाची तजवीज करपा खातीर झुंजपाची नशा आयज राजकारण्यांनी लावन घेवपाची गरज उप्रासल्या.

जेन्ना दूरदर्शनासारकी एक नशा पुराय देशाक चडल्या, तेन्नां ताचेवेलो एक कार्यक्रम पळोवन आयचो तरूणवर्ग नशेचे सुवादीन जातलो म्हणपाचो भंय लोकसभेक कित्याक दिसूंक जाय तेंच कळना. सदरेर बशिल्ल्यांक सत्तेची नशा लागता. कोणांक दुडुवांची, कोणांक रक्ताची, कोणांक सोरो-सिगार, पान-तंबाखुची नशा लागता. ही वेगवेगळ्या प्रकारची नशा पळोवन आमचो देश खंयचे दशेक वता हें सांगपाची गरज उल्ली ना. आयज आमी सगळी नशा लावन घेतल्या. पूण आपूण मनीस म्हूण जगतलों आनी दुसऱ्यांक जगूंक दितलों ही नशा मात कोण लावन घेवपाचे भानगडीत पडनांत. दूरदर्शनावेलें वास्तव दर्शन पळोवन वा लेखांतल्यान चित्रायल्लें वर्णन वाचून वाचक जावं दशर्क ताचें अनुकरण करतले आनी वायट मार्गाक लागतले, अंमली पदार्थाचे भकीक पडटले म्हणपाचो भंय ज्या लोकांक जालो तांणी सांगचें की दूरदर्शन पळोवपी ८० टक्के लोकांक सुबह आनी हेर प्रायोजित कार्यक्रम हातूंत कितें फरक दिसता! बुनियाद, रामायण, नुक्कड आदी कार्यक्रम पळयतना ह्या लोकांची नदर, भावना वेगळी आशिल्ली आनी सुबह पळयतना वेगळी जाल्ली? ना. हे सगळे कार्यक्रम पळयतना तांची एकूच नदर आशिल्ली; मनोरंजनाची. इतलेंच कित्याक, सांजे फक्त पेज जेवंची काय नीस पिवंचो हांचो विचार करपी देशांतल्या ७० टक्के लोकांक पंचायत घरांतलो वा शेजारचो टी.वी. पळयतना जायरात आनी हेर कार्यक्रम हातूंत फरक दिसना. जायरातींतल्यो दर वस्ती तांच्या खातीर अजापाची गजाल आसता. दीस पट्टे कटकटींक लागून जांचे दोळे कंवच्यो जावन गेल्यात तांकां वायट चलणुके विशीं सांगप म्हळ्यार एक अजापूच. जर आमकां खरेपणीं आयच्या समाजांत पसरलेलीं घुंवळे वखदां पयसावपाचीं आसात जाल्यार तीं सुबह जावं नई दिशाऐं बंद करून जावपाचें ना. हाचेर पावल उबारपाखातीर राजकारण्यांनीं आपले मदलेच लोक सोदून काडचे पडटले.

आयज दिल्ली, कलकत्ता, मुंबय आनी गोंय ह्यो सुवातो ह्या अंमली पदार्थाच्या वेव्हाराक लागून सामक्यो त्रासून गेल्यात. एके दिल्लींत नशेक लागून इबाड जाल्ल्या तरनाट्यांची संख्या पन्नास हजारांचेर पावल्या. दिसान दीस हो आंकडो वाडत वता. हाचे विरुद्ध वेगवेगळे उपाय करतात म्हणपाचें दरदिसा खबरा पत्रांचेर वाचूंक मेळटा पूण खंयचेकडेन कांयच ना. आयज हे नशेक लागून भारतांतलो तरनाटो दिसानदीस पोखरत आसा.

नशेक लागून म्हजी एकदां अशीच दशा वचपाची. कळंगुटच्या कांय शाळांनी थंयचे विद्यार्थी आपल्या बोल्सांत ड्रग्स घेवन येतात हें म्हाका खबर आशिल्लें, कळंगुट, हणजूण, बागा हो वाठार ह्या अमली वखदांचो अड्डो जावन आसा. हांगाच ही हिप्पी नांवाची गोंयांक लागिल्ली कीड पुराय गोंयां भोंवतणी अमली द्रव्याचो कोश विणीत आसा. ह्याच लोकांनी गोंयकारांक ड्रग्स नांवाच्या ह्या विखाची वळख करून दिल्ली आसा. हो पुराय वाठार अंमली पदार्थांखातीर नांवारूपाक आयिल्ल्या कारणान कळंगुटच्या एका इस्कोलांत थंयच्या भुरग्यांच्या बोल्सांत हीं द्रव्यां सापडप म्हाका आजपाचें दिसूंक नाशिल्लें. पूण पणजेच्या एका इस्कोलांत हांव शिकयतालों तेन्ना गोंयच्या



राजधानींतल्या ह्या इस्कोलांत शिकपी एका विद्यार्थ्याच्या बोल्सांत जेन्ना म्हाका चरसाची गुळी सापडली तेन्ना म्हज्या काळजांत कल्ल जालें.

जालें कितें! शाळेची परिक्षा चलताली. जे विद्यार्थी कॉपी मारूंक फामाद आशिल्ले तांचीं बोल्सां हांव सांसपितालों. एका भुरग्याच्या बोल्सांत हात घालता आसतना तो चडूच नखरे करूंक लागलो. म्हाका बोल्सांत हात घालूंक दिना म्हूण म्हाका चडूच दुबाव मारूंक लागलो. हाणें बोल्सांत कॉपी दवरल्या म्हणपाची खात्री म्हाका जाली. हांवें ताच्या बोल्सांत बळजबऱ्यां हात घालून कागदाची एक गुठली काडली. ती उसोवन पळय जाल्यार तांतूत एक-देड ग्रामाची चरसाची गुळी. म्हाका हे गजालिचो घवघवो करपाचो नाशिल्ल्यान हांवें ताका ते विशीं कांयच विचाल्लें ना. ताका ती कोणें तरी दिल्ली आनी ताणें ती बोल्सांत दवरली इतलेंच ताणें सांगलें.

सांजवेळा हांवें ही गजाल म्हज्या एका कलिगाक सांगली. शाळेच्यो सगळ्यो गजाली तोच पळयतालो. ताची उत्सुकताय वाडली. ताणें ती गुळी हातांत धरून पळयली. तशे आमी दोगूय सिगरेटी ओडपी पूण अशे गजालिचो अणभव घेवंक नाशिल्लो. आतां आलायती संद आयिल्ली. दोगांयनीय मेळून ती अखंड गुळी तंबाखूत भरशिली. सिगरेटींत भरून भीत-भीत दम माल्लो. धुंवराचो वास भयंकर येतालो. दोन दम मारून लेगीत म्हजेर ताचो व्हडलोसो परिणाम जालो ना. आयकल्लें, की ह्या पदार्थाच्या सेवनान तरतरी येता. कदाचीत ही गुळी उण्या दर्जाची, लोकांक फसोवपाखातीर आशिल्ली आसूंक जाय. हांवें दम मारून ती सिगरेट हांवें म्हज्या कलिगाक दिली. ताचेर कितें परिणाम जाता काय म्हूण पळोवंक लागलों. ताकाय तातूंत व्हडलिशी नविदाद दिसली ना. म्हाका निमणी बस धरपाची आशिल्ल्यान हांव थंयच्यान रोखडोच गेलों. हांव बशींत येवन बसलों आनी तेन्ना म्हाका जाणवलें की म्हाका कितें तरी जाता. ताळो सुकून आयिल्लो. घाम येवंक लागिल्लो, ओकूंक येता कशें दिसतालें. हो चरसाचो परिणाम हें म्हाका कळ्ळें. म्हाका सगळें विचित्रूच दिसतालें. जगाभायलें. लोक मोठ्यान उलयतात, हांसतात अशें भासतालें. हांवें म्हजेर ताबो दवरपाचो अटोकाट प्रयत्न केलो आनी कशाय बशेन घरा पावलों. दोन दम मारून म्हजे हे हाल जाल्यार म्हज्या इश्टाची अखखें सिगार सोपोवन कितें गत जाल्या हाची कल्पना हांवें केली. दुसऱ्या दिसा ताचे कडल्यान म्हाका सगळी गजाल कळ्ळी.

हांव गेल्या उपरांत ताणें तें पुराय सिगार सोंपयल्लें आनी बशिल्ले कडेनूच तो केन्ना आड पडलो हें ताकाच खबर ना. बायलेन जेवपाक उठोवंक सुरवात केली. हो उठना. अपुरबायेची माणकुली धूव बापायक उठोवंक लागली. तरी जाग ना. मित्रांनी उठोवपाचो यत्न केलो. तरी उठना. मागीर सगळ्यांचेर कलकल आयलो. लागींच रावतल्या ताच्या मांवाक आपोवन हाडलो. मांव-मांयचेर आकांत. शेजारी-पाजारी जमले. दोतोराक हाडलो. इल्लेशे नशेक लागून बाबड्याची पार दशा जाल्ली. हांव थंय आशिल्लों जाल्यार म्हजीय तीच गत जावपाची. पूण वाटावलों. हें सगळें घडून लेगीत इश्टाक कांयच खबर नाशिल्लें. तो अप्सरांचो नाच पळयतालो खंय!

ल्हानसो दम मारून जर ही गजाल जाता जाल्यार दिसपट्टे नशेंत रावपी लोकांचे कितें हाल जातात हाची कल्पनाच न केल्ली बरी.

आयच्या तरनाट्यांक पोखरपी, तांची दशा करपी, सरकारची न्हीद उडोवपी हीं वेसनां वेगवेगळ्या स्वरूपांत येतात. पयलीं नशा जाताली

ती सिगरेट, सोरो, पान, भांग हातुंतल्यान. पूण ह्या गजालींक लागून मनशाच्या शरिराचेर कांय असो परिणाम जायना आशिल्लो. तशे सोरो पियेवन संवसाराची वाट लावपी सभागी सुधाकरूय आमचे मर्दी आसात. सिगरेटीच्या धुंवराक लागून लंग्स कॅन्सर जाल्ले लोकूय आसात. तरी पूण कोकेन, एल.एस.डी., हेरॉईन, मारीजुवाना, ब्रावन आनी व्हायट शुगर, तशेंच स्नेक बायटींग हीं व्यसनां आयज आमच्या जिवितांत रिगून मनीसपण सोंपोवन उडोवंक लागल्यांत. सोरो-सिगार, पान-तंबाखू मेळना जाल्यार तांचें व्यसन आशिल्ले लोक आपल्याचेर ताबो दवरूंक शकतात. थोड्या प्रयत्नांनीं ह्या लोकांक सांबाळूं येता. पूण अंमली पदार्थांची एकदां रूच लागली म्हणटकच तो नशा करपी मनीस आयुश्यांतल्यान उट्टा. ही नशा मेळना जाल्यार व्यसनी मनशाची जी अवतीकाय जाता ती सुणो लेगीत खांवचोना. पयलीं चटक लावन उपरांत त्या मालवजार नाका जाल्लें काम करून घेवपाचें काम कांय समाजकंटक करूनं घेतात. ड्रग्साचो एक डोस मेळोवपा खातीर, चोरयो करून घेवप, खून करोवप, बऱ्या बऱ्या चलयांकडल्यान शरिराचो धंदो करप; ह्या सारक्यो गजाली पद्धतशीरपणान चलतात. जशें हिप्नॉटिजम करतकच मनीस सांगता तें आयकता तशी गत जाता. म्हजे वांगडा कॉलेजांत एक चली शिकतालें. गिरेस्ताली चली. गिरेस्तकायेक सुंदरायेचो सांगात मेळिल्लो. ताचें रूप पळोवन ताचेकडें वळख करून घेवपाक जण एकलो आशेतालो. ताचो फक्त स्पर्श जाल्यार जायत्या जाणांचें भाग्य फळफळटालें. हे रूपगर्वितेचेर जायते जाण मरताले. पूण तें कोणाक भीक घालिनाशिल्लें. हांव एक विद्यार्थी नेतो, लेखक बी म्हूण ताची म्हजेकडेन इश्टागत आशिल्ली. ताची एकूच गजाल म्हाका आवडटाली आनी ती म्हळ्यार ताचो हांसो. निर्व्याज, निर्मळ म्हणटात तसो. ताच्या ह्या हांसपाचो कांय कंपनीनी जायरातींखातीर उपेगूय केल्लो. हें चली एक दीस म्हाका कळंगूट प्रायेर मेळ्ळें. दनपारच्या कडार. वांगडा दोग जाण फ्रिक आवट. एक गोंयकार काळो हिप्पी आनी दुसरो धवे कातीचो हिप्पी. त्या दोगांयचोय भेस पळयल्यार, तांचे दोळे आनी एकंदर रूप पळयल्यार ते खंयचे अवतिकायेक पावल्यात म्हणपाचें कळटालें. तें चली आपलो मुळचो रंग शेणोवन रोगट दिसतालें. आपली मुळची सुंदराय तें होगडावन बशिल्लें. हें फक्त बंगल्यांत रावंकूच, पॉश गाडयेंतल्यान भोंवपाकच जल्मलां. हाका देखणो घोव मेळूंक जाय वा मेळटलो अशी कितें तरी म्हजी कल्पना आशिल्ली. पूण आयज तें खंयचे दशेक पाविल्लें, आनी कोणा लोकां सांगाताक भोंवतालें? ताच्या वांगडा आशिल्ल्या त्या दोन मनशांची लायकी आयज लेगीत ताच्या म्हऱ्यांत रावपाची नाशिल्ली.

त्या उप्रांत काय दिसांनी रातच्या बारा-एकाक तें एके मोटार-सायकलीर दोन तरनाट्यां मर्दी सॅन्डवीच जावन पणजे नॅशनलाकडेन दिश्टी पडलें. थंय ताणीं गाड्यार ऑमलेट खाल्लें. हांवें एकल्याकडेन ताचेविशीं चवकशी केली. ताणें सांगलें ताका चिमटीभर ब्रावन शुगर हाडून दीत जाल्यार तें तुजे वांगडा रातभर रावंक तयार आसा. म्हज्यान तें आयकूं नज जालें. तें म्हज्या वळखीचें आशिल्लें म्हूण म्हज्या काळजांत चर्रर जालें. पूण आयज देशांत हजारांचे संख्येन ह्या वेसनांच्या सुवादीन जाल्ल्यो चलयो आसात. नशेंत आसतना कितले जाणांनी आपल्या शरिराचो उपभोग घेतलो हें जांकां कळूं ना तांचे खातीर कोण रडटलो? वेळ ना गुलाबा खातीर रडपाक जंय आख्खें पोरसूंच जळटा... आयज हें पोरसूं पद्धतशीरपणान जाळपाचो, हुलपावपाचो कट आमच्या देशांत चलता. आयज भारत देशाक दुबळो करून ताका आपल्या सुवादीन करपाच्या यत्नाक कांय राष्ट्रां लागल्यांत. आपल्याकडेन आशिल्ल्या शस्त्रांमार्फत भारताक जिखून आपले पांगेंत दवरपाचो काळ आतां उरूंक ना म्हणपाचें ह्या राष्ट्रांक कळ्ळां. ते खातीर अंतर्गत दुफळी माजोवप, राज्यां-राज्यांभीतर झगडीं-झुंजां लावप, आपल्या मनशाक आपल्याच मनशांकडल्यान मारूंक लावप, ही एक पद्धत आनी वेगवेगळीं घुंवळे वखदां सवाय भितर देशांत पातळावन, आलायतीं मेळटात हाची तजवीज करून भारतीय तरनाट्यांक नशेचे सुवादीन करपाची यंत्रणा आमच्या देशांत बेस-बरी चलता. एकदां हे नशेक लागून देशांतलो तरनाटो दुबळो जालो म्हणटकच परकी शक्तीचेंय फावलें. आनी स्वकीय राजकारण्यांचेय फावलें. आयज देशांतलो तरनाटो बेकारी खातीर भितल्ले भीतर धुमसत आसा म्हणपाचें राजकारण्यांक खबर आसा. ह्या तरनाट्यांचे शक्तीचो उद्रेक जायत जाल्यार तातुंतल्यान कांयच वाचून उरपाचें ना हें राजकीय फुडाऱ्यांक खबर आसा. नोकरी न मेळिल्ल्यान उत्पन्न जाल्ले निर्शेवणेंतल्यान आयचो तरनाटो हे नशेकडे वता आनी थंयच घुसपून उरता हेंच आयच्या राजकारण्यांच्या पथ्थ्यार पडलां. जर हो तरनाटो नशेंतल्यान भायर सरून येवजूंक लागलो जाल्यार राजकर्त्यांची दशा कितें जातली म्हणपाची कल्पना तांकां बेस बरी आसा. ते खातीर ह्या तरनाट्यांक नशेचे सुवादीन करून (तांतूत सिनेमा, क्रिकेट हींय वेसनां येतात) तांच्या भेरेल्ल्या मेंदवाचेर राज्य चलोवपाचें काम आयज आमच्य देशांत चल्लां.

अंमली पदार्थांक लागून राष्ट्र कशें बरबाद जाता हो इतिहास आमचे मुखार ताजो आसाच. हे अंमली पदार्थ पयलीं युरोपीयन राष्ट्रांत पावले. १९६९ ते १९७४ ह्या पांच वर्सांभीतर ह्या वखदांनी संवसारांतल्या कोट्यांनी तरनाट्यांचो घात करून उडयल्लो आसा. ह्या वखदांनी युरोपियन राष्ट्रांतल्यो तीन पिळग्यो ना-नपयत करून उडयल्यो आसात. जर्मन, फ्रान्स, इंग्लंड अमेरिका ह्या राष्ट्रांतल्या दर घरांतलो एक तरी तरनाटो सैन्यांत भरती जातालो तो सैन भरती थांबोवन नशेच्या सुवादीन जावन पडिल्लो आसा. आयज दर एका घरांत एकलो तरी हाडांचो सापळो जावन पडिल्लो आसा. हीच गत आयज गोंयची जायत चल्ल्या.

आयज गोंयांत ह्या अमली वखदांची रास दिसान दीस पडत आसा. पणजे सारख्या गोंयचे राजधानीत आयज दर पन्नास फुटांचेर ह्या

वखदाच्यो गुळयो विकपाची तजवीज जाल्ली आसा. जे नशा करतात वा ह्या वखदांकडेन जांचो संबंद आसा तांकांच खंय किते मेळटा हें ज्युस्त खबर आसा. फुटपायरेचेर वेगवेगळ्यो वस्तू विकपी त्यो वस्तूच विकतात काय आनीक किते विकतात, तें कोणाकूच खबर ना. हेर कडचीं खेळणी आनी हेर वस्तू फुटपायऱ्यांचेर विकून स्कुटरी घेवन, बरेबरे उंची कपडे घालून मिरोवपी फेरीवाले गोंयांतूच दिश्टी पडटात. ते असलो हो धंदो करून इतलें जोडूंक शकतात काय हो धंदो फक्त दाखोवपाक? खरो धंदो वेगळोच आसा हें जाणा जावपाचें कोणांक पडूंक ना.

कोण, खंय, कसो हीं वखदां विकतात हें पुलीसेक आनी एक्सायज खात्याक खबर आसा. पूण वेवस्तीत हप्तो फाव त्या दिसा पाविल्ल्यान एक दीस कोण तरी सादो, गरीब भुरगो कांय ग्रॅम हेरॉईन जावं अफू घेवन सापडटा. ताका धा वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त जाता आनी सरकारची जापसालदारकी सोंपता.



नशेचे सुवादीन जाल्ल्यांक अळंग ब्रावन शुगर जावं हेरॉईन सप्लाय करपाचे नोकरेक खूब लोक लागिल्ले आसात. हे लोक हो डोस वेवस्तीत घरा पावोवपाची तजवीज करतात. ही नशा पावांतल्यान, सिगरेटींतल्यान, फळांतल्यान त्या-त्या मनशाकडेन पावता. पान-तंबाखुच्या गाड्यार खास पान मागपी गिरायकां आसतात. एक पान खावपाक आनी दुसरें पार्सल करपाचें आसता. तातूंत केन्ना खंयचें वखद सरायितपणान वता हें कोणांक कळना.

आमच्या देशांत आनी चड करून गोंयांत हीं वखदां नेपाळ, पाकिस्तान हे वाटेन येतात. बनारसाक ह्या वखदांचो अड्डो म्हणपाचें सगळ्यांक खबर आसा. आमच्या देशांत काश्मीर, हिमाचल ह्या वाठारांनी हाची लागवड जाता. चरस, गांजा, अफू ह्या वखदांची निर्मणीच विचित्र आनी कीळस हाडपी. हिमाचल, काश्मीर ह्या वाठारांत हीं चरसाचीं ल्हान ल्हान रोपटीं आसात. जंय गंव आनी भाताचीं शेतां आसात तांकांच तेंकून उतरणीचेर हीं चरसाचींय शेतां आसात. हाचोच पालो वाटून भांग करतात. हाचींच सुकिल्लीं पानां ग्रास ह्या नांवान थंय विकतात. अफू-चरसाच्यो गुळ्यो करपाचो प्रोसेस मात त्रासदायक. ह्या रोपल्यांची सारकी वाड जाली म्हणटकच तीं फुलार येतात. तेन्ना तांच्या पानांतल्यान एक प्रकारचो चीकट पदार्थ, दीक भायर सरूंक लागलो म्हणटकच लागवड करपी कामदार आपल्या आंगार उण्यांत उणे कपडे चडयतात. भुरगे तेय चडयनांत. उगड्या आंगाक कसलें तरी तेल चोळटात आनी ह्या शेतांतल्यान एका तोकापासून दुसऱ्या तोकामेरेन धांवत रावतात. आडवे उदारे लोळटात. रोपल्यांचो तो दीक तांच्या आंगाक दसता. हो दीक पात्यान खरवडून ताच्यो गुळयो करतात, अशे तरेन ताचेर वेगवेगळी प्रक्रिया करून हीं वखदां तयार जातात.

एल.एस.डी. ह्यो गुळयो तर मुंबय सारख्या शारांत करतात. गटारांतले लोखंड, आनी हेर कळम येवपी वस्तुंची कळम काडून, तातूंत आनीक हेर गजाली मिसळून ह्यो गुळयो करतात. कोकेन अमेरीकन लोक पूड ओडची तशी नाकांतल्यान घेतात.

गोंयांत चड सुळसुळाट आसा तो हेरॉईनचो. मुंबय जशें 'गर्द' ह्या नांवान धुमाकूळ घाला तसो गोंयांत हेरॉईन, मारीजुवाना, हॅश हार्णी. भायल्या देशांत हीं वखदां खुबूच म्हारग आसतात. एका-एका ग्रामाक भायल्या लोकांक दोन-दोन हजार रुपया पसून दिवंचे पडटात. गोंयांत जें हेरॉईन मेळटा तें दोन रूपांत. एक ब्रावन शुगर आनी दुसरें व्हायट शुगर. ब्रावन शुगर हें हेरॉईनचें अशुद्ध रूप म्हणूंक हरकत ना. तें गोंयांत ३०० रुपया मेरेन ग्राम मेळटा पूण हेरॉईनचें शुद्ध रूप जें व्हायट शुगर तें ५०० -६०० रुपया दिवन लेगीत एक ग्राम मेळूंक कठीन वता. ब्रावन आनी व्हायट शुगर घेवपी व्यसनी लोक दिसाक १/२ ग्राम आपल्या शरिरांत घेतात. आनी हें एक-दोन ग्राम शुगर घेवंक दर दिसाक जे हजार -देड हजार रुपया लागतात ते पयलीं घरच्यान, उप्रांत चोरयो मारयो करून मेळयतात. ब्रावन शुगर, मारीजुवाना, हॅश हीं वखदां पयलीं सुरवेक सिगरेटींतल्यान घेवपाचीं आसतात.

मारीजुवाना, हॅश हीं तंबाखूत मिसळावन सिगरेटींतल्यान ओडपाचीं वखदां. हेरॉईन हें नाकांतल्यान घेवपाचें आसता. हेरॉईन सिगरेट पाकिटांत मेळपी बेगडीचेर धरून उजो लावन हुलपायतात. उप्रांत शंबर रुपयांची नोट घेवन ताची नळी करतात आनी बेगडे वयली ही पूड नाकांत ओडटात. ब्रावन जावं व्हायट शुगर हें सरळ रक्तांत मिसळायतात. ही निमणी स्टेज जावन आसता, हाका फिक्सींग म्हणटात. ब्रावन शुगर जावं व्हायट शुगर घेवपी एका कुलेरांत शुगर घेतात. तातूंत स्वताचें मूत घालतात. ताचेवेल्यान थोडो ग्लुकोज शिंपडायतात. हें कुलेर धगार धरून गरम केल्या उप्रांत ताचेर कापूस घालतात. इंजेक्शनाचें सिरिंज घेवन ताची सूय ह्या कापसाचेर दवरतात. कापसाचो फिल्टर करून तातुंतल्यान ही शुगर सिरिंजांत घेतात आनी

आपल्या शरिरांत तें भितर घुसयतात. हें वखद आंगांत गेल्या बराबर पांय मुयेवन येतात. तकलेंतले सगळे विचार हळुहळू नाच जावन वतात आनी मेंदू सामको भेरेता अशें घेवप्यांचें मत जावन आसा.

ह्या वखदांत आनीक एक वखद आसा. ताका 'स्नेक बायटींग' म्हळ्यार सोरोप चाबोवन घेवप म्हणटात. हो काळो वेंतभर लांबायेचो सोरोप आफ्रिकेच्या जगलांत पयलीं मेळटालो. आतां भारतांतल्या कांय जंगलांनी मेळटात. हो अत्यंत म्हारग सोरोप, तसोच विखाळ. वीख आंगांत गेल्या बरोबर मनीस कांय खिणांत मरूंकच जाय. ह्या सोरपाचो उपेग नशे खातीर जाता आनी तो सवाय पडटा. हो सोरोप जे लोक पोसतात ते ताची मान धरतात आनी ताचे दांत ग्लासाचे कडेर धरतात. ताणें फणां उबारून दंश मारूंक फणा मुखार केल्या बराबर हो ग्लास धरचो पडटा. ग्लासाच्या कांठाक दांत पडल्या बराबर ताची फणां घुंवडायतात आनी ताच्या विखाचे जे काळशे तांबशे थेंब ग्लासांत पडटात. ह्या थेंबांत सुयेचें तोंक बुडोवप आनी तें तोंक व्यसनी मनशाचे जिबेच्या पोंदा, जीब परती वयर करून तोपतात. हें एक तोपप पुरो जाता. ह्या एका तोपपाक पंदरा रुपया फारीक करचे पडटात.

हें असल्या प्रकारचें व्यसन, मनशाक सोपोवपाचें व्यसन मनशाक लागपाचें कारण कितें हाचो अभ्यास आयज करतात. घरांत बरी वागणूक मेळना, भुरग्यांकडेन दुर्लक्ष जाता म्हणून हे भुरगे ह्या मार्गाक लागतात अशें म्हणटात. हें व्यसन चडशें गिरेस्तांमदीं दिश्टी पडटा. कदाचीत हीं वखदां म्हारग म्हूण गरीब भुरगो ताका आफुडना आसत. कळंगुट, हणजुणां हांगा हीं वखदां मेळटात. पूण थंयचो थळावो खारव्यांलो भुरगो ह्या व्यसनांपासून पयस आसा. थंय नाटकां करतात ते गिरेस्ताले भुरगे आनी हेर सुवाते वेल्यान आयिल्ले तरनाटे.

आयज शुगराचें हें व्यसन कॉलेजींच्या कॅन्टीनांत पावलां. कॉलेज कॅन्टीनांतल्या भुरग्यांचीं बोल्सां आयज तपासलीं जाल्यार एक दोगांच्या बोल्सांत नक्कीच ब्रावन शुगर सापडटा. परिक्षा जशी लागीं पावली तशी ह्या ब्रावन शुगराची किंमत वाडटा. वर्सभर धांगडधिंगो घालपी हीं गिरेस्तालीं पोरां परिक्षा लागीं पावल्या बराबर कांचवेतात. हाणीं वर्सभर पुस्तकां, ट्युशन ह्या कारणान घरच्यान पयसो घेतिल्लो आसता. तो चलयांचेर आनी हेर फोल्गां खातीर खर्चिल्लो आसता. परिक्षा लागीं पावतकच पास जावन घरच्यांक दाखोवपाचें आसता. पुस्तकांत तकली मुंगरल्यार थंय लक्ष उरना. विद्यार्थी बेजारता, ताची मनस्थिती बिगडटा. आनी त्याच वेळार ह्या वखदांचो वेपार करपी असल्या भुरग्यांक धरता. पास जायना जाल्यार घरचीं खातलीं ह्या भंयान वावुरपी हीं भुरगीं मनांतलो भंय काडपाखातीर एकदां हो डोस घेतात. एकदां डोस शरिरांत गेलो की आंग तापता, हाता-पायांक मुयो चडटात, विचार खंयचे खंय नाच जावन वतात. मनशांमदली संवेदना मरता. एकदां डोस घेवपी मागीर आयुश्यांत केन्नाच पास जावंक पावना. तो आयुश्याचेच परिक्षेंत नापास जावन वता.

कांय दिसांपयलीं हें व्यसन फक्त श्रीमंताकडेंच आशिल्लें. आयज गरीब तरनाटोय हे वाटेन गेल्लो दिश्टी पडटा. ताचें कारण म्हळ्यार घरचें दळीद्र आनी बेकारी. आपूण येदो व्हडलो जावन लेगीत घरचें दळीद्र पयस करूंक शकना ही भावनाच इतली अपमानाची आसता की तातुंतल्यान निराशावाद निर्माण जावन हे वाटेन तरनाटी पिळगी वता. श्रीमंत चैन म्हणून हीं व्यसना करता. गरिबाक गरज म्हणून हें करपाची गरज उप्रासल्या.

हें सगळें चलता म्हणून दोश कोणाक दिवपाचो? हें न घडपा खातीर आयज आमी आमचे नवे पिळगेमुखार कसले आदर्श दवरल्यात? तांचेर कसले संस्कार केल्यात? आयची पिळगी हे वाटेन वच्ची न्हय म्हूण दुसरी बरी वाट आमी तयार केल्या व्हय? ना तर ती केन्ना करतले? आमी म्हणटात की हे वायट मार्ग. पूण हे वायट मार्गूच आयज राजकीय मार्ग जाल्यात. हातुंतल्यान प्रतिश्ठा आनी मोठेपण मेळटा हाची जाणविकाय आयचे पिळगेक जाल्या. आयज शाळांनी सॅन्ड ऑफ आनी बर्थडे पार्टीखातीर बियरचो उपेग जावंक लागला. शेतांत वावर करून थकून घरा आयिल्लो अशिक्षीत बापूय आयज पांचवेची परिक्षा पास जाल्ल्या भुरग्याक खोसयेन बियर हाडून खुशालकाय मनोवंक दिता. ताचें म्हूण खंय चुकलां? घरांत केन्ना कोणूच शिकलोना थंय ताचोच पूत पांचवी पास जाल्लो. हांव अतिताय करिना. वाचप्यांनी हाचो अणभव घेतलाच आसूंक जाय. आयज बियर आनी सिगार हाका आफुडना तो शंड आनी बावळट थल्ला. होच आदर्श घेवन आमी ह्या विरुद्ध झुंजतले?

जे नशेंत गेल्यात तांकां परत हाडपाचो प्रयत्न म्हत्वाचो न्हय. तांकां परत हाडले तरी निरुपयोगी. ते वाटेन नवो कोण वच्चोना हाची जतनाय घेवंक जाय. एकदां ते वाटेन गेल्लो परत येवंक मुश्कील. आनी आयलोच जाल्यार सांगाड्यांत आनी ताच्या शरिरांत फरक उरना.

हें सगळें थांबोवक जाय. वेळ खूब गेल्लो आसा तरी हें बंद करूंक जाय.जाणें आपल्या मित्रांचें पयलींचें कर्तृत्व पळयलां आनी मागीर नशा करतकच ताचे जाल्ले हाल पळयतल्यात तो तरी पोटतिडकेन हें सांगतलो. हें बंद करूंक जाय. हे खातीर कसलोय उपाय घेतल्यार उपकारता. हीं वखदां कोण विकता म्हणून कळत जाल्यार ताचें दुकान चाळणींत घालून चाळपाक जाय. ते खातीर थोडी अतिताय जाल्यारूय उपकारता. जो कोण वखद विकता म्हणून कळटांच ताका ख्यास्त जावंक जाय. हीं कामां भाशणां करून आनी जायराती दिवन जावपाचीं ना.



**- दिलीप बोरकार**
आगशी - गोंय
फोन :९८२२१३६८८५

उश्णीं वायणां

*मानतां हांव की सुशीला मात्शी झगडीं करपी बायल, घडौप्यानूय मटीरीयल उणें पडलें देखून तिचे तकलेंत गोबर भरला जातलो. वीस वर्सांनी तिणें म्हजें सत्तावीस लिटर रगत पिलां जातलें. पांच किलो मांस खावन पचयलां तिणें म्हजें. म्हजें आनी म्हज्या भावाचें मकसूदनाचें लग्नापयलीं एक सारकें साठ-साठ किलो वजन आसलें. आज मकसूदन पुराय ब्यॅण्णव किलो आसा आनी हांव थंयच साठ किलोचेर शिरकून उरलां. खूब विचार केलो कीं हें बत्तीस किलो वजन गेलें खंय, पूण एक दीस गणीत कळ्ळें कीं सुशीला लग्नावेळार पस्तीस किलोची शिरकुटी आसली. आयज तिचें पुराय सदूसश्ट किलो पन्नास ग्राम वजन आसा.*

# 'कडुनिंब' केन्ना गोड लागलो?



**बां**केलाल ऑफीसांत वचपाक तयार जावन भायर सरलो. स्कुटर स्टार्ट करतालो इतल्यान सामकारच्यान नवीनभाई आयलो. नवीनभाईन येना फुडें बांकेलालाक वयल्यान सकयल मेरेन खर नदरेन पळयलो.

बांकेलालानूय बी कीक मारचो पांय थंयच्या थंय थारावन ताका प्रस्नार्थक नदरेन पळोवंक लागलो आनी उलयलो, ''हॅलो, बरो आसा मरे तूं, सकाळीं सकाळीं खंयच्यान आयला?''

नवीनभाई कांय वेळ ओग्गी रावलो. उपरांत उलयलो, ''हय रे बांकेलाल, हांवें म्हज्या जिवीतांत तुज्या आनी बिहारीलाल सारके मनीस केन्नाच पळोवंक ना. काल तुमच्या दोगांयच्या घरच्यांमदीं येदें केस्तांव जालें, मार-फारय जालो पूण तुमचेर ताचो कांयच असर ना. असले निर्लज्ज मनीस आमी पळोवंक ना.

''तशें जाल्यार आतां पळय. असली ल्हान व्हड केस्तांवां, मार-फार, मोग-शीण, तापप-बिपप तर चलतूच आसता, आतां बायलां आपलेभितर झगडूंक लागत जाल्यार दासल्यांनी तांचेपसून पयस रावपाक जाय. आतां हें तर सदांचेंच जालां, चलत आसता. कितें नवी खबर आसल्यार सांग नवीनभाई.''

नवीनभाईन तकलेर हात मारलो आनी कांय उलयनासतना फुडें सरलो. बांके आनी बिहारिची काणी ताका समजपा भायली आसली.

बांकेलालान स्कुटर स्टार्ट केल्लीच इतल्यान फाटल्यानच्यान आवाज आयलो, ''हांवूय येतां रे बांके! राव मात्सो.''

फाटसून बिहारिलाल धांव धांवत आयलो आनी कांयच उलयनासतना स्कुटरीच्या फाटल्या सिटार बसलो.

बांकेलालान स्कुटर बंद केली आनी ती स्टँडार उबी केली आनी म्हणूंक लागलो, ''धांवत-धांवत स्कुटरीर बसपाक येता, कितें लज-भीड आसा काय ना तुका? काल तुज्या बायल भुरग्यांनी म्हज्या घरार हामेरीं हाडली. विमलाचे केंस ओडून हातांत दिले, बंटीच्या फाटीर खोंट मारली. म्हज्या निश्कलंक चरित्राचेर चीखल उडयलो. म्हज्या मांवाच्या आर्थीक परिस्थितीचेर तोंडाक येता तशें उलयलें. आतां तुजें म्हजें जमपाचें ना. तेल लायत गेलें गांवचें नातें आनी चुलींत गेली इश्टागत. चल, देंव स्कुटरीवेलो सकयल.''

बिहारी स्कुटरीच्या फाटल्या सिटार

बसूनच उलयलो "नां देवना हांव किते करपाचें तें कर. पयलीं हो विचार कर की ही स्कूटर आसा कोणाची?"

"म्हजी, सेंट पर्सेंट म्हजी." बांकेन म्हटलें.

"पंजाब नॅशनल बॅंकेंतल्यान म्हज्या नांवार लोन घेवन विकती घेतल्या. पावती दाखोवं?"

"पूण गॅरंटर कोण ताका? हांव जामीन दियना जाल्यार तुजे असल्या रस्ताद मनशाक तो वर्मा मॅनेजर लोन दिता आसलो? हे स्कुटरीचेर म्हजोय हक्क आसा, चल काड फुडें."

"पुरो पुरो आयकलें. चाळीस हजारांच्या लोनाचेर गॅरंटी आसा तुजी. घेवन वच ही स्कुटर, पूण तुज्या फ्लॅटाच्या चार लाख लोनाचेर म्हजी गॅरंटी आसा ताचें कितें? फ्लॅटाचें पोझेशन म्हाका दिता? फाल्यां येवं ताब्यांत घेवपाक?" बांकेलालान परतें दिलें.

"तूं ताबो घेवपाक येतलो?" बिहारी उलयलो.

"म्हज्या फ्लॅटांतल्यान म्हाका भायर काडून तर दाखय. पुराय दीस म्हज्याच घरांत बसून आसता, तुज्या फ्लॅटांत खिणभरूय केन्ना रावता तूं? खूब जालें. आतां चलपाचें ना. काल भाभीन सुशीलाच्या तोंडार जोतें मारलें. तिका रांड पासून म्हणलें. पुराय सोसायटी ह्या झगड्यांक लागून बेजार जाल्या. चल म्हाका व्हडल्या बाजारांत सोडून यो. हाचे उपरांत सगळें बंद. सांजे वेळार चारांक परतो येतना हांगाच देवय आनी म्हज्या घरांत पांय पासून दवरूं नाका. ना पत्ते, ना चेस, ना हुमाणी, ना अंताक्षरी... सगळें कितें फिनीश... सोपलें."

बांकेलालान तोंड कोडू केलें आनी उलयलो, "व्हडल्या बाजारांत व्हरतलों, सांजेवेळार परतोय घेवन येतलों पूण आयज अंताक्षरी पुराय करपाक येतलो? दादलो आसशी जाल्यार सर्त लाय, बायजण मनीस, बायलेच्या सांगण्यान पंचवीस वर्सांचे इश्टागतीचेर खोंट मारता. शी! लज दिसता तुका इश्ट म्हणपाक."

"आनी तूं बायलेचो गुलाम न्हय? जें कितें बायलेन कमी चड आयकयलें आनी इश्टागतीच्या पवीत्र नात्याचेर पाच मण धूळ फाफडायली. एका खिणांत इश्टागत म्हेळी केली. आतां घडये कल्लू पानवाल्याकडेन इश्टागत करीन, पूण तुजे अरदान थुकचो पासून ना."

बिहारी मात्सो चडच नेटार आयिल्लो. मात्सो रावून उलयलो "मानतां हांव की सुशीला मात्शी झगडीं करपी बायल, घडौप्यानूय मटीरीयल उणें पडलें देखून तिचे तकलेंत गोबर भरला जातलो. वीस वर्सांनी तिणें म्हजें सत्तावीस लिटर रगत पिलां जातलें. पांच किलो मांस खावन पचयलां तिणें म्हजें. म्हजें आनी म्हज्या भावाचें मकसूदनाचें लग्नापयलीं एक सारकें साठ-साठ किलो वजन आसलें. आज मकसूदन पुराय बॅण्णव किलो आसा आनी हांव थंयच साठ किलोचेर शिरकून उरलां. खूब विचार केलो कीं हें बत्तीस किलो वजन गेलें खंय, पूण एक दीस गणीत कळ्ळें कीं सुशीला लग्नावेळार पस्तीस किलोची शिरकुटी आसली. आयज तिचें पुराय सदूसश्ट किलो पन्नास ग्राम वजन आसा. एक डबलबॅड, दोन सोफे आनी तीन खुर्च्यो तिच्या वजनान मोडल्यात. हांव भितरल्यान धोला भशेन पोकळ आसां आनी ती टमटमीत फातराचो 'फुटबॉल', खोंट

मारल्यार खोंट मोडून पडटली. बांकेलाल तीन फावट पांयाक प्लास्टर घालून जालें.''
बिहारीलालचे दोळे पाणेवपाक लागले.

''बत्तीस किलो वजन खाल्लां तिणें म्हजें.''

''ना बिहारीलाल, मानलें की सुशीलाभाभी मात्शी रागीट, हाताक जें लागता तें शेंवटून मारता, फाटल्या वर्सा होळयेच्या वेळार पितळेची पिचकारी मारून म्हजो कपाळमोक्ष केल्लो, पूण जेन्ना म्हज्या तकलेंतल्यान रगत येवपाक लागलें तेन्ना आपले बनारसी साडयेचो पदर पिंजून म्हज्या कपलाक बांदिल्लो. कितलें थंड दिसलें तेन्ना. ती तितली सादीय आसा, पूण विमला म्हळ्यार चेटकीण. म्हजें जिवीत बेजार करून दवरलां. सकाळसान फाटल्यान लागता. शाळेंत वचपाखातीर भुरग्यांक तयार कर, बालकनींत कपडे सुकत घाल, पीठ दळपाक वच, भाजी हाड. घरांतल्यान भायर सरत जाल्यार काम, घरांत भीतर सरत जाल्यार काम. जीण बेजार केल्या ते नीच बायलेन. तुमचेवांगडा कांय खीण बसून जीव धादोस करून घेतां जाल्यार भाभीकडेन गैरसंबंद जोडटना तिका लजूय दिसली ना? दर फावटी ती एकच गजाल धरून आसता. आतां त्या रशीदमीयाँचो सांगात वायट आसलो. जुगाराचें व्यसन वायटच, पूण दोन फावट पांचशी रुपया जिकलो तेन्ना आस्त जाली आनी त्या दिसा अकरा हजार रुपया उदार घेतलेले आनी विमलाचो हार तुवें नाका म्हणलें आसतना तुजे कडेन घाण दवरलेलो. विमलाक समजायलें की हार बँकेच्या लॉकरांत दवरला म्हूण.

आतां दिवाळेक तिणें हार मागलो तेन्ना फट मारली की बँक मॅनेजर सुटयेर आसा. ताचे कस्टडींतच लॉकर आसता म्हूण. पूण भाभी बाबडी सादी, आतां तिका कितें खबर की तुवें जो हार तिचेकडेन दवरपाक दिल्लो तो विमलाचो म्हूण, म्हणून दिवाळेचो फराळ दिवपाक तोच हार घालून विमलाक परबीं दिवपाक आयली.



विमला तुमकां खबरच आसा, फुड्यांत येतकूच आपल्या बापायक घडये ना वळखत पूण बापायन दिल्लो हार एका खिणांत तिणें वळखलो. ताचेर 'विमला'चो 'व्ही' चो पेंडेंट पासून लोमकळटालो. पुरो मागीर आनीक कितें ज़ाय, रामायणांत म्हाभारत जालें. हांवूय बी कितें उलयतलों? तिणें उलवपाचें कितें दवरलें? घरांत पांय दवरता थंय आसां म्हळ्यार वणटीर तकली आपटून आपटून तकली रगताळ करून उडयली. इतलेंय बी जाल्यार बरें आसलें, पूण म्हजो लखनवी नवो कुर्ता तिच्यान पळोवं नज जालो. कपाळाचें रगत त्याच नव्या कृर्त्यान पुसून काडलें. म्हज्या मेल्ल्या आवय बापायक नरकांत धाडलीं. खूब विचित्र बायल जावन आसा. बिहारीलाल, हांव म्हणून दीस काडटां.''

बांकेलाल रडपाक पावलो. दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं.

बिहारीलाल स्कूटर थांबोवन फाटल्या सिटावैल्यान देंवलो. बोल्सांतल्यान लेंस काडून बांकेलालाचीं दुकां पुसलीं. मागीर भरिल्ल्या ताळ्यान उलयलो, ''हांव तुजें दुख समजतां बांकेलाल. ह्यो आमच्यो चंडी, चामूंडा खऱ्या अर्थान विरांगना जावन आसात, झगडप, क्लेश करप, अशांती हाडप हांच्या पदराकूच पुजलां. हांकां, तर राजकारणांत वचपाक जाय आशिल्लें, बऱ्या बऱ्या फुडाऱ्यांक मिशयो मुणपाक लावपाचीं. खबर ना म्हज्या मांवान हिचें नांव सुशीला कशें दवरलें म्हूण. मात्शे दोळ्यांनी नदर लावन पळयत जाल्यार डायन दिसता. खबर ना खंयच्या बऱ्या म्हुर्तार हो राजू जल्माक आयलो. मागीर फूल स्टॉप. अरे बाबा, जी बायल केन्ना हांसची ना, रमची ना, तिका भुरगीं कशीं जातलीं? तो नवीनभाई व्हड नशीबवान, बायल रुपालीक पळय, पळयत तेन्ना हांसतना दिश्टी पडटा. आयज स भुरगीं खेळटात तागेर. तूं राग भायर मार. आतां भाग्यांत ह्यो फातराच्यो मूर्त्यो आमच्या नशिबांत आयल्यात, जाल्यार आतां कितें करूं येता? चल व्हडल्या बाजारामेरेन चल. पल्ला हलवाईकडल्यान गरम-गरम जिलब्यो घेवया.'' बिहारीलालान ताका समजायलें.

''पल्ला हलवाईकडल्यान जिलब्यो मात्शो चडच घेवया. विमलाकय खूब आवडटात.''

''आनी सुशीलाकय बी. घडये गोड जिलब्यो खावन हांची कोडसाण मात्शी उणी जायत.''

''आरे बाबा बिहारीलाल कसल्यो गजाली करता? जित्याचो स्वभाव केन्ना मेलेबगर गेला? गोडान तळ्ळो म्हूण कडीनींब केन्ना गोड जाला?''

दोगूय हांसले आनी व्हडल्या बाजारांत वचपाक फुडें सरले.

(डॉ. विश्णू विराट चतुर्वेदी
हांच्या हिन्दी कथेचो
**उदय देशप्रभू**
हाणीं कोंकणीत केल्लो अणकार)



ललित

# गोंयकारांनी आपली बरी कोंकणी सांबाळची




*आयज गोंयांत कोंकणी साहित्याची निर्मिती समाधानकारक जाता. पूण तें साहित्य वाचतलो कोण? वाचनाची आवड निर्माण जातली जाल्यार भुरग्यांनी शाळेंत वचून भाशेचो अभ्यास खोलायेन करचो पडटा. पालकांनी आपल्या भुरग्यांक मुळावें शिक्षण कोंकणिंतल्यान दिलेंना जाल्यार, कोंकणी भास, गोंयची अस्मिताय आनी संस्कृताय कशी तिगून उरतली हाचो विचार गोंयकारांनी केल्लो बरो.*

**हां**व जेन्ना भाशेचो विचार करतां, तेन्ना पुराय भारतदेश म्हज्या मुखार उबो रावता. अर्थांत म्हज्या ह्या विशाल भारतदेशाची लोकसंख्या शंबर कोटी मानली जाल्यार ह्या विशाल लोकसमुदायाकडेन सुसंवाद सादोवपाखातीर खंयचेय तरी एके सक्षम भारतीय भाशेची गरज आसा. ती जापसालदारकी आमच्या फुडऱ्यांनी हिंदी भाशेचेर सोंपयल्या. पूण भारतीयांनी तिका अजून आपणावंक ना. भारतीयांनी ब्रिटिशांक धांवडायले तरी तांचे भाशेक ते अजून वेंग मारून बसल्यात.

स्वभास कितलीय उणे दर्जाची आसली, तरी तिचो दर्जो वाडोवन तिचो उपेग राजकारभार चलोवपाक करप ही स्वाभिमानी आनी देशप्रेमी नागरिकांची लागणूक आसता. पूण आयज मेरेन ही गजाल ह्या देशांत घडूंक नाशिल्ल्यान समस्त भारतीयांक ती शरमेची गजाल जावन आसा.

खंयचीय भास चडांत चड लोकांक एकठांय हाडून आपली अशी खाशेली एक संस्कृताय घडयता. भास स्वतंत्र नासली तरी लोकसमुदायाचे गरजेक लागून ती तशी घडोवंची पडटा. आनी एकदां ती घडयली म्हणटकीर तिची राखण करप, सजोवन धजोवन तिचो दर्जो वाडोवन तिचो मोग करप, ती तिगोवन दवरप ही त्या त्या समाजाची लागणूक जावन आसता.

गोंय स्वतंत्र जावंच्या आदीं, गोंयची राजभास आसली पोर्तुगेज. अशें आसलें तरी दरेका गांवांत एकच पोर्तुगेज इस्कोल पळोवंक मेळटालें. हाचोच अर्थ असो, की पोर्तुगेजांनी ह्या प्रदेशाचेर साडेचारशें वर्सां राज्य करूनय गोंयकारांनी तांचे भाशेचेर केन्नाच मोग केलोना. तांच्या रगताक ती मानवली ना. थोड्या लोकांनी मोग केलोय जाल्यार ती एक फोर्मालदाद आशिल्ली. शासकांच्या दोळ्यांक उदक लावपाची.

हांगाच्या लोकांनी काळजांत सावन मोग केलो तो फकत कोंकणी-मराठीचेर. कारण ह्यो दोनूय भासो गोयंकारांच्या काळजाच्यो भासो आसल्यो. घरांत आनी आपसांत उलोवपाची भास कोंकणी आनी भौशीक माचयेर उबे रावन उलोवपाची भास आशिल्ली मराठी. ही रीत आशिल्ली गोंयच्या हिंदूंची. किरिस्तांव मात आडवाद सोडलो जाल्यार ना केन्ना मराठी शिकले, ना माचयेवेल्यान मराठी उलयले. ते जें कितें बरयताले तें एक तर पोर्तुगेजींत ना तर कोंकणींत. हांगा एक गजाल आमी लक्षांत घेवंक जाय, आनी ती म्हणल्यार कोंकणी आनी 'कोंकानी' ह्यो दोनूय भासो एक नासून त्यो वेगवेगळ्यो आसात, अशें म्हाका तरी दिसता.

पोर्तुगेज राजवटीच्या काळांत गोंयकारांक भाशावाद केन्नाच जाणवलो ना. मात गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत हांगा भाशावादान तांडवनृत्य सुरू केलें. हातूंत भाशेचो मोग उणो आनी राजकारणच चड आशिल्लें. गोंयकारांक खऱ्यांनीच आपले भाशेचो मोग आशिल्लो जाल्यार आयज गोंयकारांचें मुळावें शिक्षण कोंकणी-मराठींतल्यान जावपाचें. पूण आयज कोंकणी गोंयची राजभास जावन लेगीत गोंयच्याच लोकांच्या तेक्यात कोंकणीची सुवात इंग्लीशीन बळकायल्या. ही स्थिती जर अशीच फुडें चालू उरली, तर गोंयचें गोंयकारपण, गोंयची संस्कृताय काबार जावपाक चड वेळ लागचो ना.

परंपरेन मराठीच्या आदारान गोंयचे हिंदू आपल्या मुळाव्या शिक्षणाची गरज भागयत आयिल्ले. ही परंपरा फुडेंय तशीच उरची अशें तांकां दिसतालें.कोंकणींत फाव तितलें साहित्य आनी व्याकरण ना हाका लागून

कोंकणीक राजभास करपाक तांचो विरोध आशिल्लो.

हांगा एक गजाल आमकां मानून घेवंचीच पडटली आनी ती म्हणल्यार भाशा मनशांक जल्म दिना, मनीस भाशेक जल्माक घालता. धतरीवेल्या वेगळ्या वेगळ्या लोकसमुदायांनी वेगळ्यो वेगळ्यो भासो जल्माक घालून दवरल्यात. तांतली खंयचीच एक वायट आनी बरी अशी म्हणूं नज. कांय उदरगतीक पावल्यात तर कांय गोबरा पांगरूण घेवन पोल्ल्यांत मृतावस्थेंत पडिल्ल्या उज्याप्रमाण झेमत जगतात. तांतल्या एकेची खंयच्याय तरी एका लोकसमुदायाक गरज पडली, आनी त्या समुदायांतल्या एकाची तरी सक्षम फूंक तिचेर पडली, तर ती जागी जावन वयर येवंक शकता. हांगा प्रश्न आसा तो फकत गरजेचो आनी इत्सेचो!




गोंयची आवयभास कोंकणी, हें सत कोणूच न्हयकारूंक शकना आनी कोणेंय न्हयकारलेंच तर ताच्या फाटल्यान राजकारण आसा म्हणून. मराठीक गोंयची आवयभास म्हणपा फाटल्यानूय राजकारणूच भल्लां. तशें नाशिल्लें जाल्यार आयज मराठी शाळो बंद पडच्यो नासल्यो. सरकारी भरपूर अनुदान आनी सगळ्या तरेच्यो सवलती मेळुनूय पालक आपल्या भुरग्यांक मराठी शाळेंत धाडीनात हाचो अर्थ कितें? हाचो अर्थ असो की, हांगाच्या मुठभर लोकांक गोंयची अस्मीताय ना करपाची आसा. हांका ना कोंकणीचो मोग, ना मराठीचें प्रेम. हे दोन पंगडांनी उबे रावन कोंकणी मराठीचो द्वेश करतात, मात इंग्लिशीचे बाबतींत तांचें एकमत. कोंकणी-मराठीखातीर ते एकामेका आड लडले, विधानसभेंत राजभाशेचो कायदो पास करून घेतलो. तेउपरांत तांणी, राजभाशेक उबंत उडयली. अजून तिचो उपेग जायना.

आमकां दिशिल्लें, कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो मेळनाफुडें गोंयच्यो सगळ्यो मुळाव्यो शाळो एक तर कोंकणींतल्यान जातल्यो, ना तर मराठींतल्यान! पूण गोंयकारांच्या माथ्यार बशिल्ले इंग्लिशीक तकली हालोवन, तिका जमनीर आपटूंक कोणूच तयार ना. तिची अपुरबायूच चल्ल्या. असल्यांनी कोंकणीचो विकास कोण घडोवन हाडटलो? तिचो दर्जो कोण वाडयतलो?

आयज गोंयांत कोंकणी साहित्याची निर्मिती समाधानकारक जाता. पूण तें साहित्य वाचतलो कोण? वाचनाची आवड निर्माण जातली जाल्यार भुरग्यांनी शाळेंत वचून भाशेचो अभ्यास खोलायेन करचो पडटा. पालकांनी आपल्या भुरग्यांक मुळावें शिक्षण कोंकणिंतल्यान दिलेंना जाल्यार, कोंकणी भास, गोंयची आस्मिताय आनी संस्कृताय कशी तिगून उरतली हाचो विचार गोंयकारांनी केल्लो बरो.

वतां-वतां हांव एक गजाल स्पश्ट करतां. हांव कोंकणीची कड घेवन उलयतां खरो. पूण हांव कट्टर मराठीप्रेमी. ही गजाल म्हाका जे कोण वळखतात, तांका सगळ्यांक खबर आसा. राजभाशेचो कायदो पास जावचे पयलीं हांव कोंकणी आड लडलों. पूण कोंकणीक जेन्ना राजभाशेचो दर्जो फाव जालो तेन्ना सावन कोंकणी आड काम करपाचें हांवें सोडून दिलें. हाचें कारण, दोन पंगड जेन्ना मैदानाचेर कसलोय तरी खेळ खेळूंक उबे रावतात, तेन्ना एक पंगड जिंकता आनी दुसरो हारता. हार खाल्ल्या पंगडान जलमभर रडत बसप लोकशायेंतल्या शिस्तप्रिय खेळगड्याक सोबसारकें नासता. ताका तडजोड करून फुडली वाट धरची पडटा. ते बगर तांचेकडेन दुसरो पर्यायूच आसूंक शकना.

खरें म्हणल्यार म्हजे सारक्यांक कोंकणीक विरोध करपाची गरजच नाशिल्ली. कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोनूय म्हज्योच भासो. कोंकणी तर हेर खंयच्याय भासां पसर लागसारची. म्हजी आवयभास. पूण ती थोडच्यां लोकांची आशिल्ल्या कारणान आनी तांतल्या तातूंत द्वैतभावांचो आसपाव आशिल्ल्या कारणान ती गोंयची राजभास जावंक वेव्हारी दिश्टीन उणी पडटा अशें म्हजें मत आशिल्लें. म्हजेंच कित्याक, काळजांत सावन कोंकणीचो मोग करतल्यांक लेगीत ताची जाणविकाय आशिल्ली जावंक जाय. पूण ते उक्तेपणान उलोवन दाखयनाशिल्ले. हाचें कारण तांच्या मुखार मुखेल मोख आशिल्ली घटकराज्याची. कोंकणी राजभास जाल्याबगर गोंयांक घटक राज्याच्यो दर्जो मेळप शक्य ना, अशें खरेल्या कोंकणी मोग्यांक दिसतालें. ताका लागून कोंकणी भाशेचो दर्जो मागीर वाडोवया, आदीं घटकराज्य मेळोवया म्हणून ताणीं नेट धरलो. तांका येश मेळ्ळें. ह्या तांच्या येशाकच हांव व्हडलें जैत म्हणटां. कारण मराठी-मराठी म्हणत ज्यांनी सतरा वर्सां

गोंयचेर राज्य केलें, तांकां हरोवप हें लेच्यांपेच्यांचें काम न्हय!

म्हज्या मनांतली आनी एक गजाल म्हाका स्पश्ट करीनशी दिसता आनी ती म्हणल्यार वयर हांवें व्यक्तायल्लो कोंकणींतलो द्वैतभाव. हो द्वैतभाव कोंकणी चळवळी वेळार कोणेय मुजरत उक्ताडार हाडिल्लो तर कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो मेळपाक अवघड जावपाचें कारण देवनागरी लिपिंतले कोंकणीक किरिस्तांव आपली मानपाक तयार नाशिल्ले. तांकां ती मराठीच दिसताली. तरी ताणी घटकराज्या खातीर कोंकणी-कोंकानीचो तात्पुरतो एकवट घडोवन हाडलो. घटक राज्याचो दर्जो मेळयल्या उपरांत काम जालें वैज मेलो म्हणटात ते प्रमाण रोमी कोंकणीवाल्यांनी आपलो दाव सादलो. तांचो एकवट जर घटकराज्या उपरांतूय अतूट आशिल्लो तर राजभाशेच्या विकासाविशीं दुबाव घेवपाक कोणाक कारण नाशिल्लें.

हांव राजकारणी न्हय. हांव एक शिक्षक. राजकारणांत उडी घेतल्यार खिणाक खोल्ले जावपाचों. म्हाका म्हज्या देशाचेर आनी देशाच्या संस्कृतायेचेर चड मोग. म्हज्या गोंयची अस्मिताय आनी भारताची संस्कृताय तिगोवन धरपाक सक्षम आनी दर्जेदार भाशेची गरज आसा, अशें म्हजें मत. म्हजी आवयभास कोंकणी जर भारतीय संस्कृतायेचें रक्षण करपाक उणी पडटा, तर म्हाका हेर खंयचीय भास उपकारता. ती मागीर मराठी जावं ना तर हिंदी.

आयज राजकारणी, विधानसभेचे वांगडी, मंत्री आनी शासनाचे जबाबदार अधिकारी उलयतना राजभाशेकडेन लक्ष दिनांत हाची खंत भोगता. बरी भास ही आपले सभ्यतायेचें दर्शन घडयता. दुसऱ्यांचीं मना जिंकता. पूण चडशा गोंयकारांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ली कोंकणी एक तर आयकुप्यांक हांसयता ना तर राग हाडटा. हें अशें घडपाक कोंकणी ही फकांडांची, अशिक्षितांची आनी कसलोच दर्जो नाशिल्ली भास जावन आसा, असो गोंयच्या आनी गोंयां भायल्या कांय लोकांचो गैरसमज जाल्लो आसा. आनी हो गैरसमज करून दिल्लो आसा कोंकणी उलोवपी आयच्या गोंयकारांनी!

आयज गोंयकारांक आपली अशी खंयचीच भास उरूंक ना. कोंकणी उलोवपी कारवारकारांक, मंगळूरकारांक, मालवण-वेंगुर्लेकारांक भास आसा, मात भविष्यकाळांत भाशेच्या बाबतींत उबंत पडटले ते गोंयकार. तांकां मराठीय आसची ना आनी कोंकणीय. आसतलें तें कोंकणीच्या नांवान पोर्तुगेज-इंग्लेज, कानडी-मराठी उतरांचें खतखतें! ह्या बेचव खतखत्याक उबगून गोंयकारांक इंग्लिशीक वेंग मारून बसल्याशिवाय दुसरो पर्यायूच आसचो ना.

ही परिस्थिती ना करतले जाल्यार गोंयची कोंकणी संस्कृताय तिगोवन थेयतले जाल्यार एकूच उपाय आसा, आनी तो म्हळ्यार कोंकणी भाशीकांची संख्या वाडोवन, आपल्या संस्कृतायेविशी-कोंकणी भाशेविशी मोग आशिल्ल्यां जनसमुदायाचें विशाल अशें कोंकणी राज्य स्थापन करप. मात ह्या नव्या राज्याचें केंद्रस्थान गोंय आसप गरजेचें आसा.

गोंयूच कित्याक? हाकाय कारण आसा. गोंयकार उबंत पडल्यात तशे हेर कोंकणी भाशीक उबंत पडूंक नांत. केरळकारांक मल्याळमचो, कर्नाटकाक कानडीचो तर महाराष्ट्रांतल्या कोंकणीक मराठीचो आदार आसा. कोंकणी नासली जाल्यार ह्या भायल्या राज्यांचें कांयच लुकसान जावपाचें ना. जातलें तें गोंयकारांचें कारण पोर्तुगेजीन आनी आतां इंग्लेजीन गोंयचे कोंकणीचेर अत्याचार केल्यात. 'कोंकानी'ची निर्मणी जाल्या ती पोर्तुगेजीकच लागून. हें अशेंच चालू उरल्यार, आमचें गोंयकारपण आनी गोंयची आस्मिताय नश्ट जावपाक चड वेळ लागचो ना.

खंयचेय भाशेक आपली अशी खाशेली अस्मिताय आसता, भास ती बोली आसूं मागीर! ती विद्वानांनी उलयली कितें, आनी गांवढळांनी उलयली कितें, तांतूंत सगळे तरेच्यो मानवी भावना व्यक्त करपाची क्षमता आसताच. असले भाशेचेर जेन्ना विद्वानांची आनी बुदवंताची कृपादिश्टी पडटा, तेन्ना तिचें भांगर जावंक पावता. लोकांक ते भाशेची गरज मात पडूंक जाय.

गोंयचे कोंकणीचेंय तशेंच घडलां. एका तेंपार चेपणाक पडून आशिल्ली गोंयची कोंकणी आयज तकली वयर काडटा. साहित्याच्या मळार तिणें अपेक्षेपरस चड काम केलां, हातूंत मातूय दुबाव ना. पूण भौसीक मळार मात ती खूब फाटीं आसा. हाचें कारण आतांचे पिळगेक स्वभाशेचें म्हत्व दाखोवंक आनी पटोवंक, सोताक जाण्टे म्हणपी उणे पडटात.

मनशाचे भाशेवेल्यान मनशाच्या कुळाची आनी संस्कृतायेची जाणविकाय मेळटा. जी भास आयकूंक गोड, म्होवाळ, मोगाळ आनी मायेस्त लागता, तीच भास दर्जेदार आसता. खंयचीय भास कितलीय विद्वत्तापूर्ण आसली म्हूण तिका वयलो दर्जो फाव जायना. ती भास आयकुप्यांक माया-मोग दाखोवन सूख दिता ती खरेली दर्जेदार आसता.

एका तेंपार सभ्यतायेन भरिल्ली, संस्कृतायेचो आदार आशिल्ली कोंकणी भास आयज आमकां आयकूंक मेळना. आमच्या भुरगेपणांत ल्हान-व्हडांच्या तोंडांतल्यान बरी आनी शिस्तीचीच भास भायर पडटाली. 'अरे-तुरे'ची भास चलताली ती फक्त इश्टांमदें. म्हज्या कुटुंबाचीच देख दिली जाल्यार म्हजे आज्जेन म्हज्या आज्याक 'रे' केन्ना म्हळो ना. ती 'रे' चे पावटीक 'गा' म्हणटाली. 'गा' च्या सांगताक 'मू' चोय वापर करताली.

जें म्हजे आज्जेन केलें, तेंच म्हजे आवयनूय केलें. जें म्हजे आवयन केलें, तेंच म्हजी घरकान्नूय आयज करता. ताका लागून लोकांले भुरगे आपल्या बापायक 'आरे-तुरे' करतात तशें म्हज्या भुरग्यांनी म्हज्या घरांत केन्नाच केलें ना. म्हजीं नातरांय घरांत आरे-तुरे करिनात.

जें म्हज्या घरांत आयज चलता, तेंच एका

तेंपार गोंयांत पोर्तुगेज राजवट आसुनूय चडशा ल्हानव्हडांच्या कुटुंबांत चलतालें. फकत हिंदूच्याच न्हय तर किरिस्तावांच्याय बी. बापायन पुताक उलो माल्लो जाल्यार 'पाय गा' म्हूण जाप मेळटाली. सगळेकडेन 'बाय-बाबा' म्हूण पाचारप जातालें. एका-मेकांकडेन ल्हानविकायेन दीस काडपाचें शिक्षण मेळटालें. कोणाक काका, कोणाक बाबा, कोणाक मामा, कोणाक मावशी म्हणपाक व्हड ल्हानांक शिकयताले. आनी आतां? आतां पावलां कणकणी कोंकणीच्या नांवान मदांदकायेचीं उतरां.

कोणूय म्हणटलो, बायलेन घोवाक 'आरे-तुरे' केल्यार व्हडलें-शें कितें बिगडटा? आतां जमानो बदल्ला. घोवां-बायलांमदें समानताय आयल्या. घोवूय जोडटा, बायलूय जोडटा. दोगांय शिकल्यांत. बायल इल्ली घोवापरस चडच शिकल्या. मागीर बायलेन आपल्या घोवाक 'आरे-तुरे' केल्यार कितें जालें?

तशें कायंच जायना. पूण आमची गोंयची संस्कृताय शिकपा-जोडपाच्या समानतायेचेर निंबून ना. लग्न जायनाफुडें तांका दोगंकूय वांगडाच समानतायेचो हक्क फाव जाता. आनी तीं दोगांय सगळेच बाबतींत समान आसलीं म्हूण ताणीं एकमेकांक मान रेस्पेद दिवंचो न्हय, अशें खंय आसा?

शिक्षण हें दुसऱ्याचेर अधिकार गाजोवपा खातीर नासता. तें मनशाक दुसऱ्याकडेन नमळतायेन वागूंक शिकयता. ताका लागून शिकिल्ल्या घोव-बायलांनी एकामेकांकडेन रेस्पेदान वागपाची गरज आसा. बायलेनूच न्हय तर घोवानूय आपले बायलेक मानान वागोवंक जाय.

हें हांव नवें कांयच बरयना. आमची गोंयची संस्कृताय गोंयकारांक हेंच शिकयता. आमच्या जाण्टेल्यांनी आपल्या बायलांक मानान वागयल्यांत. घरकान्नीची पदवी दिवन तांच्याखातीर 'गे' हें मानाचें उतर वापरलां. ती अशिक्षीत आनी अन्नाडी आसली तरीय आमी घरकाराक तो पिसो आसूं मागीर 'गा' ह्या उतरान सन्मानीत केला.

तें इतल्यारच थांबना. गोंयची कोंकणी संस्कृताय उतरांनी कोणाक कसो सन्मानीत करचो, हें दाखोवन दिता. हो समाज पुरुशप्रधान म्हूण कोणेंय कितलीय बोब मारली तरी ती खरेली गजाल जावंक शकना. आमची भारतीय संस्कृताय पयलो मान आवयक दिता, दुसरो बापायक आनी तिसरो गुरूक! अर्थात समाज आनी राष्ट्र घडोवपाची जापसालदारकी सैमान मातेचेर सोंपयल्या. आवयन भुरग्यांचेर सुसंस्कार केल्यारच आमचो देश बळीश्ट जातलो. ते पासत देशाक बळीश्ट करून तो तिगोवन धरपाचें काम मातेचें. माताच माथेंघुंवळी जाली जाल्यार बापूय खंय तिगतलो? ताकाच लागून म्हणचें पडटा आमचो समाज पुरुशप्रधान नासून अस्तुरीप्रधान आसा. आनी तो तसोच तिगून उरूंक जाय. बऱ्या आनी शाण्या अस्तुऱ्यांची सत्या प्रत्येक घराब्याचेर चलूंक जाय. एका

तेंपार आमच्या बायलांनी तें केलां. म्हणून गोंयची भास आनी संस्कृताय आयज मेरे तिगून उरल्या. थोड्या प्रमाणांत जावं ती मागीर.

पूण आयजच्यो गोंयच्यो बायलो शिकून पिसावल्यात. आपलें दायज विसरून गेल्यात. त्यो एका तेंपार 'आवय', 'बा', 'बो' बी आशिल्ल्यो बायलो आयज इंग्लेज शिकून 'मम्म्यो' जाल्यात. भुरग्यांकडल्यान तांकां आपल्याक मम्मी, आण्टी म्हणून घेवपाक व्हडपण दिसता. सूख भोगता! पूण ह्या फुडें तांकां शाण्यो जावपाची गरज आसा. 'आवय' 'बो' 'आई' बी म्हणोवन घेवंक उणेपण दिसता, तर भुरग्यांक आवयक 'मा' म्हणूंक लावची. आमकां मम्मीपरस 'मा' व्हड. आमचे राष्ट्रभाशेंतलें उतर तें. 'मा' गोंयची कोंकणी भास, गोंयची अस्मिताय, संस्कृताय बरेभशेन तिगोवन दवरूंक शकता.

गोंयच्या बायलांनी खूब शिकचें. वयल्या पावंड्यावेलें शिक्षण इंग्लेजींतल्यान घेवंचें. पूण तांणी आण्टी-मम्मी जावपाचो नाद सोडून दिवंचो. बाबाक 'डॅड' करचो न्हय. तशें केल्यार गोंयचो कोंकणी समाज आनी तांची कोंकणी भास खऱ्यांनीच 'डॅड' जातली-मरून वतली. ती तिगोवपाक चड करून गोंयच्या बायलांनी गोंयच्या दायजाचो अभ्यास करून, बरी कोंकणी शिकून ती फुडले पिळगेकडेन सोंपोवपाची गरज आसा.

हें भाशापुराण सोंपोवचे पयलीं एक अणभव सांगतां. शाळेच्या एका कामाखातीर दिल्लीक गेल्लों. वांगडा कांय शिक्षक आनी हेडमास्तरूय आसले. सात-आठ वांगड्यांचें सामान व्हरपाक गाडयेची गरज आशिल्ली. घोड्यांगाडी केली. गाडयेकार सीख आशिल्लो. खाड आनी मुंडासो आसा म्हूण सीख! ना जाल्यार ताका गोंयांत शेतांत काम करपी मानाय म्हणपाचो.

सगळें सामान भरल्या उपरांत गाडी लागली धावूंक. इतल्यांत आमचो हेडमास्तर आड्डलो ''हेय किदर धावता है रे, थांबो-थांबो. देखता नही, इदर एक बॅग रखेला है।'' आमचो हेडमास्तर कपड्यांनी झेतार आशिल्लो. पूण ताचीं उतरां आशिल्लीं मदांद कायेचीं आनी गांवढळ. तीं आयकून सीखाक माल्लो सणसणो. म्हणूंक लागलो, ''साब, तमीजसे बात किजीए। हम गरीब जरूर है, लेकीन इज्जतदार है।''

आमचो हेडमास्तर वायट मनाचो नाशिल्लो. पूण ताका 'तमीज' कोणेंच शिकोवंनाशिल्ली. ताणें गोंयच्या बसकंडक्टरांची देख घेतिल्ली जावंये! सीख अशिक्षित आसूनय 'तमीज' बाळगून आशिल्लो. आनी आमचो गोंयकार हेडमास्तर एम.ए. बीएड्. आसून लेगीत त्या सीखाचे दिश्टीन तो अन्नाडी ना तर मदांद आशिल्लो.

तो सीखाकडेन उलयलो तसोच आपल्या शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांकडेन, आपल्या शिक्षक वांगड्यांकडेन बी उलयतालो काय? हाचो म्हाकां दुबाव मारता.

खूबशा गोंयकारांनी आपलो गैरसमज करून घेतला. तांकां दिसता एकेरी कोंकणीत आपुलकाय आस्पावल्या आसत घडये. ही पळवाट्य आसूंक शकता. पूण परक्यांकडेन, जाण्टेल्यांकडेन, मानेस्तांकडेनय तुमी आरे तुरेच करतले? अशें केल्यार तांकां मानवतलें? तांचो अपमान जावंचो ना? विद्यार्थ्यांनी आपल्या शिक्षकांकडेन आरे तुरेची भास उलयल्यार चलत? कार्यालयांतल्या चाकरांनी आपल्या धनयांकडेन, अधिकाऱ्यांकडेन 'यो रे- बस रे, उठ रे' अशें केल्यार सोबत?

आमच्या आवय-बपायन आमकां अशें शिकोवंक ना. शाळांनी आनी आमच्या तेंपावयल्या जाणट्यांनीय तशें केन्नाच शिकयलें ना. मागीर हें उर्मटपण आतांच आयलें खंयच्यान?

हाका जबाबदार भुरग्यांचे आवय-बापूय आसात. घोव-बायलां जर एकमेकांकडेन मान-रेस्पेदान वागलीं, तर तांची देख भुरगीं घेतात. भुरग्यांकडल्यान ती देख समाजांत पावता. ताका लागून भुरग्यांच्या शिकिल्ल्या आवयांनी कोंकणी दायज शिकून घेवचें आनी स्वताचे देखीन तें हेरांकडेन पावोवंचें!

हिंदी भाशीकांकडल्यान एक बरी देख घे सारकी आसा. उच्च आनी मध्यम कुळांतले लोक, आपल्या भुरग्यांकडल्यान बरे भाशेची अपेक्षा करचे परस, आवय-बापुयच भुरग्यांकडेन मानान उलयतात. 'आप' ह्या आदरार्थी सर्वनामाचो उपेग करतात. ताका लागून भुरग्यांक हेरांकडेन आदरान उलोवपाची सवंय जाता.

हें कोंकणी पुराण सोंपयतां सोंपयतां हांगा म्हाका आनीक एक गजाल सांगीनशी दिसता. ती म्हळ्यार गोंयची. कोंकणी आयज गोंयकारांच्या हातांत उरूंक ना. ती बाजारकारांच्या हातांत पडल्या. आनी हे बाजारकार गोंयचे उरूंक ना. ते कानडी, केरळी, महाराष्ट्रीयन आनी यु.पी.चेय आसात. हे सगळ्या जाती धर्माचे लोक आपापले पद्धतीन कोंकणीचो इबाड करूंक लागल्यात. तांच्या कचाट्यांतल्यान कोंकणीक सोडयतलो कोण? नीज गोंयकारांक तर निजाची भास उलोवंक लज दिसता!

एका शाह नावाच्या सी.ए. कडे येवप-वचप जातालें. तो म्हजेकडेन मुजरत कोंकणी उलयतालो. पूण ही कोंकणी तो बाजारकारांकडल्यान शिकिल्लो जावंये. ताची कोंकणी म्हाका अपमानीत करताली. एक दोन फावट सोंसली. मागीर झुपाटी दिनासतना ताका बरेभशेन समजायलो, म्हळे, 'बाबा रे, ह्या फुडें तूं म्हजेकडेन हिंदी उलय, इंग्लीश उलय, पूण कोंकणीचे भानगडीक पडूं नाका.'

म्हजें स्पश्टीकरण आयकून ताका शेळो घाम सुटलो. आपूण कोंकणी उलोवन व्हडलें पाप करतालों, हें आतां ताका कळून आयिल्लें. हांवें ताका फुडल्या संकश्टांतल्यान साल्वार केल्लो. ताणें म्हजे उपकार मानले.





- **नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७



## कविता - १

हांव खेळटां शब्दांवांगडा
केन्ना लिपचेल्यांनी
केन्नाय धांवचेल्यांनी
शब्द फुडें हांव फाटीं
शब्द म्हज्या हातांत येतां येतां
हातांतले सुट्टात
खेळांचे नेम तांकां लागनात
ते मानिनात बंधना
शब्द धांवतात आपलेच तनरेंत
जाय थंय जाय तशे......
हांगा कोण खेळयता कोणाक?
हांव शब्दांक
काय शब्द म्हाका.....?

## कविता - २

म्हजे भोंवतणी
लोकांचें भिरें
तरीय हांव एकटें
हांवें विणिल्ल्या
शब्दांच्या कोशाभितर
म्हज्या एकलेपणांत
म्हाका सांगात
म्हजे कवितेचो
आनी
म्हजे कवितेक सांगात
म्हज्या एकलेपणाचो

## कविता - ३

म्हजी कविता
कवितेची
फास्की मोडून
उडूंक सोदता
उगत्या मळबांत
हांव दवरतां
तिका फास्कैंत बांदून

एक दीस
म्हजी नदर चुकोवन
ती सरता भायर
फास्की मोडून
आंगाक लागिल्ल्या
मेकळ्या वाऱ्यान
ती मनांतल्यान
फुलून येता
फुलांबशेन प्रसन्न

सवण्यांवरी चिंवचिंवत
भोंवतां हांगा थंय
कोण तिका हांसता
कोण तिका तोखेता
कोण नांवांय दवरता
ती मात मनमेकळी......

## कविता - ४

मनाचे पडींग भुंयेर
कृष्ण कुपांचें गच्च मळब
जोगलां फुटून घसघसता
उमाळ्यांचें वादळ
अच्छेव कांडीत येता
बुचकळायता झंझाळायता
मनाची रिती तळी

उपरांतच्या किण्ण शांततायेत
खोल वोले मातयेंतल्यान
रसरसून वयर सरतात
म्हजे कवितेच्यो वळी

## कविता - ५

तांणें म्हळें -
कितें बरयता?
हांवें म्हळें -
कविता
ताणें म्हळें-
कसली कविता बरयता?
हांवें म्हळें -
पावसाची
ताणें म्हळें -
कित्याक कविता बरयता?
कवितेंत बिवितेंत कांय अर्थ ना
भायर सर ह्या अक्षर वनांतल्यान
चल म्हजे वांगडा
हांव व्हरतां तुका
सैमाच्या पोरसांत
भिजयतां तुका पावसांत
न्हाणयतां तुका मोगान
तिश्टायतां तुका विरहान
मागीर तूंच म्हणटलें -
कविता बरोवपाची नासता
ती जियेवपाची आसता
– आतां हांव कविता बरयना
कविता जियेतां

**– हर्षा शेटये**
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डे-गोंय
फोन-९८५०५३०१५२

मोलावणी

# काव्योत्सवातली तिसरी कवयित्री : राधा भावे

- एस. डी. तेंडुलकार

काव्योत्सवांत फकत कवयित्रींनीच भाग घेतला काय किर्ते? कारण सुर्वेक अल्का सिनाय असोळडेकार, ताच्या उपरांत रोमा लाड आनी आतां राधा भावे.

पूण कितेंय जावं, ह्या तिगांत कवयित्री राधा भावे हांकांच खरें कवितेचें आंग आसा. तांच्यो जानेवारी 'बिम्बां'तल्यो पांचूय कविता ताची गवाय दिवाच, पूण तांचो मराठींत उजवाडा आयिल्लो 'उमलताना' हो संग्रह वाचतना लेगीत हेंच जाणवता. कवितेची लय, नाद, आशय, उतरांचें वजन हांचें तांकां जबरदस्त भान आसा. कोंकणींतली मोठी कवयित्री जावपा इतली तांची शक्त आसा.

खरें म्हळयार आज कोंकणी कवितेच्या मळार ताकदीची कवयित्री दिसचना. नयना आडारकार, नूतन साखरदांडे, ग्वादालूप डायस हांणीं कांय बऱ्यो कविता बरयल्यात हें मान्य. पूण तांचे कवितेंत उत्कृश्टतेचें सातत्य दिसना. शंबर वायट कविता बरयल्या उपरांत केन्नातरी एक कविता बरी बरोवप हें ताचें प्रमाण दिसता. उलट राधा भावेच्यो जितल्यो कविता हांवें वाचल्यात तातूंत बऱ्या कवितेचें सातत्य सदांच पळोवपाक मेळटा. म्हाका दिसता राधा भावे ही आयची 'यशस्वी' कवयित्री. ('यशस्वी' आनी 'महत्वकांक्षी' हातूंत हांव समिक्षक म्हणून सतत फरक दाखयत आसतां हें शिटूक रसिक-वाचप्यांच्या लक्षांत येतलेंच)

बिम्बांतल्यो तांच्यो 'सांग कशें', 'कृष्णा तूं धांव', 'काळजाच्या दवरण्यार', 'रूपड्यांचो खेळ' आनी 'मोनेळ' ह्यो पांच कविता वाचल्या उपरांत 'यशस्वी' कवितेचो संस्कार मनार जाता. देखीक,

१.

तुजी भुलयता ओड  
आनी जीणच जाली गोड  
म्हज्या जीवाच्या उल्याक दी गो  
तुज्या उल्याची जोड

२.

काडत आसा तरीय कशी  
म्हणूं वर्जी जड  
इतलेंच मागतां जावं दी म्हजें  
मन खोल काळीज व्हड

३.

पाकळ्यांनी घाले घाय  
सांगलें नांव फातराचें  
उरले नांत कांय खंयच  
कोणूच खऱ्या उतराचे

ह्या कवितेंत एक भावूक व्याकुळता आसा, त्या खातीर रसिकां कडेन ती सोमथीच कम्युनिकेट जाता. भावनाच हांगा प्रतिमांचें रूप धारण करून कवितेंत रूपांतरीत जातात. देखीक,

**मोनेळ**

ल्हवू ल्हवू वाडत वचपी  
उण्या दाबाचो पट्टो  
उटंगार पावसाची शक्यताय  
वादळा आदीची खर शांतताय

मोनेळ वा मौनाच्या तळाकडल्यो स्फोटक गजाली 'मोनेळ' हे कवितेंत कवयित्री सामर्थ्यान व्यक्त करता. मोनेळाच्यो वेगवेगळ्यो प्रतिमा मांडून जीणेविशींची एक प्रगल्भ जाण ही कविता सिध्द करता. आनी तें करताना तातूंत कसलोच उतरांचो खेळ वा 'इंटलेक्च्युअल' अविर्भाव ना. 'पारंपारिक' आनी 'नवता' हांच्या सीमेरेशेर ही कविता वावरता.

'सांग कशें' हे कवितेंत कवयित्री जीणेविशीची क्युरिओसिटी समर्थपणान व्यक्त करता, जाल्यार 'कृष्णा तूं धांव' हे कवितेंत जीणेविशीचो संभ्रम तितलेच ताकदीन येता. 'काळजाच्या दवरण्यार' हे कवितेंत तर सामाजिक जाणविकाय आत्मनिश्टतेचे पातळीर कवयित्रीन मांडल्या. पूण हीच सामाजिक जाणविकाय सामाजिक संदर्भांतूच मांडपाचो यत्न ती 'रूपड्यांचो खेळ' हे कवितेंत करता. तांची 'मोनेळ' ही तर एक जीणेचीं वेगवेगळी परिमाणां मांडपी कविता. ह्या पांचूय कवितांत राधा भावे हांचो कवयित्री म्हणून एक उंचेलो स्टेटस दिसता. तांतल्या तातूंत 'कृष्णा तूं धांव' हे कवितेंत 'Between the lines' खूब आयल्यात आनी त्यो लाईन्स काव्यात्मक ताण वाडयतात. हो काव्यात्मक ताण रसिकांक परत- परत खुणायता. त्या खातीर ही सबंद कविताच पळोवया :

उतरांनी बांदून येना  
मन वाऱ्यार घालूंक येना  
आसून नासून सारकेंच  
हे काळजांतले भाव

खिणाखिणांत गुंतलीं जरी  
हावेसाचीं फुलां  
जीण जपता तुटिल्ल्या  
सपनांची माव

आलतड तर सोडल्या  
पलतडय दिसना  
आत्म्याची लज राखूंक  
कृष्णा तूं धांव

जीणेविशीचो संभ्रम हे कवितेंत व्यक्त जाला हें हांवें वयर म्हणिल्लेंच आसा. पूण ह्या संभ्रमा वांगडाच जीणेचें आत्महरण हो पदरूय ताका आसा. हांगा 'आलतड तर सोडल्या'ही वळ 'लज तर सोडल्या' हो ध्वन्यर्थ घेवनूच आयल्यासारकी दिसता, कारण फुडें कवयित्री म्हणटाच की 'आत्म्याची लज राखूंक कृष्णा तूं धाव'. ही वळ वाचून महाभारतांतलो द्रौपदीवस्त्रहरणाचो प्रसंग हांगा उगडास जाता आनी हे सबंद कवितेक एक नवें परिमाण मेळटा.

हे काळजांतले भाव
सपनांची माव
कृष्णा तूं धांव

हांच्या मर्दी आयिल्ले 'पोएटीक गॅप्स' रसिकांक आपल्या कल्पनेन भरून काडपाक ही कविता प्रवृत्त करता. बरे कवितेचें लक्षण तें हें. हातूंत 'सपनांची माव' सारकी व्यामिश्र आनी तरल प्रतिमा कवयित्री सहज बरोवन वता. ताचे वेल्यान ही कवयित्री फुडें 'महत्वकांक्षी कविता' बरोवंक शकतली आनी कोंकणी काव्य परंपरेन मोलाची भर घालूंक पावतली अशी आस्त बाळगूं येता.

खरें म्हळ्यार, यशस्वी कवी चलत आयिल्ले व्याख्येप्रमाण कविता बरयतात. उलट महत्वकांक्षी कवी आपले दर एके कवितेंत कवितेची एक नवी व्याख्या मांडपाचो यत्न करतात. आतां ही प्रगल्भता राधा भावे हांचे कवितेक अजून येवपाची आसा.

राधा भावे हांचे कवितेची शब्दकळा नाजूक. तांचे कवितेंत मळब, वारो, सपनां, काळीज, फुलां पाकळ्यो बीन भावकवितेक लागीं अशीं सदचींच उतरां, प्रतिमा येतात. पूण त्यो एके व्याकुळतेन आयिल्ल्या कारणान झरलेल्यो दिसनांत, सांकेतीक दिसनांत, हें हे कवितेचें मोटेंच यश म्हणचें पडटलें. जरी ती सद्या यशस्वी कवितेच्या रिंगणांत वावुरता. तरी तिची झेप महत्वकांक्षी कवितेकडेन आसा हें जाणवता.

महत्वकांक्षी कविता खंयची? जी सतत भाशीक शक्यतांचो सोद घेयत रावता ती. एक वेळ रसिकांकडेन लेगीत ती फटकून रावतली. पूण ह्या भाशीक शक्यतांच्या सोदांत ती आपल्या अणभवाकडेन मात एकदम प्रामाणिक रावतली.

देव आहे ऐसी वदवावी वाणी
नाही ऐसा मनी अनुभवावा

-असलो तुकारामाचो भेदक प्रामाणिकपणा थंय आसतलो. महत्वकांक्षी कविता ही परंपरा वेंगेंत घेवन नवतेकडे झेप घेयत आसता. एकूण भाशीक काव्यपरंपरेंत मोलाची भर घालीत आसता. ते नदरेन मर्ढेकर, पु. शि. रेगे, अरूण कोल्हटकर, दिलीप पुरूषोत्तम चित्रे हे मराठींतले महत्वकांक्षी कवी आशिल्ले अशेंच म्हणचें पडटलें. कोंकणींत ही महत्वकांक्षा बाकीबाब बोरकार, रमेश वेळुस्कार, अरूण साखरदांडे ह्या कवींत दिसता.

हालीं कोंकणींत पुरस्काराचेर नदर दवरून साहित्य निर्मणी जाता. डिसेंबर म्हयनो आयलो की कोंकणी लेखक-कवींक दिल्लीच्या साहित्य अकादेमी पुरस्काराचे वेध लागतात. तेंच कित्याक कोकणींत 'इंस्टंट' पुरस्कार मेळटात म्हणून मूळ मराठींत बरोवपी कांय लेखक-कवी पुरस्कार मेळटलो हे आशेन कोंकणींत एखादें रद्दी पुस्तक बरोवन उजवाडा हाडटात. अशा वातावरणांत सकस साहित्य निर्माण जावंक पावचेंच ना. आतां यशस्वी साहित्यिक जावपा खातीर पुरस्कार मेळोवप हो एक वेवहारीक मार्ग आसताच. पूण अस्सल महत्वकांक्षी लेखक-कवी असल्या वेवहारी मार्गांत केन्नाच वचचेच नांत. असल्या पुरस्कारांक व्हडली किंमतूय दिवचे नांत. जिणेंतलीं सुखदुख्खाचीं वजीं माथ्यार घेवन समाजा खातीर मुल्यात्मक साहित्य निर्मिती करप होच तांच्या खातीर मोटो पुरस्कार आसतलो. मुल्यात्मक बरोवप हीच तांची महत्वकांक्षा आसतली. त्याखातीरूच राधा भावे हांकां म्हजें सांगणें आसा की तूं यशस्वी कवयित्री आसाच पूण महत्वकांक्षी कविता बरोवपाचें ध्येय दवर. 'बिम्ब' काव्योत्सवांत तुका पुरस्कार मेळ्ळो म्हणून तूं कितें मोटी कवयित्री थरची ना. वा ना मेळ्ळो म्हणून तुजे कवितेचें मोल उणें जावचें ना. पुरस्कारांचेर कवितेचें मुल्य थरना.



# नरेंद्र बोडके हांच्यो पांच कविता

१.
मर्णा,
भियेड्ड्या,
तू इतल्या सकल्या पावंड्याचेर
पावलंय?
तोंडार काय उलौवपाची
तांक जालीना तुका?
जनमेजयाच्या बोरांत कीड
आनि आता एका कवीच्या
किडनींत पीड...
हांव रावतालों
तूं सामकार मेळटलो
आणि फाफुडटलो म्हणून
आनि तुवें
सकयल मान घालून
हो असो वार केलो
भियेड्ड्या...

२.
गौरी म्हणटा,
रड्टाय कित्याक?
हांव तुका म्हजी किडनी दितां
आमी मर्णाक फटोवया
तो येयला
तुज्या किडनीच्या पालखींत बसोन
पूण तुजेसरीन पावचे पैलींच
ताजी पालखी जातली
ताडीबिडीशुडी...
गौरीन तुका ओळखूंक ना,
सभाग्या,
तें आपणावरी तुकाय
बरो मनीस समजता,
बाबडें...

३.
कोणे कोणे
किर्देकिर्दे म्हटलें
हांवें सगळें सोसलें
एकट्यान म्हटलें,
तो बोडके मरे?
तो व्हाइटकॉलर गुंड्डा
हांव कॉलर टाइट करून भोंवलों
आनी एकट्यान म्हटलें
तो कवितेचो पाडेली
हांव कवितेचो नाल्ल वाजोवन पळयत रावलों
मर्णा,
तूं मात रेंदेर कसो
आमच्या सगळ्यांच्या गळ्यात मडकें लावन रावला
आमी थेंब थेंब गळटां
तुका सूर मेळटा.

४.
मर्णाविशीं लोक बरैतात
तें अशें येवंचें तशें येवंचें
मर्ण मुमुरख्यांनी हांसता
कोणी म्हणटात ताका इष्ट
कोणी बँड वाजयत व्हरतात डेड बॉडी
कोणी बाबडो भियेवन आबूज जाता
कोणी खबर नास्तना सोंपता
ॲनिमल मॅग्नेटिझमचें तत्व सांगताः
सोरोप फणा उबारता तेन्ना
हुंदीर आपशींच दोळे धापता...

५.
उप्रान्त...
हांव नासतलों
एका श्वासाच्या पलतडी
पूण मनीस आसतलोच कांय अब्ज वर्सां
उप्रान्त तोवूय नासतलो....
फकत पृथ्वी आनि कांय प्राणी
उप्रान्त पृथ्वी लेगीत नासतली
सूर्य लेगीत
उप्रान्त...
किर्ते आसा आनि किर्ते ना
हाची जाणीव नासतली
एक अनोळखी काळोख आसतलो
जो सगळ्या अस्तित्वाचो बापूय...

– **नरेंद्र बोडके**
पुणे
फोन : ९९२२४०४९६३

## नव्या वर्सा ........

पोरणें वर्स सोंपलें
कशें सोंपलें कळ्ळेंच ना
खूब कितें करचें आसलें
कांयच करूंक जमलें ना
नदरे मुखार तेच देखावे
तेच विचार, तोच हुस्को
तेच प्रस्न, तीच निर्शेणी
तीच तिडक, त्योच विवंचना
दिशिल्लें, सगळें बदलतलें
पूण कांयच बदल्लें ना
खूब कितें करचें आसलें
कांयच करूंक जमलें ना
सिस्टम बदलूंक जाय
वर्सभर म्हणत रावलों
म्हारगाये आड झुजूंक जाय
दीसभर बडबडत रावलों
सिस्टम बदल्ली ना
म्हारगाय देंवली ना
दुडू मात खूब जोडले
घरांत कांयच हाडलें ना
खूब कितें करचें आसलें
कांयच करूंक जमलें ना
दीस सरले, म्हयने उलगले
कशे गेले कळ्ळेच नात
कॅलेंडराचीं पानां परतलीं
सुखाचीं तोरणां देखलींच नात
तीच तारीख, तेच वार
आलटून पालटून बसले
दुख्खरुपी जखमेचेर
फूक मारीत रावले
पोरणें गेलें, नवें आयलें
केन्ना आयलें गोमलेंच ना
खूब कितें करचें आसलें
कांयच करूंक जमलें ना

– अतुल पंडित
मडगांव – गोंय

## वेल शाणी

इल्लीशी पांचुली वेल शाणी
झर्र... झर्र चडली झाडा तेंगशेर
खिणांत हांसली खिणांत सावरली
मनांत विचार करी
कशी पावली इतली इतली उचायेर
बीं आशिल्ली ती
आवयचे कुशींत
सर्र... सर्र पावस येतांच
ओले मातयेचे कुशींच जल्मल्ली
सूर्य किर्णां अनी मेळटांच उत्तेजनां
पांचव्या पनांनी वाडलेली
वेल शाणीं



–प्रितेश मंगेश परसाई
हरमल – पेडणे

## स्वप्नपूर्ती

आयज हांव गगनांत उडटां
चौफेर म्हज्या फुलांच फुलां झडटा
जशें मळबांतलें चांदणें पदरांत पडटा
तशें सूख म्हज्या पांयांत लोळटा
आयज हांव गगनांत उडटां
चौफेर म्हज्या यशाचे दोंगर रचतां
जशें कश्टाचें फळ मेळटा
तशें म्हजें ध्येय सफल जाता
आयज हांव गगनांत उडटां
क्षितिजाक ह्या गवसणी घालतां

– कृतिका राऊळ
स्टाफ क्वार्टर्स, एफ–४
नुसी मरिटाईम अकादमी
चिंचिणी, साश्टी–गोंय



## कोनसो

कोनसो.....
दुसऱ्याचें बळगें समजून
तांकां चित्रावपाक तांक दिता
किण्ण वातावरणांत थीर प्रभाव घालून
गिन्यानाची एक किट्टी फुलयता

कोनसो.....
जगाचो देखावो निवळ स्पश्ट करून
नव्या कल्पनांक जल्माक हाडटा
उच्च पावंड्यार विचारांक पावोवन
मांडणेक मुक्ति दिता

कोनसो.....
यश मेळिल्ल्याची गवाय दिता
जैतीवंतां कडेन आपली निशाणी करून
आपली गती वाडयत
फुडल्या प्रवासाक लागता

कोनसो.....
मुळांक घटाय दिवन
अणभवाक वाड हाडटा
वाटकूळ पुराय करून
कोनसो भरून येता

– डिफा फेर्नांडीस
फा. आग्नेल महाविद्यालय,
पिलार – गोंय.
फोन : ९७६४३९५३३३

## जुनेद

भितल्ले भितर करगतना
मोडून पडटना, निखळटना
जीण आनी मरण हाचेमर्दी
घुंवतना
मरण चड आनी चड लागीचें
दिसतना
नाती गोती सांडत वतना
इश्टागतीचे बंदपास गळटना
जीण व्यर्थ निरर्थक दिसतना

जिणेच्या दर एका भयानक वळणार
जुनेद तूं म्हाका मेळटा

जुनेद स वर्सांचो
जुनेदाची आवय बापूय
भाव अपघातात
एका खिणात
मरणाचे सुवादीन जालीं
पूण
जुनेदाच्या तोंडार
भुतकाळांतलो काळोख दिसना
भविश्याच्या उजवाडाची किटय मेळना
जुनेदाच्या तोंडार
एक अलौकीक
परमशांती...
परमसत्य मेळटकच
बुद्धाच्या तोंडार फाकिल्लें
परमतेज दिसता
जुनेद जगता
फकत आतांच्या खिणात
तो भूत भविश्य
जल्म मरण हाचेपसून
पयस पयस आसता
सूख दुखाचे हजार

हुमरे हुपून
परम धामाचे
लक्ष पावंडे
चडत आसता
जुनेद जगता दर एक खीण
त्या खिणाचें चैतन्य
उल्हास आनंद आपल्यांत
आस्पावन घेवन

भयंकर वादळा उपरांतची
निळी थंडाय ताजे भितल्ल्यान
खळखळत व्हांवता
असो म्हाका भास जाता
म्हज्या मनाची धुंवरेल्लीं जनेलां
खिणात नितळ निवळ जायत वतात
चैतन्य उल्हासाचें नवें शांत शितळ
वारें व्हावंक लागता.



– राजश्री सैल सावंत
मडगांव – गोंय

## खूब तेंपान आयज....

खूब तेंपान आयज म्हाका फांतोडेरूच जाग आयली,
परतो लागूंकच ना दोळो, भायले वटेन पावलां चललीं

खूब तेंपान दर्यांत दिसलें नुस्तेकारालें सोबीत जाळें,
किण्ण काळखांत मेकळें मन खूब तेंपान करपाक मेळ्ळें

खरेंच सांगतां खूब तेपान तांबडें गूंज सगळें दिसलें,
दोळ्यांक म्हज्या सूख लाबतना, मन पिशें म्हजें हांसलें

नजर वचूंक नाशिल्ली जायत, खूब तेंपान अचकीत दिसली,
काल राती सगळयो कळयो, आयज तांचीं फुलां जालीं

खूब तेंपान आयज हांवें, कोगळेचो आयकलो साद
ह्याय वेळार परतें हांव, नक्कलबाजीन जालें बाद

खूब तेंपान आयलो परतो, तांबडे भुंयेंचो मृदगंध
ताजी हवा अणभवपाची, खूब तेंपान मेळ्ळी संद

खूब तेंपान आयज पळयली, सूर्योदयाची तांबडी वाट
आयज किरण घेवन आयलें, तेजोरंग भरमसाठ

ताजो दीस अणभवतना, मन परतें पिशें जालें,
'सगळें अजून खंय सोंपलां?' खूब तेंपान म्हाका दिसलें

खूब तेपान दवान भिजलें, मन जालें ओलें चिंब
दिश्टी पडत उरलें आयज, सोनरंगी सूर्यबिम्ब



– अंतरा प्रभाकर भिडे
(पिराय – चवदा वर्सां)
रायबंदर–गोंय
फोन : २४४१०७



## कुळाराचें रोप

कुळाराच्यान दिल्लें रोप
लायलें हांवें फुडले दारा
सांबाळ ताचो केलो हांवें
म्हज्या माणकुल्या भुरग्यां वांगडा
दवा थेंब्यान भिजतालें
वाऱ्या वांगडा नाचतालें
हासता नाचता रोप पळोवन
मन म्हजें फुलतालें
दिसा फाटल्यान दीस गेले
रोप म्हजें व्हडलें जालें
स य ऋतू नाचून गेले
रोप म्हजें फुलचे खातीर
मन म्हजें आशेतालें
ताच्या वांगडा लायलेली
ताचेच पिरायेचीं
सगळीं रोपां फुलतालीं
वांजूड रोप लायलां म्हणून
मांय म्हाका हिणायताली
उतरां तिचीं आयकून
काळीज म्हजें जळटालें
तरी गुमान हांव रावतालें
उतरां तिचीं खरीं आसुंये
म्हणून मन म्हजें दुबावतालें
असोच एक दीस उजवाडलो
परमळ ताचो घमघमलो
सोबीत सुंदर देखणें रुपडें
दाखयत वयले ताळयेर रावन
ताणें म्हाका हळूच म्हळें
कूस म्हजी उजवली आज
सोपलें म्हजें वांजूडपण
सुखान तूं राव आतां
कुळारच्या रोपान फसयलें ना तुका
उतरां आयकून मन म्हजें लजेलें
दुवाळे सुवाळे करूं ना
सदांच दुबावान रावलें हांव
तें आयकून ताणें म्हळें
बाय हांव तुका शिणना
कुळारच्या वस्तूंक धुवेच्या घरांत
अशीच आसता वागणक



– सारिका भेंब्रे
जांबावली – केपें

## जगून पळय

जल्मांक आयलां जाल्यार
थोडें जगून पळय !
जिणेंत दुख्ख खूब आसा
थोडें सोंसून पळय !
मूठभर दुख्खान कोसळूं नाका
दुख्खाचो दोंगर चडून पळय !
यशाची चव चाखून पळय
अपेस येतां वळून पळय !
डाव मांडपाक सोपो आसता
खेळून तरी पळय !
घोंटेर बांदपाक सोपें आसता
कश्ट तरी घेवन पळय !
जगप कठीण पूण मरण सोंपें
दोगांयच्यो वेदना झेलून पळय !
जगप मरप दोनूय कुवाडींच
वतां वतां कुवाडीं सोडोवन तरी वच !



– मेहन्दी अनय नायक देसाय



## काजळी कुपां

काजळ्या कुपांनो
काजळ्या कुपांनो
रडूं नाका रडूं नाका
दोळ्यांतलीं अर्शीं दुकां
झडोवं नाका झडोवं नाका

काळजांत अशें आसा कितें
तुमकां जें फुगयता तें
मनांत अशें चल्लां कितें
तुमकां इतलें रडयता तें?

काजळ्या कुपांनो
काजळ्या कुपांनो
आतां तरी रडूं नाकात
तुमच्या हुंडक्या हुंडक्यांनी
संवसार पळय भिजलो कसो!
चिप्प तुमच्या दुकांनी

– संतोषी कोले
मदलें भाट, शिवोले



# प्रामाणिक सलमान

**ओ**सोळण्या गांवांत यूसुफ नावाचो एक दादलो, ताजी बायल आनी भुरगो सलमान गरिबीन पूण खूब समाधानान रावतालीं. तीं खूब गरीब आसलीं पूण मनान खूब गिरेस्त. सलमान सात-आठ वर्सांचो जातकीर ताच्या बापायन सलमानाक एका मोठ्या कपड्यांच्या वेपाऱ्यागेर कामाक दवरलो. सलमान शाळेतलें शिक्षण चड शिकूंक नासलो. पूण घरांतले संस्कार शिक्षण ताका आवय-बापायन खूब दिल्लें.

सदांच खरें उलोवचें, चोरचें न्हय, चाडयो करच्यो न्हय, लोकांक मारचें न्हय, कोणाक फटोवचें न्हय, लोकांक हांसचें न्हय, कश्टान मेळयता तें गरिबीन रावल्यारय आनंदान खावचें अशो दिसभर तरेकवार काणयो जावं देख दिवन आवय-बापायन ताका बरें वळण लायिल्लें.

सलमान खूब चपळ, हुशार, खरें उलोवपी, गोड दिसपी आनी मुख्य म्हळ्यार प्रामाणिक आशिल्लो. दुकानाचेर सगळ्यांकच तो खूब आवडटालो. सगळीं गिरायकां येतात तीं ताच्याच म्हऱ्यांत वतालीं.

एक दीस एक श्रीमंत बायलमनीस साडी घेवपाक त्या दुकानार आयली. सलमानान तिका तरेकवार रेशमी साडयो दाखयल्यो. तातुंतली एक सामकी बरी दिसता ती साडी तिणें पसंत केली. तिजो रंग आशिल्लो तांबसार, पोत खूब बरो आशिल्लो आनी पदर तर त्या परसूय सुंदर. सलमानान ती साडी बांदपाक व्हेली. इतल्यान साडी मर्दी मात्शी



पिंदिल्ली ताका दिश्टी पडली. ते बायलेन ती पळोवंक नासली. पूण सलमान प्रामाणिक आशिल्लो. ताणें ते बायलेक गोड उतरांनी सांगलें- ''बाई, तुमी ही साडी व्हरूं नाकात. कित्याक तर ही साडी हांगा पिंदल्या पळय. हांगा आनी खूब साडयो आसात. दुसरी खंयचीय पसंत करात. ते बायलेक तीच साडी आवडिल्ली. ती बायल आनी दुसरी खंयचीच साडी घेनासतना थंयच्यान गेली.

दुकानदार गल्ल्यार बाशिल्लो. ताणें सलमानचें हें वागप पळयलें आनी मनांत म्हळें, हो नोकर आमच्या कामाचो न्हय...! हो आमच्या दुकानाचें दिवाळें काडटलो.

''तुमचो भुरगो कामाक बरो ना. म्हजे नदरेंतल्यान तो एकदम सकयल देंवला. ताका फायच्यान दुकानावेलो हांव काडून उडयतां.'' अशी एक चीट सलमाना कडल्यान युसुफाक धाडून दिली.

बापायन सलमानाक कितें जालें तें विचारलें. सलमानान सगळी खबर सांगली. आनी म्हळें, ''म्हजेकडेन कितेंय चूक जाल्या अशें म्हाका दिसना. तुमकां तशें दिसता जाल्यार दुकानदाराक येवन विचारात.''

सलमान आनी युसुफ वेपाऱ्याच्या दुकानार आयले. बापायन शेठजीकडेन वचून सगळी वासपूस केली. तेन्ना तो शेठजी मोठ्या मोठ्यान उलोवंक लागलो.

''पळयात, आतांच एक बायल साडी घेवंक आयिल्ली. हाचें काम फक्त साडी दाखोवपाचें आनी बांदून दिवपाचें. दुकानावेल्या मालाची टिका करप

न्हय..? हाका कसली गरज आशिल्ली तिका साडी पिंदल्या हें सांगपाची? ते बायलेक तो साडी पिंदल्या म्हण घेव नाका म्हण सांगता. अशें केल्यार आमचें दुकान कशें चलतलें? सांगात पळोवया तुमी..!

''शेठजी, इतलीच चूक हाची, काय आनी कितें..?'' बापायन विचाल्लें.

''ना, ना. तो सामको गुणेस्त आनी बरो भुरगो. पूण हांगा बरेपणां कितें चाटपाचीं..? हांगा वेव्हार पयलीं.वेव्हारांत गोडपणा, तिखटपणा आसपाक जाय. वेव्हार करतना जाय थंय खरें, फट उलोवंक शिकपाक जाय. म्हाका कितल्या पयशांचें लुकसाण जालां तें जाणात तुमीं....?''

''म्हज्या भुरग्याची जर इतलीच चूक आसत तर हांवच ताका तुमच्या दुकानार दवरूंक सोदना. तुमचेंय लुकसाण नाका आनी सलमानाच्याय आयुश्याचें लुकसाण जावपाक नाका.'' अशें म्हणून बापूय ताका घेवन गेलो.

सलमान दुकानाचेर कामांत आशिल्लो तेन्नाच्यान खूब फामाद जाल्लो. त्या शेठजीन एक बरो प्रामाणिक नोकर होगडायल्लो.

ताका आनी एका ताच्याहून व्हडल्या, नांवाजत्या दुकानाचेर कामाक मागणी आयली. तो दुसऱ्याच दिसा कामाक गेलो. तो ज्या नव्या दुकानार कामांक गेल्लो थंय एकाच म्हयन्यांत त्या दुकानाची खूब भरभराट जाली. त्या दुकानदारान ताका आपलो भागिदार केलो.

भुरग्यान आवय-बापायक म्हळें, ''तुमी म्हाका जें प्रामाणिकपणाचें, बऱ्या संस्काराचें बाळकडू पाजलें ताचेंच हें फळ. हांव गरिबींत लेगीत समादानी रावतलों आसलों. मनाचें समादान हीच व्हड आस्पत. जो चोरता, जाचें मन खाता तो श्रीमंत आसूनय भिकारीच! न्हय गे आई...?

सलमान आवय बापाय वांगडा व्हड जावन खूब सुखान रावंक लागलो.



**– रोमा रा. लाड**
कारायमड्डी– सावर्डे



# भाजयेची तांक

एक भुरगो आसलो. ताका खेळूंक चड आवडटालें. पूण तो घराकडेन आवयचें आयकनासलो. तो भाजी खा! म्हळ्यार, नाका म्हणटालो. सकाळीं चा पिनाशिल्लो आनी जेवतालोय इल्लेंशें म्हूण तो खूब बारीक जालो. पूण कोणेंय ताका 'तूं बारीक कसो रे?' म्हण विचारलें जाल्यार तो जाप दितालो की, 'बारीक आसल्यार धांवपाक बरें पडटा.'

एक दीस ताचे शाळेंत धांवपाची सर्त आसली आनी हो भुरगो कांयच खायना-पियेनासतना फक्त धांवपाची तयारी करतालो. आनी सर्ती दिसा जावपाचें आसलें तेंच जालें. ताका सर्त सुरू जावंचे आदींच घुंवळ येवंक लागली आनी तो सर्तींत भाग लेगीत घेवंक शकलो ना. ताका आतां कळ्ळें की भाजी खावप कितलें गरजेचें आसता तें आनी तो तेन्नाच्यान भाजी खावंक लागलो.

फुडें तो सारकें खावपा-जेवपाक लागलो. ताची आवय सुद्दां ताची अपुर्बाय करपाक लागली. फुडें परत तांचे शाळेंत धांवपाची सर्त आयली. तेन्ना त्या भुरग्यान ते सर्तींत वांटो घेतलो आनी तो पयलो आयलो. अशेतरेन जेवणांत आशिल्ल्या भाजयेची तांक ताका कळून चुकली.





**– साईश दि. नाईक**
सातवी,
अवर लेडी मदर
ऑफ पुअर हायस्कूल तिळामय

# गांवचो मुखेली



मंगेश आनी नरेश हे दोग भाव आशिल्ले. मंगेश व्हडलो, सगळ्यांत हुशार. दुसऱ्याकडेन मायेन वागपी. जाल्यार नरेश हो ताच्या उरफाटो आशिल्लो. आपलें तेंच खरें करपी. दुसऱ्याकडेन वागपाची पद्धत बरी नाशिल्ली. दोगांय भावांक कशेंच पडनाशिल्लें. पूण व्हडलो भाव सदांच ताचें नमतें घेतालो. ताचेंच खरें म्हूण सांगतालो आनी आपूण वोगी रावतालो. गांवच्या सगळ्या लोकांनी ताच्या सभावाक लागून मंगेशाक गांवचो मुखेली केलो. नरेशाक जेन्ना आपलो भाव मुखेली जाला म्हण कळ्ळें तेन्ना ताका गांवच्या लोकांचो राग आयलो. गांवानी झगडीं-झुजां करपाक लागलो. भरपूर पियेवन येवपाक लागलो. भुरग्यांभशेन लोकांच्या घराचेर फातर मारपाक लागलो. नरेशालें वागप पळोवन मंगेशान गांवच्या लोकांक समजावन सांगलें, 'नरेशाक गांवचो मुखेली करून ताचे वागणुकेंत सुदारणा जाता जाल्यार पळोवया.' मुखेली म्हाका केला म्हण ताचेर परिणाम जाला. नरेश जरी गांवचो मुखेली जालो तरी हांव सदांच तुमचेखातीर वावुरतलों. मंगेशाच्या उतरांक लागून गांवच्या लोकांनी नरेशाक मुखेली केलो. नरेशाक दिसलें गांवच्या लोकांनी आपणाक भियेवन गांवचो मुखेली केला. आतां मंगेश केदो आसा तें हांव पळयतां अशें सगळ्यांक सांगपाक लागलो.

नरेशालो एक इश्ट मुंबय रावतालो. गोंयांत आयिल्लेकडेन तो एक दीस नरेशाक मेळपाक आयलो. उलयतां उलयतां नरेशान ताका आपूण गांवचो मुखेली जालां म्हण सांगलें. हें आयकून इश्टान ताचें अभिनंदन केलें आनी आपूण बऱ्या वेळार पावलां म्हणपाचें सांगलें. पूण वतां वतां तांणी नरेशाक आपलो एक मंत्रय सांगलो. 'जाणा मरे नरेश, तूं ह्या गांवचो मुखेली जाला तेन्ना हे संदीचो तूं फायदो घे. गांव सुदारणेचे नदरेन अशें कितेंय तरी कर की तुज्या नांवाची तांकां याद उरूनी.' अशें सांगून ताचो इश्ट परतून मुंबय गेलो. नरेशाकूय हें पटलें, इश्टान सांगिल्लेवरीं, नांवाची याद उरपाक जाय जाल्यार पयलीं हो सगळो गांव मुंबयच्या भशेन शार करचो पडटलो अशें ताणें चिंतलें. हे खातीर गांवांतलीं सगळीं शेतां पुरोवन बिल्डींगो उबारपाचें ताणें थारायलें.

गांवचो सगळो लोक कश्टाळू. शेत-भात करपी. कोणाचीच जमीन ते पडिंग दवरनाशिल्ले. शेताची पीक जाल्या उपरांत भाजी आनी मिरसांगो लायताले. लोकूय बेकार रावनाशिल्ले. एकमेकागेर काम करून तांदूळ, मिरसांगो विकतालेयबीन. शेता-भाटाचें काम करप म्हळ्यार सामको खेडवळ कशें ह्या मुखेल्याक दिसपाक लागलें. शेतां पुरोवन बिल्डिंगो करपाचें येवजीलां म्हणपाची बातमी जेन्ना गांवच्या लोकांक कळळी तेन्ना गांवचे लोक विचारांत पडले. जण एकलो म्हणपाक लागलो, आमच्या जाण्टेल्यांची जमीन आमी कशेच दिवंचे नांत. शेतां-भाटां करून आमी आमचीं पोटां भरतात. हाचेर कितेंय तरी उपाय करपाक जाय. वचत थंय ह्या संबंदान चर्चा जावपाक लागली. कांय जाण म्हणपाक लागले, हाका आमी मुखेली करून त्रासांत पडल्यात. हाचे तकलेंत कांयच वचपाचें ना. सगळे लोक एकठांय जावन मंगेशाक मेळ्ळे. मंगेश आयकून भियेलो. कितें करप तें ताकाय सुचना जालें. आतां तर आमी वोगी रावत जाल्यार फुडेंय तो

नाका तें करतलो. तेन्ना आतांच कसलो तरी उपाय काडपाक जाय.

इतल्यांत मंगेशाक एक आयडीया सुचली. ताका खबर आशिल्ली. नरेश आपलो भाव आसलो तरी तो आपणाकडेन दुस्मानासारको वागता म्हण. आनी खरेंय आशिल्लें. व्हडल्या भावान कितेंय सांगलें जाल्यार तो ताच्या उरफाटें करतालो. ताचोच फायदो घेवन मंगेशान लोकांक एकठांय केले आनी सांगलें, 'गांवचीं शेतां विकपाचीं नांत आनी थंय बिल्डिंगोय बांदपाच्यो नांत. ती जागा आमच्या जोण्टेल्यांची आसा. हें सगळें खरें पूण हांव मात ती सगळी जागा विकची आनी बिल्डिंगोय बांदच्यो म्हण आवाज करतलों.' हें आयकून सगळे लोक अजापीत जाले. 'आमी आमच्यो अडचणी घेवन तुज्या म्हऱ्यांत आयिल्ले.'

'हय जाणां, तुमच्योच अडचणी सुटाव्यो करपाखातीर हांवें ही युक्ती काडल्या. नरेश म्हजो भाव जरी आसलो तरी तो सदांच म्हज्या विरूद्ध वागता. हांवें जर जागो विकचो न्हय म्हूण आवाज केलो जाल्यार तो ती जागा विकतलो. ते खातीर हांवें ही युक्ती काडल्या.' तागेलें आयकून लोकांकूय पटलें.

थारायिल्ल्या प्रमाण घोशणा दीत सगळे लोक मुखेल्यागेर गेले. मुखेली दारांतूच बशिल्लो. दरएकलो, 'जाण्टेल्यांचीं शेतां आमी कशींच विकपाक दिवचीं नांत. बिल्डिंगो आमी कश्योच उब्यो रावूंक दिवचे नांत.' अशे



तरेची घोशणा करीत सगळे दारांतूच रावले. इतल्यांत मंगेशूय आयलो. 'सगळी जागा विकची आनी बिल्डिंगो उब्यो करच्यो' म्हणपाची घोशणा दिवपाक लागलो. व्हडल्या भावाची घोशणा आयकून नरेशाक राग आयलो. तिडकीन सगळ्या लोकांक सांगपाक लागलो. 'हांव सदांच गांवच्या लोकांचें आयकतलों. तांकां जाय तशेंच करतलों. तेन्ना गांवांत बिल्डिंगो बांदपाची येवजण रद्द करतलों.' हें आयकून मंगेशाक बरें दिसलें. गांवच्या लोकांनी मंगेशान काडिल्ले युक्ती खातीर मंगेशाचे उपकार मानले.

एक दीस कितें जालें, गांवांत बाबा येवपाचो आसा म्हण अकस्मात सगळेकडेन निवळसाण करची म्हण आदेश काडलो. लोकांकूय दिसलें जावं कोणाच्याय निमतान एकदांचो गांव तरी निवळ जातलो. पूण मागीर कळ्ळें बाबाक गांवांतूच एक व्हडलो मठ बांदून दिवपाची ह्या मुखेल्याची तयारी चल्ल्या म्हण. पळयत जाल्यार हांणी मठ बांदपाखातीर गांवच्या लोकांचीं झाडां-पेडां मेळत तशीं मारून उडयल्यांत. हें सगळें पळोवन लोक सामको बेजार जालो. लोकांनी ताका खूब समजावन सांगलें. आमच्या गांवांत बाबा बी असले कोण नाका. आमी आसा तेच बरे आसात. आमचीं बायल-भुरगीं आपलो काम-धंदो सोडून ह्या बाबाची सेवा करपाक वतलीं. तेन्ना असले नाका आशिल्लें अरिश्ट आमच्या गांवांत नाका. पूण मुखेली आयकुपाचे परिस्थीतींत नाशिल्लो. आतां कितें करतले म्हण परतून गांवचो लोक चिंतेंत पडलो. मंगेशाच्या कानार ही गजाल घातली. मंगेशान हें सगळे आयकून आपल्या भावाक रकाद धाडलो, 'तुवें केला तें सारकेंच केलां. आमच्या गांवांत बाबा जाय आशिल्लो. हांवें पयलेंच चिंतिल्लें, केन्ना तरी एक दीस हांव ह्या बाबाक आमच्या गांवांत मठ बांदून दितलोंच म्हण. पूण तुवें तें काम करपाक घेतलां म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें आनी खूब बरें दिसलें.' हें आयकून नरेशाक सामकी तिडक माल्ली. बाबाक मठ बांदून दिवपाचें उतर हांवें दिल्लें. आनी हें पळोवन तुका बरें दिसलें. खंयचो बाबा? तुवें चितिल्लें काम हांव कित्याक करूं?

रोखडेंच मुखेल्यान बाबाक गांवांत मठ बांदून दिवपाचेंच न्हय तर ताका गांवांत हाडपाचें सुद्धा रद्द केलें. गांवचो सगळो लोक खोशी जालो. मंगेशानूच कसली तरी युक्ती काडल्या आसतली आनी आमचे तकलेवेलें वजें देवयलां आसतलें म्हणपाचें लोकांक कळ्ळें. गांवच्या लोकांक दिसतालें आमच्या

गांवातलो कोणूंय दुयेंत पडलो जाल्यार लागिंसरा डॉक्टर ना आनी हॉस्पिटलूय ना. नाका तें करचे परस लोकांखातीर एक हॉस्पिटल बांदल्यार जातलें आशिल्लें. अशे लोक जमिल्लेकडेन उलोवणी करताले. हें सगळें मुखेल्याक कोणी तरी सांगलें. एकठांय जावन उलोवणी करतात हें आयकुपाखातीर एक दीस मुखेली कोणाक खबर नासतना लोक जमिल्ल्या जाग्यार गेलो.

दर एकलो उलयतालो, दर फावट आमकां मंगेशानूच वाटायला. ना जाल्यार हो मुखेली आमच्या गांवचें पाड घालून उडयतलो आशिल्लो. आयज आमचीं शेतां वचून हांगा बिल्डिंगो जातल्यो आशिल्ल्यो. आमी खाणां-जेवणांक वळवळटा आशिल्लीं, आनी त्या बाबाक हाडून आमच्या बायल-भुरग्यांचीय वाट लागपाची. तो मंगेशूच आमकां देव कसो पावलो.

आरे, हो नरेश आपल्या भावाक वळखना तो आमकां कितें वळखतलो? मंगेशान आपलें मुखेलपण भावाक दिवपाक लायलें. आनी ताच्या उतराक लागून आमी नरेशाक मुखेली केलो. आतां गांवांत हॉस्पिटलाची गरज आसा पूण हें कोणाक सांगपाचें? सगळ्यांनी थारायलें आमी मंगेशाकूच घेवन मुखेल्याक मेळपाक वचपाचें म्हण. तांचें हें सगळें उलोवणें नरेशान आयकलें आनी आपणाल्या घरा आयलो. नरेशाक खबरूच नाशिल्ली की आपल्या भावानूच आपलें मुखेलपण आपणाक दिलां म्हूण. इतलेंच न्हय तर गांवांत येवपी आरिश्टांय तांणें वाटायल्यांत म्हण. हें सगळें कळटकूच नरेशाक खूब वायट दिसलें. हांव म्हज्याच भावाक दुस्मान समजतालों. पूण तांणें म्हाका केन्नाच दुस्मान समजूंक ना, हें ताका जाणवलें. पूण हाचेमुखार हांव समाजाक दाखोवन दितलों की भाव-भाव केन्नाच दुस्मान आसनात जाल्यार ते एकमेकांचे इश्ट आसतात म्हण.

उपरांत नरेश गांवचो लोक आनी आपलो भाव आपणाक मेळपाक येवचे पयलींच आपल्या भावाक मेळपाक गेलो. नरेश घरा आयला तें पळोवन मंगेशाक अजाप दिसलें. हांसत-हांसत तो भायर आयलो.

'नरेश आमी तुकांच मेळपाक येवपाचे आशिल्ले.'

'हय जाणां हांव. इतलो तेंप तूं म्हाका मेळपाक येतालो, पूण आयज हांव गांवचो मुखेलीच म्हण न्हय तर म्हजो व्हडलो भाव म्हण तुका मेळपाक आयलां.' अशें म्हणून ताणें भावाक घट्ट वेंग माल्ली. मंगेशाक पयलीं हें सपनूच कशें दिसलें. पूण भावान मारिल्ले वेंगेंतलो स्पर्शूच ताका आपलो भाव सुदारल्याचें जाणयतालो. खरेंच हांवें नरेशाक मुखेली करून मनशांत हाडलो आनी म्हजो भाव म्हाका परत मेळ्ळो म्हण मंगेशाक सुमाराभायर खोस जाली.





– कुमूद भिकू नायक
खोर्ली, तिसवाडी-गोंय



## ताकीत

काका मामानो हळूच यारे
वाजोवंक नाका पावल्यो
आतांच धापूंक लागल्यात बायेच्या
दोळ्यांच्यो दिवल्यो
पारजताच्या फुलांनो तुमी
हळूच फुलात गो
फुलतना जर बोवाळ केल्यार
बायक येत जाग
आंब्याच्या पानांनो तुमी
हळूच गो हाला
न्हिदिल्ल्या बायक आतांच
पाळण्यांत घालां
वाऱ्याबाब तुका सुध्दां
ताकीत दितां रे
बायच्या भोंवतीं मार रे तुजें
हळूच भोंवारें



– विमलताई प्रभूदेसाय
बेळगांव

# देव आनी भुरगीं



**दे**वाची नदर भुरग्यांचेर आसता. ताका भुरगीं चड आवडटात. तो भुरग्यांमदींच चड वावुरता. खरें तर देवाक कोणेंच पळोवं ना. पूण श्रध्देन आनी भावनेन ताका मानला आनी पुजला. भुरग्यांच्या उल्याक तो सदांच पयलीं धांवता. केन्ना-केन्नाय ध्यानी-मनी नासतना देव चमत्कार घडोवन भुरग्यांमदीं कसो बदल हाडटा ताचेर ही एक काणी :-

ही काणी एका चल्याची. ताचें नांव जॉन. तो खूब मस्तो आसलो. भुरगेंपणात बापूय भायर पडिल्ल्यान जॉनाचे आवयन ताका खूब कश्ट करून लाडान वाडयलो आनी शाळेंत घालो. शाळेंत वतकच ताची मस्ती चड वाडली. दिसाक एक तरी कागाळ आवयच्या कानार येतालीच. दिसान-दीस जॉनाचीं आडांगपणा पळोवन ती निरशेल्ली आनी सामकी बेजारिल्ली. ताचे हट्टूय खूब वाडिल्ले. हेंच जाय, तेंच जाय म्हूण तो तिका सतायतालो.

एक दीस जॉनान आपले आवयकडेन बरें, व्हडलें खेळण्यांतलें विमान मागलें. आवयक म्हयन्याचो पगार पडुनाशिल्ल्यान तिणें जॉनाक समजायत म्हळें, "तूं पोयलीं शाणो जा. मोस्तेपोणा सोड. घारान बोसोन शीक. मागीर तुका विमान हाडोन दितां." जॉनाक खूब राग आयलो. आपलो पूत विमानाक लागून निरशेला हें आवयक खबर आशिल्लें. पूण तिचो निरूपाय जालो. ताका बऱ्या मार्गार हाडपाक तिका कितें करचें कांयच सुचनासलें. जॉन खूब वेळ आपले कुर्डींत बसून रडलो. आनी एकदम पांयांत व्हाणो घालून तो घरा भायर सरून इगर्जेवाटेन गेलो. इगर्जेंत वचून ताणें जेजूक रागान पळयलो आनी थंयच आशिल्ली जेजुचे आवयची, म्हणजे, मदर मेरीची मूर्त काडली, बोल्सांत घाली आनी घरांत हाडून खांचीत लिपोवन दवरली आनी मागीर परत इगर्जेंत गेलो आनी जेजूकडेन उलोवंक लागलो. "जेजू पळय हांवें तुजे आवयक किडनॅप केल्या. तुका जर तुजी आवय जाय जाल्यार म्हाका जाय तसलें विमान दी. ना जाल्यार तुका तुजी आवय मेळची ना आनी हांव म्हजीं मस्तेपणां सोडचों ना.".

दीस वताले. जॉन मेरीची मुर्त लिपोवपांत व्यस्त उरतालो. भायर खंयच ताचें लक्ष लागनासलें. विंगड-विंगड जाग्यांनी ती मूर्त तो पुरून दवरतालो. जेजू आपले आवयक सोदून काडीत म्हूण तो घरांतूच मनांत दुगदूग दवरून ओग्गी बसून रावतालो. हातूंत तो केन्ना सुदारून शाणो जालो तें ताकाच कळ्ळें ना. आवयन ताच्यांतलो बदल पळयलो. विमानाखातीर भुरग्यामदीं सुदारणा जाली म्हणून पयशे हातांत आयले बराबर तिणें ताका विमान हाडून दिलें. विमान मेळटकच जॉनाक जेजूक दिल्ल्या उतरांची याद जाली. ताणें मागीर हुं-चूं करिनासतना मेरीची मुर्त व्हरून इगर्जेंत दवरली आनी तो जेजूक पळोवन डळडळीत रडपाक लागलो. ताका आपली चूक कळ्ळी. तो खूब शाणो जाल्लो. ताचे दोळे उगडले.

आमकां हे काणयेंतल्यान हीच देख मेळटा की, भुरग्यांच्या सादे-भोळेपणाक लागून देव लेगीत तांका माफ करता आनी तांका सांगात दिता. तांच्या उल्याक धांवता आनी भुरगीं मागता तें तो खंयच्या ना खंयच्या तरी रुपान तांका दिता.





- कन्या पावसे
फोंडे - गोंय
फोन : ९७६४७३९३४४

# हुशार निळू



एका गांवांत निळू नांवाचो एक मनीस रावतालो. ताचो धंदो म्हळ्यार नांगर करून बाजारांत विकप. त्या खातीर ताणें सदांच रानांत वचप आनी लाकडां कापून, थंयच बसून जाय तशे नांगर करप. ते बाजारांत व्हरून विकून आपलें पोट भरप.

निळू सदांच सकाळीं उठटालो. बायलेन दिल्ल्या जेवणाची भुती घेवन रानांत वतालो आनी तिनसांजचो घरा परततालो.

निळू ज्या रानांत वतालो त्या रानांत एक वाग रावतालो. वाग सदांच निळूचो हो कार्यक्रम पळयतालो. एक दीस वागाक कूय आयली. वागाक गर्व आशिल्ल्यान ताका निळूक चाळोवंचें शें दिसलें. सदचे भशेन निळू आपलें सामान घेवन रानांत पावलो. ताणें खांद्यावेली कांबळ आनी हातांतली जेवणा भुती एका झाडामुळांत दवरली आनी तो आपल्या कामाक लागलो. हीच संदी साधून वाग ल्हवूच वचून निळून दवरिल्ल्या कांबळीचेर हागलो. निळूची मज्जा पळोवया म्हूण सायडीक वचून बसलो.

दनपार जातकीर निळू जेवपाक म्हूण आयलो तेन्ना कांबळिचेर वाग हागिल्लो ताका दिसलो. निळू कांबळ घेवन तसोच न्हंयचेर गेलो आनी कांबळ धुवूंक लागलो. कांबळ धुतना एक चमत्कारच घडलो. वागाच्या गुवाच्या वासान धोर्लींत लिपिल्ल्यो सगळ्यो कुल्ल्यो भायर सरूंक लागल्यो. हें पळोवन निळून आनी कळाव केलो ना. सगळ्यो कुल्ल्यो धरल्यो.

हो सगळो प्रकार वाग लिपून पळयतालो. तिनसांजचो निळू घरा वतालो. तेन्ना वागान निळूक वाटेरच आडायलो. वागाक पळोवन निळू मात्सो भियेलो. पूण धीर सोडलो ना. ताणें भितभीत वागाक विचारलें. ''वागोबा तूं म्हाका कित्याक रे आडायता?''

त्या बराबर वाग म्हणपाक लागलो, ''हांव तुजे कांबळीर हागलों हें खबर आसा मरे तुका?''

त्या उतराक निळून म्हळें ''हय खबर आसा म्हाका.''

निळूक उलोवंक दिनासतना वाग फुडें म्हणपाक लागलो. ''तुवें ती कांबळ न्हंयचेर व्हरून धुली आनी कांबळ धुतासतना म्हज्या ह्या वासान कितल्योशोच कुल्ल्यो धोर्लींतल्यान भायर सरल्यो आनी तुवें त्यो धरल्यो.''

निळून भितभीत मोन्यानीच हयकार दिलो.

वाग म्हणपाक लागलो, ''ही गजाल जर कोणाकय कळत जाल्यार म्हाका कितली लज जाणा मरे?''

परत निळून मोन्यानीच मान हालयली. वागान धेंगसो घालीत निळूक म्हळें, ''ही खबर जर तूं कोणाकय सांगशीत जाल्यार हांव तुका जितोच खातलों.''

निळूक शिटकायत वाग थंयच्यान गेलो. निळूय भितभीत घरा गेलो.

घरा पावतकीच कुल्ल्यो व्हरून बायले म्हऱ्यांत दवरल्यो. इतल्यो कुल्ल्यो पळोवन बायल विचारपाक लागली, ''खंयच्यान हाडल्यो तुवें ह्यो इतल्यो कुल्ल्यो?'' पूण निळू मात ओगीच रावलो.

जेवण खाण जातकच बायल परत निळूक विचारपाक लागली. शेजारी पाजाऱ्यांचो आवाज ना, सगळें शांत आसा तें पळोवन आनी बायलेच्या

हट्टीपणाक लागून निळून रानांत जी गजाल घडिल्ली ती सगळी बायलेक सांगली. वागान हें निळूच्या घराचे भितोडेक रावन सगळें आयकलें. आपल्या गुवाची गजाल दुसऱ्याक कळ्ळी हें आयकून वागाक लज जालीच, पूण करतलो कितें? तसोच फाटल्या पांयांनी रानांत परतलो. निळूक रानांत येतगीर सारकी बुद्ध शिकयतां अशें येवजीत वाग रानांत निळूची वाट पळयत बसलो.

दुसऱ्या दिसा सदचे भशेन निळू रानांत गेलो. तेन्ना वाटेरच वागान निळूक आडायलो आनी म्हणपाक लागलो, "तुका सांगिल्लें न्ही रे. कालची खबर कोणाकूच सांगुनाका म्हूण. मागीर तुवें तुजे बायलेक कित्याक सांगली रे?"

वागाचीं हीं उतरां आयकून निळूच्या पांयां पोंदची जमीन हालपाक लागली. वागाकडेन कितें उलोवचें आनी कितें उलोवंचें न्ही हें ताचें ताकाच कळना जालें. पूण मागीर धीर करीत ताणें वागाक म्हळें, "तुका कोणें सांगलें?"

वागान म्हळें, "तुका कितें दिसलें म्हाका कळचें ना म्हूण. रातीं हांव तुज्या घरचे भितोडेक रावन सगलें आयकतालों."

निळून म्हळें, "पूण हांव आनी कोणाकच सांगचों ना."

वाग म्हणपाक लागलो, "तुका सांगिल्लें हांवें कोणाक सांगूं नाका म्हण. आतां तुका हांव खातां."

वागाचीं उतरां आयकून निळू मुखार मोटें संकट आयलें. कितें करचें तें कांयच कळना जालें. थोडो वेळ तसोच ओग्गी रावलो. आयिल्ल्या संकटाक तर तोंड दिवचेंच पडटलें. निळून धीर करीत वागाक म्हळें,

"तूं म्हाका खाता मरें, खा. पूण ताचे पयलीं म्हज्या भुरग्यां खातीर दोन नांगर करून दवरतां. फुडाराक तांकां गरजेक जाय पडटले. हांव ना म्हणटगीर तांकां नांगर कोण करून दितलो?"

निळूचीं उतरां आयकून वाग तयार जालो आनी म्हणपाक लागलो, "दोन कित्याक चार कर!"

निळून म्हळें, "हांव जितले बेगीन नांगर करतलों तितले बेगीन तूं म्हाका खावपाक पावतलो. हांवें जर नांगर बेगीन करीनशे तुका दिसता जाल्यार तुवें म्हाका मात्सो आदार करचो पडटलो."

निळूच्या म्हणण्याक हयकार दीत वाग निळू सांगता तशें करपाक लागलो. निळून ताका लाकडाचे एके सायडीन धरपाक लायलें आनी दुसरे वाटेन निळू तासणी घेवन लाकूड तासपाक लागलो. नांगर तासतां-तासतां वाग थंय बशिल्लेकडेन आयतें मेळिल्ल्या खाणाचीं सपनां रंगोवपाक लागलो. वागाचें लक्ष दुसरेकडेन आसा हें निळून जुस्त पारखिलें आनी हे संदीचो फायदो घेत निळून तासणी सोमतीच वागाच्या कपलार मर्दी मारली आनी वाग रक्त भंबाळ जावन तडफडून जाग्यारूच मेलो.

निळून ऐन वगतार आपले बुध्दीची चतुराय जर दाखोवंक नाशिल्ली जाल्यार वाग ताका खावन वता आशिल्लो.





– एकनाथ गांवकार
गांवकार वाडो, केपे – गोंय
फोन : ९८८१५५२००२



## मळबाक आपोवणें

मळबा मळबा कित्याक तूं
रावलां वचून इतलें वयर?
वेळ काडून केन्नाय एक दीस
आमकां मेळूंक यो सकयल

रातच्या वेळार सदांच आमी
पळयतात मळबांत
खोस जाता पळोवन आमकां
चंद्रीम आनी नखेत्रांक

तुमकां सगळ्यांक मेळचें अशी
उमळशीक लागल्या मनाक
देखून मळबा तुज्या वांगडा
तांकांय हाड येतना



– नागेश नायक वडिये
मडगांव – गोंय

# प्रामाणिकपण

दिका



**गां**वांतल्या एका विशिश्ट समाजाची बसका चलताली. तांचो फुडारी गांवकार तांका मार्गदर्शन करतालो. मर्दींच ताणीं सांगलें "तुमचे मदल्या कोणाकय समाजाविशी दोन उतरां उलयन दिसतात जाल्यार मुखार येवन उलोवंक जाता." तेन्ना एक मध्यम वयावयलो सुशांत मुखार सरलो.

"आतां वेंचणुको लागीं आसात म्हण आमकां हांगा एकठांय केल्यात हें हांव जाणां. तरी आसतना समाजबांधवांनी जागृत जावंचेखातीर दोन मुद्दे मांडटां. राजकी मनशानी आमच्या समाजाक हें करूंक ना, तें करूंक ना म्हण आमी बोवाळ मारतात आनी वयल्यान तांकांच मतां घालतात. आमच्या समाजाक ते फाटीं उडोवपाचो यत्न करतात, तरी आमी तांकांच माथ्यार मारून मिरयतात. केंद्र सरकाराच्यो आनी राज्य सरकाराच्यो कितल्यो येवजण्यो आनी सवलती आमचे खातीर तयार आसात. आमचे मदल्या कांय जाणांक त्यो फाव जातात. जाल्यार उरिल्ल्यो वाया वतात वो भलतेच खावन वतात. तरी तेच आमचे फुडारी. आमी आंदोलना करतात, रस्त्यार येवन बोवाळ मारतात, वायट घडणुकांचो निशेध मारतात आनी भारतीय संविधानान दिल्ले अधिकार मेळयतात. तरी तेच आमचे मालक. कित्याक राजकी मळार आमचो एकलोय आमदार ना, एकलोय खासदार ना. देखून हांव मागतां गांवकारबाबाकडेन, ताणीं वेंचणुकेक देंवचे आनी आमी सगळे ताका पठिंबो दिवंया."

गांवकार धरून सगळे लोक सुशांताल्या भाशणान प्रभावीत जाले आनी सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो.

"तुजे विचार इतले प्रभावीत आनी खोल आसात म्हण म्हाका लेगीत खबर नासले. असो तुजो तेंको आसल्यार हांव जेरूल वेंचणुकेक देंवतां."

"चल, वच तूं फुडें. हांव आनी हो पुराय समाज तुजे बराबर आसतलो." सुशांतान परत एक फावट ताका अनुमोदन दिलें.

जालें. वेचणूक जाली आनी गांवकारान अर्ज केलो. गांवागांवानी बसका जावपाक लागल्यो. सुशांत ताचो वेचणूक एजंट म्हण वावर पळोवपाक लागलो. वेगवेगळे कडेन बसका घेवपाक, लोकांक एकठांय करपाक ताणें बरोच तोकोस घेतलो. गांवकार जिखतलोच ह्या भरवंशान ताणीं वाटचाल केली. पूण निमण्या दिसांनी 'मसल पावर' आनी 'मनी पावर' हांचे मुखार गांवकार कमी पडलो. ताच्या विरोधांत बशिल्लो फेर्नांद पैशां नेटार निवडून आयलो.

"सुशांतबाब, हांव तुजेकडेन उलोवंक सोदतां, एक दीस येवन मेळशी म्हाका?" वेंचणुकेचो निकाल घेवन भायर येतना फेर्नांदान सुशांताक सांगलें. इतले दीस हाचे विरूद्ध काम केलां आनी हो आपणाक कित्याक मेळूंक आपयता हें येवजून सुशांत घुस्पलो. तरी पांच स दिसांनी फेर्नांदाचे कचेरेंत गेलो.

"सुशांत, तूं एक बरो हुशार भुरगो म्हण फाटले वेंचणुकेंत तुवें दाखोवन दिलां. हांवे तुका आदीं वळखूंक ना." फेर्नांदान ताका आपलेंपण दाखोवपाचो यत्न केलो.

"आमी ल्हान मनीस. तुमचे सारके व्हड मनशांक खंय दिसतात? आमचेकडेन जाता तो वावर आमी करतात." शांतपणान सुशांतान जाप दिली.

"नोकरी खंय करता तूं?"

"म्हजेविशीं जाणां जावन म्हाका कित्याक प्रस्न करता?"

"म्हजेबरोबर काम करतलो?"

"कसलें काम?"

"म्हज्या ऑफीसांत."

"विचार करतां."

"बेगीनच सांग."

एक कुवाडें मनांत घेवन सुशांत गेलो. सरळ वचून गांवकाराल्या दारार मारलें. गांवकार घराकडेनच आसलो. सुशांतान घडिल्ली गजाल सांगली.

"तूं बेकारच आसा. नोकरी मेळटा ती कित्याक सोडटा?" गांवकारान ताका प्रोत्साहन दिलें.

"गांवकारबाब, म्हजेर राग काडपाखातीर नोकरी दिना मरे तो म्हाका? बेटोच दुबाव मारता." ताणें आपलो हुस्को प्रगटायलो.

"तसो कित्याक भिता तूं? आमी आसाच न्हय फाटल्यान. नोकरेक भरती जा. मागीरचें

मागीर पळोवंया.''

गांवकाराल्या उतराचेर तो फेर्नांदाकडेन नोकरेक रूजू जालो. प्रामाणीकपणान नोकरी करून ताणें फेर्नांदाचो विस्वास जिखलो. स्वताचेर कसलीच कागाळ येवंक दिली ना जावं फेर्नांदान लेगीत आपणाक उणाक लेखपाची संदी दिली ना. आपणाकडेन जाता ते भशेन समाजाचेंय काम करपाक लागलो. फेर्नांदा मार्फत ताणें जायत्या जाणांक सरकारी आदार मेळोवन दिलो, जायत्यो सवलती मेळोवन दिल्यो. जाण्ट्यांक निराधार येवजण चालीक लायली.

दीस गेले आनी दोन तीन वर्सां गेलीं. सुशांत इल्लो इल्लो परजळपाक लागलो. हालींच्या तेंपार ताची आनी गांवकाराची भेट जावंक ना पूण ताणें समाजाभितर आपलीं पाळां रिगयलीं. समाजा भितर ताचीय वळख निर्माण जाली. तो फेर्नांदाच्या ऑफिसाचो समाजाखातीर बरो वापर करपाक लागलो. सुशांत म्हणल्यार समाजाचो नवो फुडारी कसो वळखुपाक लागलो. घडये हें गांवकाराच्या दोळ्यांत गेलें. फुडले वेंचणुकेक आपणाक फार्टी उडोवन होच मुखार वतलो काय? पूण तशें कशें तो सुशांताक विचारूंक शकतालो? ताणें समाजाखातीर एक शिबीर घडोवन हाडलें आनी शिबीराक येवपाक सुशांताक आमंत्रण धाडलें. सुशांत शिबीराक आयलो ना. शिबीर बरे भाशेन जालें पूण एक कीट पेटली 'सुशांतान आपली वेगळी चूल मांडली काय?'

ही खबर वाऱ्याभशेन सुशांतामेरेन पावली. 'गांवकारान एक शिबीर घेतलें आनी आपूण थंय पावूंक ना हाचो हो अर्थ? कितले सुवार्थी हे लोक?' सुशांताचें मन बरेंच दुखलें. तो आपले आवय फुड्यांत गेलो आनी बसलो.

''आई, म्हजे नोकरे कडेन हांव प्रामाणीक आसां, म्हज्या समाजाकडेन हांव प्रामाणीक आसां. म्हजेकडेन आयिल्लें समाजाचें काम हांवें केन्नाच सकल दवरूंक ना. तरी आसतना हे म्हजेर दुबाव कित्याक घेतात गे?'' एका ल्हान भुरग्यावरी तो उलयलो.

''बाबा, प्रामाणीकपण हेंच मनशाचें व्हडपण आसता. तूं तुज्या अंतस्कर्णाकडेन प्रामाणीक आसत जाल्यार कोणाकच लागून फार्टी वळूं नाका, मुखार चलत राव, म्हजो तुका आशिर्वाद आसा.'' आईन ताचे तकलेर हात दवरलो.

वेंचणूक जावन केन्ना पांच वर्सां सरत आयलीं कळ्ळेंच ना. परत एक फावट फेर्नांद आनी गांवकार वेंचणुकेची तयारी करूंक लागले. सुशांत पेचांत पडलो. कितें करपाचें? गांवकार समाजाचो मनीस जाल्यार फेर्नांद आपलो धनी. दोनय वटेनच्यान ताका मागणी येवपाक लागली. मनांतल्या मनांत ताणें देवाक उलो मारलो आनी आपणाक ह्या पेचांतल्यान सोडोवपाक प्रार्थन केलें. तेन्नाच ताच्या घराकडेन गांवकार आयलो.

''आरे सुशांत, फाटले फावट तुवें म्हाका इतलो तेंको दिलो. त्या कांय मनशांनी घात मारूंक नासलो जाल्यार हांव वेंचणूक जिखतलों आसलों. हे फावट आनीक एक यत्न करुंया मरे?''

''गांवकारबाब यत्न करपाक कांयच हरकत ना. तूं म्हाका सांग, फाटल्या पांच वर्सांत तुवें ह्या समाजाच्या लोकांक कसली सेवा दिल्या ती! ते फावट हांवे सांबाळून व्हेलें, कितले कडेन स्वताची लज काडून घेतली. पूण आतां हांव जेन्ना लोकांचीं कामां करतां, तेन्ना म्हाका समजता तुमी फुडारीच म्हणपाक उरले.''

''तुज्याच आदाराचेर पातयेवन हांव वेंचणूक लडोवंक सोदतां. तुकाय आता लोक वळखूंक लागल्यात न्ही रे! आनी तूं जाणां आमी मागणी केल्या हो मतदारसंघ राखीव करपाक. तो जालो जाल्यार म्हाका आयतोच चान्स पडटलो. मागीर तुका हांव म्हजो सचिव म्हण नेमतलों.''

''बरें आसा. वेंचणूक प्रक्रिया सुरू जावंदी.''

''खऱ्यानीच म्हजेखातीर वावर करतलो मरे?''

''निश्चींतपणान वच गांवकारबाब.''

सुशांताचो सभाव आनी फाटलीं कितलींशींच वर्सां वागणूक पळोवन आशिल्ले गांवकाराले चलयेन ताचेकडेन लग्न जावपाची तयारी दाखयली. सुशांताकडेन ना म्हणपाक जालें ना. गांवकारूय तयार जालो. रोकडीच लग्नाची तयारी सुरू जाली. आयतो आदार मेळिल्ल्यान गांवकार खूश आसलो.

सुशांतालें लग्न जालें आनी दुसऱ्या दिसाक वेंचणूक प्रक्रिया सुरू जाली. तांचो मतदारसंघ राखीव जालो. गांवकारान आपल्या घराकडेन फोगोट्यो लासल्यो. ताचे विरुद्ध आनी कोण बसतलो? एक व्हडली रॅली काडून गांवकारान अर्ज केलो. सुशांत आनी ताची घरकान्न सुफलाय गेल्लें. फाल्यां निमणो दीस आसलो अर्ज भरपाचो. रातीकडेन फेर्नांद सुशांताल्या घराकडेन आयलो.

''सुशांत, तुजी हुशारकाय आनी हिकमत हांवे पळयल्या. तुज्या समाजबांधवांक आदार करपाची कळाशीय पळयल्या. समाजाखातीर आशिल्ली तळमळ पळयल्या. तुवें आपणाल्या बोल्सांतले पयशे मोडून तांचें काम करतना पळयलां. तुज्या सासुपायन आजवेर समाजाचो फक्त फायदो घेतलो, आपले गरजेक वापरल्यात. तांका कितेंय मेळोवन दिवपा वेळार अलिप्त रावला. तेन्ना म्हजो तुका आग्रो आसा, तूं वेंचणुकेचो अर्ज भर. म्हज्या वावुरप्यांचो आनी म्हज्या पैशांचो तुका पूर्ण तेंको आसा.''

सुफला आनी सुशांत तोंडांत बोटां घालून पळयतूच उरलीं. तांचेभीतर मागीर बरीच भासाभास जाली आनी निमणें सुशांत तयार जालो अर्ज भरपाक. सुफलानय ताका परवानगी दिली आपल्या बापाय विरूद्ध वचपाक. सुशांताली आवय आपल्या पुताच्या प्रामाणीकपणाक तोखेवंक लागली.

आनी मागीर प्रामाणीकपणाचेंच जैत जालें.





– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत–गोंय
मो. 9822587498

आत्मनिरीक्षण

# संवाद कौशल्य

वाद संवाद, सुसंवाद आनी अनुवाद ह्या उतरांभितर 'वाद' हें उतर आसा. खंयचेय गजालींतलो 'वाद' सोंपलो काय संवादांतल्यान सुसंवादाकडेन वाटचाल सुरू जाता. 'अनुवाद' हें उतर वेगळेंच. अनुवाद म्हळ्यार अणकार. ताच्या अर्थाबद्दल 'वाद' ना. अणकारपी 'मूळ' लेखकाचीं मतां आसा तशींच अणकारीत करता. थंय अणकारकाराच्या मतांक वाव नासता. तो त्या मतांकडेन सहमत आसताच अशेंय ना. देखून 'अनुवाद' हें उतर 'वाद' आसुनय वादरहीत. कौशल्यान केल्ल्या संवादांतल्यान सुसंवाद कसो निर्माण जाता तें आमी पळोवया.

जेन्ना मनीस शांत आसता तेन्ना ताचो स्वताच्या मनाकडेन संवाद चालू आसता. मनाकडेन संवाद सादपाक पयलीं स्वताच्या मनाचें शांतपणान आयकून घेवपाची संवय करपाक जाय. मनाक कितें जाय तें कळ्ळें काय मागीर जें जाय तें योग्य काय अयोग्य ह्या विशयाचेर स्वताकडेन संवाद सादप सोपें जाता. असो संवाद सादता तेन्ना विचारांचें वादळ शांत जाता.

दुसऱ्यांकडेन संवाद सादतना स्वतार्चे मन, कूड आनी व्यक्तिमत्व हांकां पयली समजून घेवप गरजेचें. स्वताक पुरायपणान समजून घेतल्या उपरांतच मनीस दुसऱ्याकडेन योग्य संवाद सादपाक शकता.

संवाद सादतना संदेश धाडटल्यान तो स्पश्ट धाडपाक जाय आनी स्वीकारतल्यान ताची योग्य जाप दिवपाक जाय तेन्नाच संवाद यशस्वी जालो अशें आमी म्हणटात. चुकीचो संदेश गेलो काय संवाद अयशस्वी जाता. दरदिसा मनशाक १० टक्के वाचप २० टक्के पळोवप आनी ५० टक्के पळोवन-आयकप अशा चार माध्यमांतल्यान १७००-२५०० संदेश मेळटात. तांतुतले फकत ६५ संदेश ताका याद उरतात.

प्रभावी संवाद सादपा खातीर मनशाक स्वतार्चे भान आसपाक जाय. उलयतना कुडीच्यो हालचाली, चेहऱ्यावयले हावभाव, उतरांक अनुसरून आसपाक जाय. संवाद सादपी मनीस स्वताच्या उतरांतल्यान आनी हालचालींतल्यान स्वताक उक्तायता. देखून ताणें दर खिणाक जागरूक आसप गरजेचें. शब्द आनी संदेशापरस आमच्या उलोवपाचे पद्धती वेल्यान आमी कोण आनी कशे तें थारता. ताचेरूच संवादाचें यश-अपयश निंबून उरता. योग्य संवादाखातीर कुडींतल्या तीन अवयवांची सुसुत्रताय म्हत्वाची. इंग्लीशींत तांका थ्री एचस् (३ 'H') म्हणटात. पयलो म्हळ्यार head तकली.

संवादान तकलेचो वापर करतना कांय गजाली मतींत दवरच्यो. वातावरण पळोवन उलोवचें. उलयताना वेळाचें भान दवरचें. उलोवप गरजेचें आसा काय ना? उलोवपासारकी मुखावयल्या मनशाची परिस्थिति आसा काय ना? हाचो विचार करचो. मुखावयल्या मनशाची शाब्दीक वा निःशब्द प्रतिक्रिया पळोवन मुखार संवाद चालू दवरपाचो काय ना हाचो अंदाज येता. परिस्थितीचें आकलन करून घेवन केन्ना थांबप, केन्ना उलोवप हें थारावचें. 'वाज येत' इतलें संवादाक ताणचें न्हय. देखूनच 'तकले'चो योग्य वापर संवादांत गरजेचो.

दुसरो एच म्हळ्यार हार्ट (हृदय/काळीज) काळजाचो संबंद भावनांकडेन आसा. भावनिक पावंड्चावयल्या संवादांत 'भावना' नासत जाल्यार तो 'रुक्ष' जावं येता. भावनांचो संबंद आयलो की संवादांतल्यान भावना फुलोवप वा दुखोवप दोनूय जाता. तोखणायेन आमी सुखावतात तर टिकेन दुखावतात. टिका करपी मुखार आयलो की ताचेकडेन संवाद सादप आमकां अशक्य जाता. ताचे विशींच्यो द्वेश भावना संवादांत आडमेळीं हाडटात. देखून भावनांचेर नियंत्रण दवरून संवाद सादप गरजेचें. कांय वेळार एकाद्र्या अनवळखी मनशाकडेन संवाद सादतना ताचेविशीं मनांत आशिल्ल्या गैरसमजाक आनी पुर्वग्रहांक लागून आमी सारके उलोवंक लेगीत शकनात. मागीर तापप, आड्डप, वायट उतरां दिवप जाता. परिणाम म्हळ्यार असो संवाद स्वताची आनी दुसऱ्याची मनःस्थिति इबाडटा. हे खातीर काळजांत सावन संवाद सादतना मुखावयल्या मनशाच्या स्वभावाचो अभ्यास करप, ताचें म्हणणें कान दिवन आयकप आनी स्वताच्या भावनांचेर नियंत्रण दवरप ह्यो गजाली म्हत्वाच्यो.

तिसरो एच म्हळ्यार हॅण्ड (हात). मनशाच्यो भितरल्यो आनी भायल्यो जाणिवो उतरांवांगडाच हाताच्या हालचालींतल्यान व्यक्त जातात. प्रेम, माया ह्यो भावना उतरांपरस हाताच्या स्पर्शांतल्यान प्रभाविपणान व्यक्त जातात.

सुसंवाद सादपाखातीर कांय नेम पाळचे.

१. संवाद सादपाखातीर पयलीं मन शांत दवरून परिस्थितीचो अंदाज घेवप.

२. दुसऱ्याचें म्हणणें लक्ष दिवन आयकप.

३. मुखावयल्याच्या उलोवण्याक मान दिवप.

४. संवाद सादतना येवपी आडमेळीं म्हळ्यार राग, दुस्वास, बोवाळ, हुतहुतेपण, स्वताचेंच खरें म्हणपाची वृत्ती सगळें कुशीक दवरून प्राप्त परिस्थितीक आनी योग्य विचारांक प्राधान्य दिवन सहज संवाद सादप.

संवादांतल्या दरेका मनशाचे परिस्थिती कडेन आनी हेर मनशांकडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण योग्य आनी सकारात्मक आसत जाल्यार कितल्योश्योच समस्या सोंपतल्यो आनी 'वाद' सोंपून सुसंवादाक सुरवात जातली. १०० टक्केतलो ८५ टक्के संवाद हो उतरांबगर जाता. तातुंतलो ३० टक्के संवाद हो कपडे, केशरचना, सौंदर्यप्रसाधना, वस्ती, भेटवस्तू हातुंतल्यान जाता. तर ५५ टक्के संवाद हो शारिरीक हालचाली, चेहऱ्यावयले हावभाव, नजरानजर, स्पर्श, हातुंतल्यान जाता. खूब फावट शांतताय उतरांपरस चड उलयता. गरज आसता ती फकत भावनीक नियंत्रण, सगळ्यांकडेन मित्रत्वाच्या नात्यान वागप आनी प्रामाणिकपणा हांची याद दवरात.

"He is not a fool, who holds his tongue."






-सिस्टर जॅसीन्ता पिंटो

समुपदेशिका,

अवरलेडी ऑफ

माऊंट कार्मेल हा. से. स्कूल

हरमल, पेडणे-गोंय

मातीव

# लौक कलांचौ सौबीत आविष्कार



# लौकौत्सव २०१०

*कश्टकरी जिवाक काम करतां करतां मनरिजवणे खातीर गीत सुचलें आनी थंयच जल्म जालो लोकगीतांचो. ह्या गीतांचेर पांयांनी ताल धल्लो आनी मुखार आयलें लोकनृत्य. अशाच आपल्या कामाचो आनंद घेत उत्तराखंडाचे कश्टकरी पावलां मारतात. 'घसियारी' नाचाक तर सिक्कीमच्या गुरुंग समाजाचे लोक ताल धरतात पारंपारीक 'घांटू' नाचाक. ह्याच राज्यान बर्फा (झेल) चे पर्वत शिंवाभशेन दिसतात. ह्याच शिंवाची (स्नो लायन) याद करतात 'सिंधी चाम' नाचान. भारताचें पयलीचें वैभवशाली राज्य म्हण मणीपुरची वळख करून दितात. हांगच्या शांततायेचें जोशपुर्ण दर्शन जाता. 'पूंग चोलम' वा 'ढोल ढोलक चोलम' नाचान. मणिपुरच्या पारंपारीक, शास्त्रीय वाजपांचो हो वेगळो आविश्कार.*

**लो**ककला मनामनांक एकठांय करपी, भाशीक, धार्मिक आनी वांशीक मतभेदाच्यो साखळ्यो तोडून, सगळ्या मानवजातीक आकर्शीत करपी ही कला. लोककलांचे बाबतींत गोंय भारतांतलें एक वेगळें राज्य म्हणचें पडटलें. गोंयचो भोगोलीक वाठार ल्हान जायत, पूण सांस्कृतिक नदरेन परिपूर्ण आनी समृद्ध. साबार राजसत्तांनी हे भुंयेर आपलो शेक गाजयलो. आपले संस्कृतायेची जतनाय घेतनाच हेर राजवटींनी हाडिल्ल्या संस्कृतीरूपांनीय गोंय सोबीत जायत गेलें. त्याचखातीर भारतीय आनी अस्तंत अशा दोनूय संस्कृतीरूपांचो संगम जाल्लें भारतांतलें गोंय हें एकूच राज्य.

हांगच्यो कला, कलाकार, संस्था हांका आदार दिवन तांची उर्बा वाडोवचे नदरेन गोंय सरकारान कला आनी संस्कृती संचालनालयाची स्थापना केली. खेळ तशेंच शिक्षण खात्याकडेन कला-संस्कृती खातें जोडिल्लें. पूण ह्या प्रदेशाची पुर्विल्ली संस्कृताय, लोकजीण, लोककला, लोकसंगीत आनी हेर कलांचें जतन आनी संवर्धन करचे खातीर ह्या खात्याचो कारभार स्वतंत्र आसचो म्हण संबंदितांनी थारायलें आनी १६ ऑक्टोबर १९९१ वर्सा कला आनी संस्कृती संचालनालय स्वतंत्ररूपान लोकसेवेक हाजीर जालें.

मुखेलमंत्री श्री दिगंबर कामत हांच्या मार्गदर्शनाखाला आनी संचालक श्री. प्रसाद लोलयेंकार हांच्या नेतृत्वाखाला वावर करपी कला संस्कृती खातें, फाटल्या कांय वर्सांसावन आपल्या विंगड- विंगड उपक्रमांक लागून लोकमनांत आपलेंपण जोडीत आयलां. खात्यान हालींच ४ जानेवारी ते १३ जानेवारी असो वट्ट धा दिसांचो लोकोत्सव २०१० कला अकादमीच्या दर्यासंगमार घडोवन हाडिल्लो. २०० लोककलाकार आनी २५० हस्तकलाकार हाणी हो उत्सव सजयलो. पश्चिम क्षेत्र सांस्कृतिक केंद्र, उदयपूर, कला अकादमी, गोय आनी गोवा क्रिडा-प्राधिकरणाच्या जोडपालवान ह्या महोत्सवाचें आयोजन केल्लें.

सकाळीं धा वरांचेर सुरू जावपी ह्या उत्सवांत पयले वांटेकार जाताले, गोंयां वांगडाच देशाच्या हेर वाठारांतल्यान आयिल्ले हस्तकलाकार. तांचेखातीर खात्यान खासा स्टॉल उबारिल्ले. ह्या स्टॉलांक कसलेंच भाडें नासलें हें मुद्दाम नमूद करचें पडटा. सुमार २०० स्टॉलांनी २५० हस्तकलाकार आपलें सामान घेवन बसताले. विणील्ले तोरण, मांणे आनी हेर वस्तु, अॅम्ब्रॉयडरी सोफा कव्हर, आयुर्वेदीक वखदां, पाटले, कोरीवकाम केल्ले नाल्ल, वुलाच्यो वस्तु, ओरीसाचें पट्टा चित्र, आंध्राचीं लाकडाचीं खेळणीं, माती आनी क्लेच्यो वस्तु, कागदाच्यो सोबेच्यो वस्तु,



शंख, शिंपले, ल्हान भुरग्यांचे कपडे, पुस्तकां, बटीक पेंटींग, राजस्थानी मिनेचर पेंटींग, लखनौ चिकनकारी पेंटींग, उदयपुरचें लाकूड आनी मेटलावेलें कोरीव काम, मेथी, फातरावयलें कोरीव काम, आसाम, मेघालया आनी त्रिपुराचें बांबुवयलें कोरीव काम, शोभेच्यो वस्तु आनी फर्नीचर, नागालॅण्डाचीं कृत्रीम फुलां, गुजराती शाली, हारशावेली कला, टेराकोटा, चप्पलां, पॉण्डेचेरीचीं मोतयांचीं कांकणां आनी वस्ती, नकली वस्ती, म्हैसूरचो अत्तर आनी हेर सुगंधी वस्तु, मध्यप्रदेशच्यो चंदेरी साड्यो, राजस्थानचो कोटा, टेराकोटा, बांधणी साडयो, चुडिदार, चप्पलां, मोजड्यो, ब्लू पोटरी, पॅचवर्क, लाखेचीं कांकणां, डबयो, पेनां, किचेन, पेन स्टॅन्डां, कुर्ते, काशीदारी, मधुबनी पेंटींग्स, उत्तर प्रदेशच्यो कार्पेट, वेगवेगळ्या आकारांच्यो मेणवाती, काश्मीरी कपडे, फायबर ग्लास, वस्तू, रुद्राक्षमाळा, रुद्राक्ष, पंजाबी कपडे, चामडें, आनी बांबूपासून तयार केल्लीं बॅगां, कठपुतळी बावल्यो, लोकोत्सवान सगळ्यांच्योच नदरो ओडून घेताल्यो. एक चित्रकार तर मुखार बशिल्ल्या मनशाक आपले पेन्सिलीन कागदार हाडटालो. तांदळार नांव बरोवन की चेन करपी तशेंच पितळीचे की चेनीचेर नांव कांतोवपी कलाकारूय ह्या लोकोत्सवांत आशिल्लो. हें प्रदर्शन पळेतां पळेतां पोटाची तजवीज करचे खातीर गोंयच्या खाणांबरोबरूच राजस्थानची भेळ, भेळपुरी, ढोकळा, लस्सी, कुल्फी, दहीवडा, मिर्ची, कचोरी, हलवा ह्या सारखे जायते पदार्थ तयार आसले.

लोकोत्सवान ह्या वर्सा धावें वर्स हुपून अकराव्या वर्सांत पावल घातलें. दर दिसा सुमार पांच हजार लोक ह्या उत्सवाक भेट दिताले. आयतारा (ता. १०) धा हजारांवयर लोकांनी लोकोत्सवाक गोंयच्या फेस्ताभशेन गर्दी केली. सकाळीं धा ते रातचें साडेणव-धा मेरेन लोक हस्तकलाकारांकडेन गर्दी करताले. आनी खासा उभारिल्ले माचयेर सांजे ६.३० ते ९.३० मेरेन लोककला कार्यावळी जाताल्यो. ह्या उत्सवाचें उक्तावण गोंयचे ज्येष्ठ रंगकर्मी, कला अकादमीचे उपाध्यक्ष परेश जोशी हांणी केलें. कला-संस्कृती संचालक प्रसाद लोलयेंकार, पालवी संचालक अशोक परब, पश्चीम क्षेत्र सांस्कृतिक केंद्र उदयपुरचे संचालक शैलेंद्र दशोरा, कला अकादमीचे सदस्य सचिव डॉ. पांडुरंग फळदेसाय आनी गोंय क्रिडा प्राधिकरणाचे कार्यकारी संचालक वसंत प्रभुदेसाय ह्या वेळार हाजीर आसले.

धोल, तासो, ढोलक, खडताल, खंजरी, मसिंडो, मजीरा, मुघरवान, बासरी, रणशिंग, शंख, ढोल चोलम, ढोलक चोलम, पुंग, थाळी, गोगोना, नगारो, पेपा, कमायचा, समेळ, मुरली, घुमट, म्हादळे, झांज, चिपळी, कांसाळें ह्या सारकीं कितलीशींच पारंपारीक लोकवाद्यां ह्या लोकोत्सवांत वाजताली. ह्याच वाद्यांच्या तालार नाचताले देशाच्या विंगड-विंगड वाठारांतल्यान आयिल्ल्या लोककलाकारांचे पांय. घड्याळीचो कांटो साडेसचेर पावलो की, माची रंगरंगयाळ्यो लायटी आनी वाजपान सजताली. गोंयची घोडेमोडणीं, मांडो, देखणी, कुणबी, धनगर, जागोर, दिवल्यो, धालो, फुगडी, मुसळां खेळान लोकांची मनां जिखलींच. तांच्या सांगाताक आसले केरळच्या मुस्लीम समाजान लग्नावेळार जावपी 'ओप्पाना' नृत्य, आसामाक नवें वरस तशेंच हेरा खोशयेच्या वेळार मोगाचो संदेश दिवपी 'बिहू'. राजस्थानात 'मांगनियार'हो मुस्लीम समाज परंपरेन हिंदू धर्माकडेन नातें जोडून आसा. तांचीं गीतां दर उत्सवाच्या वेळार अखंड २४ तास चलतात. त्याचबराबर





भुरग्याच्या जन्माक येवकार दिवपी हें गीत लग्नावेळारूय खोस वाडयता आनी दुःखी सुरांनी सोंपलेल्या मनशाक निरोप दिता. 'दमा दम मस्त कलंदर' म्हणत तांणी लोकगीतां फिल्मांनी कशीं पावल्यांत हाची याद करून दिली. कठपुतळी खेळ करप्यांनी भुरग्यांबराबरूच जाण्ट्यांकूय आकर्शीत केले. नर्तिका, जादुगार, सोरोप आनी गारुडी, घोडेस्वार, उंटस्वार हांचें दर्शन राजस्थानच्या 'कठपुतळी' कलाकारांनी करून दिलें. ह्याच राजस्थानच्या बायलांनी आपल्या कलबेलिया नृत्यान यत्न केल्यार मनीस आपलें आंग कितलें 'फ्लेक्सीबल' करूंक शकता हें दाखयलें. 'सपेरा नृत्य' (सर्पनृत्य) म्हण वळख जाल्ल्या ह्या नाचान बायलां आपलें आंग सोरपाभशेन करीत रसिकांक चकीत करतात.

कश्टकरी जिवाक काम करतां करतां मनरिजवणे खातीर गीत सुचलें आनी थंयच जल्म जालो लोकगीतांचो. ह्या गीतांचेर पांयांनी ताल धल्लो आनी मुखार आयलें लोकनृत्य. अशाच आपल्या कामाचो आनंद घेत उत्तराखंडाचे कश्टकरी पावलां मारतात. 'घसियारी' नांचाक तर सिक्कीमच्या गुरूंग समाजाचे लोक ताल धरतात पारंपारीक 'घांटू' नाचाक. ह्याच राज्यान बर्फा (झेल) चे पर्वत शिंवाभशेन दिसतात. ह्याच शिंवाची (स्नो लायन) याद करतात 'सिंधी चाम' नाचान. भारताचें पयलीचें वैभवशाली राज्य म्हण मणीपुरची वळख करून दितात. हांगच्या शांततायेचें जोशपुर्ण दर्शन जाता. 'पूंग चोलम' वा 'ढोल ढोलक चोलम' नाचान. मणिपुरच्या पारंपारीक, शास्त्रीय वाजपांचो हो वेगळो आविश्कार. अशे हे नांच पळेताना दिसता. ह्याच वाठारांतल्या कलाकारांचें 'थांग टा' पळेतना मात आंगार कांटो उबो जाता 'थांग' म्हळ्यार तलवार आनी 'टा' म्हळ्यार भालो. थळाव्या लोकांक 'मार्शल आर्टसा'चें शिकप थंय दिसतात. आपलें आनी गरजवंताचें रक्षण करपाखातीर. पूण ह्या शिकपाचो तांणी अचळय आपले कलेंत आसपाव केला. 'टायमिंग' आनी 'जोशं' हाचें दर्शन घडोवपी 'थांग टा' प्रत्येकान पळोवंचो असोच आसा.

'पुरूलियां छाऊ.' झारखंडचें हें नृत्यनाटच. रामायण महाभारत या महाकाव्याचेर आधारिल्लीं साबार कथानकां 'पुरूलिया झाऊ' त दाखयतात. मनाचो ठाव घेवपी तांच्यो कसरती पळेल्यार, आंगोवेलो भेस, मुकूट आनी रूपडीं ते कशीं सांबाळटा आसतले तेंच समजना. गुजरात राज्यांतल्यान दोन पथकां आयिल्लीं. थंयच्या भिल्ल समाजाचे लोक उत्सव वा खोशयेच्या वेळार दंग जातात ते 'मेवासी' नृत्य. ह्या नाचान तांणी केल्ल्यो कसरती आनी शेवटाक सादर जाल्लो मनशांचो रथ दोनूय हात एकठांय हाडून ताळ्यो मारल्या बगर रावनात. 'सिध्दी धमाल' नाचानूय ह्या उत्सवांत धमाल केली. आफ्रीकन नृत्याकडेन साम्य आशिल्ल्या ह्या नृत्यान एक वेगळोच जोश आनी उमेद येता. शेवटाक कलाकार नाल्ल वयर उडोवन फुटबॉलाचेर हेड मारिल्ल्या भशेन हेड मारून नाल्ल फोडटात तें पळयतना दर मनीस आं...! करीत उरता.

भारत भूंय एकचाराची, हांगा साबार जाती-धर्म आसात. हांगच्या लोकांची जीण, रावप, खावप, थळावी संस्कृताय वेगळी आसत. पूण तरीय एकचाराचो भाव आमचे मदी आसा. आनी तो एकचार घेवनूच आमी मुखावेली वाट चलतले. असो संदेश दिवपी 'अनाहत नाद' वा 'पुर्वरंग' नदर लागपासारको. लोकोत्सवांत सहभागी जाल्ल्या सगळ्या २०० कलाकारांक घेवन 'कोरीयोग्राफ' केल्लो हो नृत्याविष्कार. लोकोत्सवाच्या फेट्यांत आनीक एक मानाचो तुरो खोयता. अस्तंत क्षेत्र सांस्कृतिक केंद्र उदयपुरचे कार्यक्रम अधिकारी तनेराजसिंग सोडा हांच्याच संकल्पनेन 'अनाहत नाद' तयार जाल्लो.

'अनेकता में एकता' का दर्शन देनेवाला ये 'लोकोत्सव २०१०' एक सुंदर अदाकारी है।' अशा सुंदर उतरांनी गोंयचे मुखेल सचीव तशेंच कला-संस्कृती सचीव संजय श्रीवास्तव हांणी समारोप कार्यक्रमावेळार मुखेल सोयरे म्हण उलयतना तोखणाय केली. संचालक प्रसाद लोलयेकार, पालवी संचालक अशोक परब तशेंच प. क्षे. सां. कें. उदयपुरचे कार्यक्रम अधिकारी श्री. सोडा ह्या वेळार हाजीर आसले. लोकोत्सवांतले लोककलाकार आनी हस्त कलाकारांक तांणी प्रशस्ती पत्रकां भेटयलीं. खात्यान ख्रिसमसा निमतान घडोवन हाडिल्ल्या ख्रिस्तजन्म 'गोठो' सर्तीच्या जैतिवंतांकूय इनामां भेटयलीं.

ज्या उत्सावाची गोंयकार उमळशिकेन वाट पळेता तो लोकोत्सव सोंपलो दवरून मनामनान आपल्यो यादी पळोंवक वाट लोकोत्सव २०११ ची!



**– प्रदीप आनंद नाईक**
राममंदीरालागी,
भाटलें-आल्तीनो रस्तो,
पणजी-गोंय



ओवळां

# 'एक अणभव'

*हे गजाली उपरांत म्हजो साईबाबाचेर विश्वास आनी भावार्थ बसूंक लागलो. हांवय न चुकतां साईबाबाच्या देवळांत बिरेस्तारचें वचूंक लागलें. बाबाचे कृपेन आनीक आशिर्वादान हांवें परिक्षेंत बरे गूण मेळयले. सायलीय बारावेक बरे तरेन पास जालें. हांव डेंटलाक गेलें आनी तें इंजिनियरींगाक. ताका पुण्यांत शिक्षण घेवचें पडलें कारण ताच्या बापायची बदली पुण्यात जाल्ली आनी तो आपले फामीलेक घेवन पुण्यांत गेलो.*





प्रत्येक मनशाचे जिणेंत केन्ना ना केन्ना कसले तरी बरे-वायट,गोड-कोडू अणभव येतात. मनशाची जीण ही अणभवाची वीण विणत आसता आनी त्या प्रत्येक अणभवाची गोडी चोखीत मनीस वायटांतल्यान बरें पळयता, आनी अणभवाचो लडो खावनच मनीस शाणो जाता.

म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतल्या खूबश्या गजालींचो उगडास आसा. म्हाका म्हजी आवय 'माई' भुरगेपणांत खंयी वतना देवूळ दिश्टी पडलें वा खंयच्याय देवळांत भितर सरलीं तर देवाक पांयां पडूंक सांगी. ती सांगता म्हूण हांवय न चुकतां पडटालें. माई पापान वाटेर खंयी वतना देवूळ पळयलें ना तर हांव जावन तांकां दोगांकूय तें खंयीय दिसल्यार दाखयतालें.

भुरगेंपण हें भुरगेंपणच न्हय? म्हाका खूब वेळां दिसतालें हे सगळे लोक देवळांत वतगीर हात जोडून दोळे धापून कितें मागतात काय? नातर जमनीर न्हिदून नाक कित्याक घासतात काय? आतां ह्या प्रस्नांची म्हाका एक एक जाप मेळटा. अणभव म्हजे जिणेंत खूब आयले पूण हो अणभव तुमचे मुखार मांडपाचें हांव धाडस करतां.

हांव मॅट्रीक पास जावन अकरावेक सेंट झेवियर कॉलेजींत नांव घालपाक गेलें. थंय म्हजी वळख सायलीकडेन जाली. एके क्लासींत बशिल्ल्यान आमी इश्टीणी जाल्यो. आमची इश्टागत इतली वाडली, इतली वाडली कीं आमचे माये धागे घुस्पत गेले. बरोबर अभ्यास, एकांमेकांगेर वचप-येवप जावंक लागलें. सायलीचो आनी ताच्या घरच्यांचो श्रीसाईबाबाचेर खूब भावार्थ, भक्ती आनीक विश्वास. तीं वर्सांतल्यान एकदां शिर्डी वचून येतातच. वर्सांतल्यान दोनवेळा तांगेर श्रीबाबाची, श्री सत्यनारायणाबरोबर पूजा करतातच आनी दर बिरेस्ताराक वेळांत वेळ काडून साईबाबाच्या देवळांत वतात.

सायली वांगडा दर बिरेस्ताराक देवळांत हांवय वतालें. पूण म्हाका तितलो भावार्थ भक्ती नाशिल्ल्यान हांव पांयां पडपाक जाय म्हूण पडटालें. केन्ना केन्नाय हांव भायल्यानच रावतालें. दिसा फाटल्यान दीस वताले. केन्ना बारावेक पावलें कळ्ळेंच ना.बारावेची वर्सुकी परिक्षा तोंडार पाविल्ली. आनी एक दीस अस्कस्मात म्हाका म्हजो विज्ञानाचो जर्नल मेळना जाता. हांवें आनी म्हजे आवयन माईन सगळें घर, तो जर्नल सोदपाक सोदून सोदून उमथें घाल्लें. हो जर्नल मेळ्ळो ना तर चार दिसांर येवन राविल्लें प्रॅक्टीकल कशें जातलें? हे विवंचनेन म्हज्यांतलो आत्मविश्वास शेणत वतालो. तेन्ना बाकीच्या विशयांचेर ताचो खूब

परिणाम जातलो म्हूण म्हज्या वर्गांतल्या इश्ट इश्टीणीनी आपल्या घरा आपआपले परीन सोदलो. प्रोफेसरान तर खऱ्यांनीच खूब श्रम घेवन सोदलो. पूण कोणाकूच यश आयलें ना. हांव सामकेंच बेजारलें. कितें जातलें तेंच समजना जालें. हांव काचाबूल जालां तें पळोवन सायलीन म्हाका म्हळें, 'तूं कांयच अशें भिवूं नाका. तुका साईबाबा आसा तोच आधार दितलो.'

घरा येवन हांवें माईक तेंच सांगलें. तिणेंय धीर दीत तेंच म्हळें 'देवाचेर भार घाल तोच तुज्या मनांतलें करतलो.'

म्हजी रूच लेगीत ना जाल्ली. मनांतली उमेद घाण दवरिल्ले वरीं म्हजें वागप जाल्लें. कित्यारूच लक्ष लागनासलें. हांव रडत खाटीर पडिल्लें तेन्ना कोणेंतरी आमच्या दारावयली बॅल मारली. माई भायर गेली. पळय तर एक जाण्टो मनीस धवेफुल्ल कपडे घालून, माथ्याक लेंस बांदून म्हजो जर्नल घेवन आयिल्लो. ताणें तो जर्नल माईकडेन दीत म्हळें, त्या दिसा हांवें तुमगेरच्यान रद्दी व्हेल्ली. ती आज म्हज्या पात्रावान सारकी करतना ताका हें पुस्तक मेळ्ळें. ताका हें पुस्तक ह्या वर्साचें म्हूण कळतकीच ताणें तें तुमगेर व्हरून दिवपाक सांगलें. म्हाका हें कांयच खबर ना.

'रिना' म्हूण माईच्या उल्यान हांव भानार आयलें. माईच्या हातांत म्हजो जर्नल पळोवन हांवें उडीच मारली. तशें पळोवंक गेल्यार म्हज्या दोळ्यांचेर म्हजोच विश्वास बसना जालो. म्हाका घसघशांनी रडूंक आयलें. माईन म्हळें, "हीं उमेदीचीं दुकां" त्या मनशाची माईन खबर सांगतगीर हांव धांवन भायर आयलें. म्हाका तो थंय दिसलो ना. हांव फाटीं परतताना माईन म्हळें, "पळयलें रिना देव आसा म्हण्टात तो असो. मन बरें दवरीत तर सगळें बरें मेळटा."

हांवें फोनावेल्यान ही गजाल सायलीक कळयली. ताकाय उमेद जाली. तें म्हणूंक लागलें, "पळयलें मगो हांवें म्हणूं नाशिल्लें साईबाबा कसोय करून तुका पावतलो म्हूण? तोच तुमगेर मनशाच्या रुपान जर्नल घेवन आयिल्लो. आतां तरी तुजो विश्वास बसलो मगो? पटता तुका?"

हे गजाली उपरांत म्हजो साईबाबाचेर विश्वास आनी भावार्थ बसूंक लागलो. हांवय न चुकतां साईबाबाच्या देवळांत बिरेस्तारचें वचूंक लागलें. बाबाचे कृपेन आनीक आशिर्वादान हांवें परिक्षेंत बरे गूण मेळयले. सायलीय बारावेक बरे तरेन पास जालें. हांव डेंटलाक गेलें आनी तें इंजिनियरींगाक. ताका पुण्यांत शिक्षण घेवचें पडलें कारण ताच्या बापायची बदली पुण्यात जाल्ली आनी तो आपले फामीलेक घेवन पुण्यांत गेलो.

तीं पुण्यांत वचचे पयलीं सायलीचे आनी म्हजे फामिलेन शिर्डी वचपाचें थारायलें. हांव पयलेच खेप शिर्डी वतालें. तेन्ना म्हजे उमेदीक शीममेर नासली. पूण म्हण्टात न्ही "बाबाच्या मनांत आसल्यारच ताच्या पांयांलागीं पावतांत म्हूण!" म्हजेंय तशेंच जालें. दोन दीस आसात म्हळ्यार म्हाका फुगांव आयले. म्हजेखातीर म्हजीं घरचींय वचपाचीं उरलीं.

म्हजी भक्ती बाबांचेर वाडतच गेली. म्हाका कसलीच अडचण, कश्ट आयले तर हांव मनांतल्यान बाबाचें स्मरण करतां. म्हाका विश्वास आसा की बाबा म्हाका पावतलोच म्हूण, ताचो आधार म्हाका मेळटलोच म्हूण.

अजाप म्हळ्यार डेंटलाच्या निमाण्या वर्सा म्हजी सोयरीक जाली. म्हज्या घोवाचें नांव 'साई' वयल्यानच सुरू जाता. ताचें नांव 'साईश' ताच्या घराचें नांव 'साईकृपा'. म्हजी मांय मांव साईबाबांचे भक्त. वर्सांतल्यान दोन वेळां तीं शिर्डी वतातूच.

म्हाका आतां समजलें देवाचें केल्लें फुकट वचना. आज नातर फाल्यां ताचें फळ मेळटाच मेळटा. म्हजें लग्न जावन म्हाका म्हज्या घोवान तिसरेच दिसा शिर्डी व्हेलें. म्हाका समजलें कीं, जोडप्यान म्हाका येवपाखातीर त्या दिसा बाबानच फुगांव धाडिल्ले. म्हज्या दोगांय चल्यांचीं नांवां 'साईराज' आनी 'साईकृष्ण' दुसरो म्हजे क्लिनिकाचें नांव 'साई डेंटल'.

साईचो आशिर्वाद आशिल्लो मनीस सदांच समादानी आनी सुखी आसता. तांतलेंच हांव एक म्हणपाक हरकत ना.





**– रिना साईश लवंदे**
कळंगूट–गोंय
फोन : २२७६२९४

तेफळां

# वि र ह

बिल्डिंगेची लायट नाशिल्ल्यान लिफ्ट बंद म्हणून गडबडेन सोपणानी सकल देवतनाच म्हाका मिसेस शर्मिला बॅनर्जी मेळ्ळी. शर्मिला म्हज्या तोंडामुखावेल्या फ्लॅटांतच रावता. हिन्दी उलयता. आमच्या फ्लॅटाच्या दाराकडल्यान चार पावलां घालीं म्हणटगीर तिचें दार. ती बाबडी घरांत दिसभर एकटीच. मिस्टर बॅनर्जी होंडा-सत्तरी कामाक आसा. ताका व्हरपाक हाडपाक गाडी आनी ड्रायव्हर. आनी एक एकुलतें एक चली. तेंय हालींच कामाक लागलां मुंबय. म्हणटगीर हिका दिसभर घर खावपाक येता. केन्नाय दिश्टी पडटा तेन्ना यो आमगेर म्हण, बसपाक आपयता. पूण केन्नाच वचपाक म्हळ्यार बसपाक अशें मेळचना. सकाळचो दारांतलो पेपर व्हरपाक एकमेकांचेर नदर पडून हांसप जाता आनी दारांत रावन उब्याउब्यानीच खबरी. शेनवार-आयतार आमी न चुकतां सांकवाळ वतात म्हण त्या दिसांनीय वचप जायना. आठवड्याची मर्दी केन्नाय सुटी आसल्यार,'फाल्यां सुटी तुमी घरा वचपाचीं न्हय!' म्हण म्हाका ती याद करून दिता आनी हांसता.

त्या दिसा कामाक वचपाक वेळ जातालो म्हण हांव गडबडीन देंवतालें आनी ही मॉर्निंग वॉकाक सावन गडबडीन येताली. वाटेर मेळटगीर म्हणपाक लागली, "सांजचें यो आं, म्हजी मम्मी आयल्या!" ल्हान भुरग्या भशेन उमेदीन भरिल्लें तें मुखामळ पळोवन म्हाका बरें दिसलें आनी मनाक गाठ घाली. वेळ काडिनासतना आजच तिच्या मम्मी म्हऱ्यांत येनाफुडें वचपाचें. नाजाल्यार ती गेली जाल्यार म्हाका पत्तो लागचो ना.

सांजचें येनाफुडें हांव तागेर गेलें. तिची मम्मी म्हण नाजूक बावली कशी. दिसपाक तिच्याहून भुरगी. तिका बडबडपाक खूब जाय आशिल्लें. पूण भाशेचो प्रोब्लेम. तिचें उलोवप बंगालिंतल्यान पूण मोडकीतोडकी हिन्दी उलयताली. बरो वेळ तांच्यो गांवच्यो, शाराच्यो खबरो जाल्यो. हरशींय जाल्यार शर्मिलाक उलोवपाक खूब जाय. दारांत दिसल्यार दारांतच लागलें उलोवपाक. पांय वळून येतात उबें रावून रावून. मागीर हांवच ल्हव कूस मारतालें. सांजेच्या जेवणाचें निमित्त करून हांवें उठपाची तयारी केली. उठतां-उठतांच मम्मीक विचाल्लें, "तुमी सांजेचीं जेवतात काय चपाती बी खातात?" जाल्यार ती मात्शी चपापिल्ल्याभशेन जाली. हांवें शर्मिलाक पळयलें. जाल्यार ती म्हणपाक लागली, "आमचेकडेन बेवा (म्हळ्यार विधवा बायल) रातचें जेविनांत. ताणीं एकाच वेळार जेवपाचें." हांव अजाप जाल्लें पळोवन तिणें फुडें सांगलें, "इतलेंच न्हय तर, आमच्यांत घोव मरतगीर तातयां, मांस-मटणच न्ही तर कांदो-लसूण लेगीत खायनांत. आमी आमचे मम्मीक कांदो-लसूण खायनासतना रावपाक दिलें ना. आमी तिगय भयणीच. मम्मी आलटून-पालटून आमगेरच तिगांगेर रावपाची. कांदो-लसूण नासतना आनी खातली पूण कितें म्हण आमीच तिका फोर्सार केली." आयकून म्हाका कशेंशेंच जालें. हांवें फट्ट करून विचाल्लें, "आनी बायल मेली जाल्यार घोव कितें पथ्य पाळटा?"

"ना, दादल्यांक तसलें कांय लागना. बायलांनीच तें पाळपाचें." ती उलयली. हांवें मनात म्हळें आमच्या गोंयांत असलो प्रसंग येतगीर गळ्यांतलो मणी काडटात, तिकली लायनांत (आतां आतां मात्शी सुदारणा जाता) आनी ही बाबडी आपल्याक आवडटात जाल्यार लेगीत ते जिनस सोडून पोटाचेर हावळ हाडटात. पूण खंयय जावं, दादल्यांचें मात न्हेसण सुकें तें सुकें. वेल्यान जमता जाल्यार रोखडेंच दुसरें लग्न लेगीत करपाक तयार (हांव सगळ्यांकच म्हणिना). हांव विचारांनी गुंतलां तें पळोवन शर्मिला फुडें म्हणपाक लागली, "तूं जाणां, म्हज्या आज्यान मात सगळें सोडिल्लें. ताणेंय मागीर जितो आसासर चिकन-मटन असलें कांयच खालेंना."

"कित्याक ताची बायल मेल्ली?" हांवें विचाल्लें.

"ना, ताचो निकतोच लग्न जाल्लो पूत म्हळ्यार म्हजो मामा पिड्ड्यार जाल्लो. सून इतली तरणीताठी आसून पसून हें कांयच खावचिना आनी आपणेंच कित्याक खावप? म्हण ताणें तसलें खावपाचें सोडिल्लें. पूण म्हजी आजी मात सगळें खाताली आं! कारण तिचो सुहाग आशिल्लो. ती सुहागन म्हण तिणें खावप सोडलें ना." हांव तांगेरच्यान घरा आयलें खरें पूण विचार घुंवपाचे थांबूंक नाशिल्ले. घोवाफाटल्यान बायलेन कितें सोडप, कितें धरप हें समाजान कित्याक थारावपाचें? खरें म्हळ्यार आपलो लागींचो कोणय वतगीर आपल्या मनाक भोगतात ते त्रास, दुःख इतलें खर आसता की मन आपसूकच विरक्त कशें जाता आनी कित्याकच जेवपाक जावं खावपाक मन लागना. थंय सक्ती कसल्या कामाची? मन विरहान, वियोगान जळटा आनी बरीं पंचपक्वाना आसलीं जाल्यार लेगीत तीं पोटांत कशीं वतलीं? कोणाफाटल्यान कोण सगळें सोडिना. पूण थोड्यो थोड्यो गजाली अश्यो आसतल्योच की त्यो करपाक मन कशेंच आनी केन्नाच तयार जावचेंना. काळ हो सगळ्या जखमावयलें वखद म्हणटात. पूण थोड्यो थोड्यो जखमो इतल्यो खोल आसतल्यो की काळ लेगीत बागवतलो. आनी जखमे वयली खवळी वतगीर रगत भळ भळ करून व्हांवत रावतलें.






– रूपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

उजवात

# कोण इडियट्स ?

फाटल्या कांय दिसां सावन कांय अस्वस्थ करपी खबरी दिसाळ्यांनी छापून येतात. सामक्यो दुःख दिण्यो आनी मानसीक धक्को दिवपी खबरी. भुरग्यांच्या आत्महत्यांच्यो. ह्या दिसांनी गाजपी 'थ्री इडियट्स' ह्या आमीर खानाच्या सिनेमांत, भुरग्यांक यंत्रवत मानून तांचेपसून बेसुमार यशाच्यो अपेक्षा करपी पालक आनी शिक्षण संस्था हांकां भुरग्यांक जावपी मानसीक दबावाक जापसालदार धरल्यात. ह्या सुंदर सिनेमांत, अशेतरेन अपेक्षा साकार करपाक अपेस येवपी कांय विद्यार्थी आत्महत्येचो मार्ग आपणायतात अशें दाखयलां, हें खरें. पूण ताका लागून आत्महत्यांचे प्रकार जावंक लागल्यात वा वाडटात अशें म्हणप अन्यायकारी जातलें. तेच परीन ह्या गंभीर विशयाचें 'ट्रिविलायझेशन' (उखलापीपण) जातलें.




आमचीं भुरगीं हे देशाचे भावी आदारस्तंभ. तांची मानसीक, शारिरीक जडण-घडण आमी कशी करतात ताचेर तांची नागरीक म्हणून आनी खाजगी जिणेंत वैयक्तीक 'पर्सनॅलिटी' तयार जाता. आमच्या अपेक्षांच्या दबावान वा वज्यान तांकां दुबळे करप ही गजाल खंयचोच पालक बळयां केन्नाच करचो ना. पूण अनवधानान वा अती उत्साहाच्या भरांत लेगीत अश्यो गजाली घडल्यो जाल्यार तांकां माफी ना. भुरगीं सर्जनशील आसतात. पूण ताचेच वांगडा ते चिकणमातयेचे गुळे कशे. अपेशाक सामकार उबें पळोवन तीं नाउमेद जातात. सगळ्याच भुरग्यांची तांक एक सारकी नासता. देखून सगळ्यांकच एकेच तरेच्या अपेक्षांचें वज्यो सकल चिड्डप समा कशें जातलें?

हांगा देखूनच शाणेपणाच्या आनी बुदवंतकायेच्या 'पॅरेंटींग' (पालकपण) ची भुमिका म्हत्वाची थारता. असो समंजस पालकच भुरग्यांक जिणेचे वस्तुस्थितीचें भान दवरून जाण दिता आनी तांकां सकारात्मक पद्धतीन सर्जनशीलपणाच्या मार्गान वचपाक मार्गदर्शन करता.

जिणेकडल्यान कायम व्हड अपेक्षा करप समा न्हय. कारण जीण सदांच 'फेअर' आसतली अशें ना. हें मानून जिणेक फुडो करप ही खरी कसोटी. एक भुरगें अपंग जल्मता. पालक तेंय पचोवन ताका सगळे तरेच्या आपलेपणान आनी माये-मोगान मानून घेवन वयर काडटा. एक भुरगें तोंडांत भांगराचें कुलेर घेवन जल्मता जाल्यार दुसरें एक भुरगें झोपडपट्टींत गरिबींत जल्मता. ह्यो सगळ्यो गजाली आमकां दिसतात. तांचेर आमचो शेक ना हेंय आमी मानतात. मागीर सगळीं भुरगीं एकाच मानसीक तांकीचीं आनी पात्रतायेचीं आसचीं नांत हें मानपाक आमी कित्याक तयार जायनात? सगळ्यांक एकेच 'रेसींत' बांदपाचो अट्टाहास कित्याक? तांतल्यान येवपी मानसीक दडपण, अपेक्षाभंगाचें भंय ह्या गजालीचे धनी आमी कंवळ्या भुरग्यांक कित्याक म्हणून करचीं? जांकां अपेश वा पालकांचो अपेक्षाभंग सोंसपाची क्षमता ना तीं भुरगीं मागीर आपली जीण सोंपोवपाचो अघोरी मार्ग आपणायतात. १२-१४-१६ वर्सांच्या पिरायेच्या एका भुरग्याक वयर फॅनाक दोरी बांदून तिचो फांस गळ्याक घालपाचें सुचप ही केदी सामाजिक आनी कौटुंबिक अधोगती! हांव कितें म्हणूंक सोदतां ताची तुमकां कल्पना येता?

भुरग्यांक पालकांनी 'मोटीवेट' (प्रोत्साहीत) करूंक जाय. यशाखातीर 'मोटीवेट' करप गरजेचें. यश संपादन करपा खातीर ताची तयारी करपांत चूक कांयच ना. पूण जिणेंत यश आनी अपेश, 'फेअर' आनी 'अनफेअर' अशे सगळे पर्याय उक्ते आसतात. ताचें शिक्षणय भुरग्यांक आमीच दिवंक जाय. ताणें ताची अनपेक्षीत 'झेलपाची' तयारी जाता. पयलीं यशाच्या घोड्यार बसून 'उधळपी' भुरगीं उपरांत जिणेच्या 'लांब रेसींत' खंयचे खंय शेणिल्लीं आमी पळोवंक नात? देखून शाणो, सुशिक्षीत, समंजस पालक भुरग्यांक फकत ताका जाय तें मेळोवपाकच शिकयना तर ताचेच वांगडा ताका कितें मेळटा तें मानून घेवपाचेंय शिक्षण, मार्गदर्शन दिता. हें फकत पालकांकच लागू जायना. भुरग्यांचे शिक्षक, घरांतले वडील लोक, समाजांतले बरे मागपी लोक ह्या सगळ्यांक ही समजीकाय आपणावची पडटली.

भुरग्यांच्या व्राडत वचपी आत्महत्यांक 'तीन इडियट्स्' जापसालदार ना. तर पालक करतात ते चुकीकडेन तो बोट दाखयता. आमच्या शिक्षणीक पद्धतींतल्या दोशांकडेन तो बोट दाखयता.

आमी ताकाच दोश दिवप म्हळ्यार! 'संदेश' (मॅसेज) समजून घेवपाबदला 'संदेश' घेवन येवप्याकच (मॅसेंजर) दोश दिवप. हो गोंदळ! आमी अंतर्मूख जावन विचार करतले?



– प्रकाश वामन कामत
पणजी – गोंय
फोन : ९४२२४४३०९३

(प्रकाश कामत हे गोंयचे ज्येश्ठ पत्रकार)

कथा

# पश्चाताप



*"श्रेया, पयलेच फावट सुब्बुन म्हाका वेंगेंत घेतलें तेन्ना हांव काळजांतल्यान रडटालें. एके बलात्कारितेची जीण कशी आसता तिवूय हावें पयलीं पयलीं भोगली. हांव सुब्बुक साथ दिवपाकच शकनाशिल्ल्यान म्हाका दिसपट्टो बलात्कारच भोगचो पडटालो. आनी तरीकूय सुखी, समादानी आसा हें दाखोवचें पडटालें. हळुहळू हांव सावरलें. आनी जेन्ना सुब्बु म्हजे भोंवतणी आपल्या हातांची वेंग घालता तेन्ना हांव ताका सुब्बु मानपाचेंच सोडलें. ताची भाशा आयकून म्हाका घाम फुटटालो.*

चित्रा? हय चित्राच आसूंक जाय तें. न्हय. शेर्त चित्राच तें. हांव मार्केट रोडार वनवेचेर स्कुटरीन वतालें. जाल्यार तें दुसरेवटेन रस्तो क्रॉस करतालें. यू टर्न लागसार मेळ्ळें ना. नाजाल्यार हांव तें कोण हें तेन्नाच सोदपाचें. पूण वनवे जाल्ल्यान हय-न्हय ह्या खेळांत फसलें. नाजाल्यार कॉलेज सोपले उप्रांत वीस-बावीस वर्सांनी गांठभेट तरी जावपाची. हांव खूब चुरचुरलें. पूण दुसरो प्रस्न म्हळ्यार... तें चित्रा जावं येता. पूण ताचे वांगडा आसलो तो कोण? येदो व्हडलो चलो? शक्यच ना. म्हज्या लग्ना उपरांत चार-पांच वर्सां मेरेन तें आंकवाराच आशिल्लें. मागीर घोव? नासतलोच. कारण देखण्या चित्रावांगडा जो आशिल्लो ताचें वर्णन करप म्हळ्यार कुरूपताय कागदार देवोवप.

इतल्यांत पार्कींग लॉट आयलो. हांवें स्कुटर थंय जवळ जवळ घुसयलीच म्हणुया. मोबायलार शर्मिलाक कॉंटॅक्ट केलें. 'शर्मिल, अगो चित्रा लग्न जालें गो?' 'नकळों हांव' शर्मिलाचो एक घाव आनी सामके दोन कुडके. 'अगो, हांवें आत्तां ताका पळेलां गो. पूण ताचे वांगडा आसा तो ताचो घोव काय कितें हे जाणपाक तुका फोन केल्लो. प्लीज कोणूय कॉलेजमेट मेळ्ळ्यार मात्शी चवकशी कर आनी फटाक करून म्हाका कळय.'

आतां शर्मिलाच्या तोंडाचो पट्टो सुरू जावपाचो आसलो तेन्नाच हांवें 'बाय' करून मोबायल ऑफ केलो.

आयज कामांय चड नाशिल्लीं म्हाका. फोनाचें, उदकाचें आनी लायटीचें बील भरलें आनी हांव परतुपाची तयारी करपाक लागलें. रिकामे तकलेंत खंय सैतान वावुरता. तशेंच म्हजें जालें. आतां हांव म्हजो वेळ, म्हजो पयसो मोडून, चित्रावांगडा आसलो तो कोण? हें सोदपाक पेटलें. अचकीत याद आयलो अमित... अमित म्हजो पांच वर्सांचो बेस्ट फ्रेंड. अकरावी ते फायनल मेरेन आमी वांगडाच शिकतालीं. आमच्या सात जाणांच्या ग्रुपाचो खांबो. ग्रुपांतल्या सगळ्यांचीं फकणां आनी मस्करी करून हाश्याचीं दुकां दोळ्यांतल्यान काडपी देखणो अमित. सगळ्यां वांगडा फ्री वागपाच्या ताच्या सभावाचो खूब चलयो वेगळोच अर्थ काडटाल्यो. आमकां सदचो संवकळीचो जाल्ल्यान आनी आमी सातूय जाणांनी एकमेकांभितर कोणांयकडेन अफेअर न करतां फ्रेंडसच रावपाचें थारायिल्ल्यान गैरसमजुत जायनाशिल्ली.

असलो हो अमित ह्या चित्राखातीर

सामको 'पगला है' जालो. आमकां चलयांक पांयां पडटालो. आनी आपली लायन चित्राकडेन जमोवन दिवपाक सांगतालो. आमीय शेर्त जाणटालीं अमितानच कित्याक? ताचेवतीन आमीं कोणेंय प्रपोज केल्यार चित्रा हय म्हणटलेंच. आमची ब्रेक नाशिल्ली गाडी, म्हळ्यार बडबडें शर्मिल ह्या कामांक फुडें सरलें. 'हाय ब्युटिफुल. हांवें तुजेखातीर एक हँडसम सोदला. लायन कनेक्ट करपाक हांव मिडलमॅन म्हणून आयलां.' उपरांत हयकार अपेक्षित धरूनच अमिताचें वर्णन करपी शर्मिला, चित्रान ताका चिल्लर कसो न्हयकारलो तें पळोवन लागीं लागीं बेसुदच जावपाचें. अमित बाबडो चार दीस चित्राच्या पिकासांवान खाड वाडोवन फिरलो. दुसऱ्या आठवड्यांत हो एकदम क्लीन शेव्ह सफाचट जावन आयलो. 'मजाच मरे अमित तुजी. सामको आलमिनाचो तोप कसो! चार दीस चाळवलो आनी फटकन न्हिवलोय बी.' हांवें म्हजी मुलुखमैदान तोफ दागलीच. 'तांतूंत कितें, चड इनव्हॉल्व जावचे पयलींच कनेक्शन तुटलें. फेविकॉल घट जावचे पयलींच सुटलें. सो... नो सुख नो दुःख' हें सांगपी अमिताचें अजुनय म्हजेकडेन ताच्या बायल-भुरग्यांसयत लागीचे संबंद आसात. रोकडोच हांवें ताचो मोबायल नंबर धुंवडायलो.

स्क्रीनीर म्हजें नांव पळोवन ताचें पाघळप सुरू जालें. 'हाय हनी, हांव कितें करूं म्हजे ब्लॅक ब्युटीखातीर?' हांव सावळें जाल्ल्यान म्हजो ग्रुप म्हाका ब्लॅक ब्युटीच म्हणटालो. आनी अजुनय म्हणटात. 'आरे पापया स्मिता आसा मरे म्हऱ्यांत?' म्हज्या ह्या प्रस्नाक ताची सॉलीड जाप. 'आसा तर, सामकें फेव्हीक्वीक लायिल्लेवरी चिकटलां पळय. आगो मात्शें पेल्यान वच.' हो ताच्या म्हऱ्यांत नाशिल्ल्या स्मिताक धेंगसो. 'सांग सांग. हांव गाडयेंत आसां. पयलींच सांगतां. सायडलायट पेटोवन गाडी सायडीक लावन हांव उलयतां.' म्हजो येरादारी नेम पाळपाचो सल्लो येत म्हणून अमिताची पयलींच सावधगिरी. हांवें ताका सगळी गजाल सांगली आनी चित्राविशीं किदेंय जाणा जाल्यार विचाल्लें. ताणें सामके खांके वयर केले. 'चित्रा is a closed chapter for me. पूण हांव तुका ताचे आवयचो नंबर दितां.' अशें सांगून एक मोबायल नंबर दिलो.

हाचे उपरांत खूब तेंप गेलो. परत एक फावट हांव मार्केटांत गेल्लें तेन्ना म्हाका तेंच जोडपें दिसलें. हे फावट तें चित्राच हाची म्हाका खात्री पटली. आतां गांठभेट जावप शक्य करपाक ते दिसा थंयच हांवें यादीन अमितान दिल्ल्या नंबराचेर फोन केलो. ''चित्राली मम्मी?'' ह्या म्हज्या प्रस्नाक त्या टोकावेल्यान हयकारी जाप आयली. ''मम्मी, हांव श्रेया. चित्रावांगडा शिकतालें. आत्तां बाजारांत चित्रा दिसलें. पूण भेटप शक्य जालें ना. एके मैत्रिणीन तुजो नंबर दिलो. प्लिज मम्मी, म्हाका चित्रालो नंबर दिता?'' तिणेंय कळावं लायनास्तना नंबर दिलो. फटाफट तो नंबर डायल केलो. मस्ती सिनेमांतलें 'दिल दे दिया है' हें गाणें आयकुपाक आयलें आनी सोबीत भांगराची घांट किणकिणची तसो आवाज आयलो. खूब वर्सांनी ताचो आवाज आयकून सोपिल्ल्या भुरगेपणाचो उगडास जालो. 'हाय डार्लिंग, म्हाका तुजें दिलय नाका. आनी जान तर फुकटय नाका. पूण तुका आतांच मेळपाचें मात आसा.' म्हज्या उलोपवाच्या स्टायलीचेरच तें म्हाका वळखलें. 'श्रेया, खंय आसा तूं?'

'तुज्या फाटल्यान ना तर फुडल्यान आसतलें हांव. तूं आसा थंयच्यान भायर यो आनी रस्त्याच्या दुसरेवटेन गुलमोहराकडेन नदर मार. जें कोण उबें आसा तें म्हळ्यारूच हांव.'

पांच मिण्टांभितर चित्रा त्या दुकानांतल्यान भायर सरलें. अजुनय तशेंच सोबीत आशिल्लें. तशेंच कित्याक, पयलींपरस चडच देखणें दिसतालें. रस्तो क्रॉस करून म्हजेसरी येवपी चित्राक पळोवन हांवय धांवलें. मदल्या डिव्हायडराचेर वीस वर्सांपयलींची कॉलेजमेट्स एकमेकांचे वेगेंत विसावलीं. ''श्रेया, कितले तेपान मेळता गो. म्हजी सादी खबर लेगीत घेवप ना गो?'' हांव गडबडलेंच. पूण वेळ मारून व्हरपाची कला म्हजेलागीं आशिल्ल्यान रोकडेंच सावरलेंय. ''अगो कॉलेज सोपतां सोपतांच लग्न जालें. वर्साभितर आबेर्तुलय जालें. तेन्ना गुरवार-बाळंत म्हणून आनी हालीं तेपार चल्याच्या शिक्षणाक लागून. तुजें कशें चल्ला?'' ताचो आवेग कमी जावंकच नाशिल्लो. तें कॉलेजिंतल्यो यादी काडपाक सोदतालें. हांवेंच म्हळें, ''अगो चल त्या कॉफी शॉपार वचून कॉफी पियेवया.'' उलयतनां हांवें ताच्या गळ्यार नदर मारली. हिरे जडयिल्लें मंगळसूत्र लिकलिकतालें. चल हें लग्न जालां हें शेर्त!

आमी येदोवेळ गजालिंनी गुल्ल जाल्लीं सहज म्हजी नदर ताच्या फाटल्यान गेली. तेंच सवंग थंयसर उबें आशिल्लें. म्हजी अजापीत दुबावीत नदर पळोवन चित्राय फाटीं वळ्ळें. ''श्रेया, हो म्हजो हबी सुब्बु.'' हांवें 'नमस्कार भावोजी' म्हणतकीर तो तोंडभरून हांसलो. काळ्या रंगाच्या चेऱ्यावेलीं धवीं बुबुळां आनी धवे फुल्ल दांत चक् करून चकचकले. ''हाचें खरें नाव सुब्रमण्यम. हातभर नांवान उलो मारपाक कठीण म्हणून शॉटफॉर्म केलें. सुब्बु'' कॉफी शॉपार वतनां तें विजोड जोडपें पळोवन मनांत ओपार सुचली. तिवूय बी हिंदी. 'लंगुर के हात में अंगुर'

आमी खुर्चेर वचून बसलीं आनी चित्रान तीन कोल्ड कॉफीची ऑर्डर दिली. थंय कॉफी पियेतकीर चित्रालो सुब्बु बील दिवपाक पयलीं काऊंटरालागीं गेलो. ''श्रेया सुब्बुक पळोवन आजापलें मुगो?'' हांवें सारवा सारव करपाचो यत्न केलो. ''खूब उलोवपाचें आसा गो श्रेया. एकदीस घराकडेनच यो.'' अशें सांगून चित्रान आपलो पत्तो दिलो. ''चित्रा चलें?'' सुब्बुल्या प्रस्नाक मान हालोवन चित्रा उठलें. ''आईये एक दिन हमारे घर. चित्रा तुने इनको अपना पता दिया?'' चित्रान मोन्यांनीच तकली हालयली. तांका फाटमोरी पळोवन म्हज्या काळजांत धस्स जालें. कितलें विजोड जोडपें हें? हांचेमदीं सरळ, सुरळीत संबंद आसात काय नां ही चिंता म्हजी तकली कोरपाक

लागली. म्हजो घोव सदांच म्हाका नाका तीं कितें श्राद्धां गळ्यांत घेता म्हूण आरड मारता तें आयज तरी खरें दिसलें.

हांव घरा आयलें तरी तकलेंत तांचोच विचार फेर धरपाक लागलो. घोवाक लेगीत म्हजो मूड सारको ना हें समजलें. ताणें विचारतकीर हांवें ताका चित्रा आनी ताचो घोव हांचे मदल्या संबंदाविशीं म्हाका दिसपी काळजी परगटायली. ''नाका आशिल्लीं टेन्शनां घेवन तकली काबार करपाची जाल्या तुका संवय. तांचे संबंद कशेय आसूं. तांका लागून आमचे संबंद पाडा घालू नाका.'' म्हणून घोवान म्हाका म्हऱ्यांत ओडलें. मागीर हांव चित्राकय विसरलें आनी सुब्बुकय बी. म्हज्या सवसारांत हांव दंग जालें. घोवाचें ऑफीस, ताचो डबो. चलयेचें कॉलेज आनी हांच्या दोगांचोय नाश्तो ह्या चक्रांत घुस्पलें. एक दीस चलो कॉलेजिंतल्यान बोवाळ घालीत आयलो. ''मम्मा, येत्या शेनवारा आमची पिकनीक. म्हाका चिकन चिली, चिकन सुक्का, फ्रेंच टोस्ट आनी नुडल्स जाय. बरोबर तुजें स्पेशल लिंबू सरबतय जाय.''

येदो व्हडलो चलो कॉलेजिचे पिकनिकेक वचपाचो काय बकासुराबरोबरच्या खावपाचे सर्तींत बी भागिदार जावपाचो हें चिंत्तनाच म्हाका चित्राक मेळपाचो मार्ग दिसलो. येता तो शेनवार फकत म्हजोच आसपाचो. घोव ऑफीसांत तर चलो पिकनिकेक. तसोच चित्राक फोन लायलो. ''शेनवारा हांव येतां. तूं आसतलें मुगो घरा?'' चित्रान उर्बेभरीत येवकार दीत आपूण वाट पळेतां म्हणून सांगलें. तो शेनवार सावकाश आयलो. हांव बेगीन उठून चल्याचे सगळे नग केले. विंगड विंगड टिफीनांनी भरले. ताका आनी घोवाक बाय करतकीर म्हजें सगळें आटोपून हांवें स्कुटरीक कीक मारली.

मदीं मोबायल वाजलो. पळेल्यार चित्रा, ''खंय पावलां?''

''पेत्रोल पंपार पावलां, आनीक धा ते पंदरा मिनटांभितर तुजे कराकडेन पावतां.'' सांगून हांव सुटलें. शाराच्या दुसऱ्या तोकाक



पावपाक हांवें स्कुटरीची स्पीड वाडयली. चित्रालें घर म्हळ्यार वन बाय वनचो बंगलो. धाकटुलोच पूण भायल्यानय सोबीत दिसतालो. ल्हानशा कंपावडाभितर सोबीत फुलां वाऱ्यार धोलतालीं. रंगाची उधळण करपी दसणी, शेवतीं आनी डालीय दिसताल्यो. दारांतच मद्रासी स्टायलीची तुळस, सोप्यावेलो लाकडी झोपाळो, हुंबऱ्याकडेन घाल्ली रांगोळी आनी मद्रासी रितीन कोरीव काम केल्लें म्हाल दार दक्षिणेकडचो ट्रेलर दाखयतालें. बेल मारली. कर्णकर्कश आवाजांत भायर कान फुटपाचे! भितरली परिस्थिती कळटलीच म्हणून चित्तनाच चित्रान दार उगडलें. येवकार दीत हाताक धरून भितर व्हेलें. हॉल बरो सजयिल्लो. कोणशा कोणशांनी मातयेच्यो भरण्यो. बुडकुले आनी सुरयो दवरिल्ल्यो. एकंदर सगळें साऊथ इंडियन दिसतालें. बेगीबेगीन उदकाचो पेलो दिवन चित्रान विचारलें. 'च्या करूं, काय कॉफी?' हाच्या साऊथ इंडियनपणाचीं फकाणां करपाक हांवें म्हळें, च्या नाका फिल्टर कॉफीच जाय.'' ''श्रेया, सुब्बु सावथ इंडियन म्हूण हांव न्ही आ. हांव कार्रेगाद गोंयकार म्हणून हांव च्याच करतलें.'' म्हाका तर चाळवतल्यांक चाळोवपाक सदांच मजा दिसता. म्हणून हांवें आनीक इल्लें पेत्रोल ओतलें. ''कांय हरकत ना मागीर हांव इडली च्यांतच बुडोवन खातां.'' शेवटाक म्हजे फाटीर एक धुमको घालून चित्रा परत एकफावट फाटल्या काळांत शेणलें.

''श्रेया, आमी कॉलेजींत फकणां करतनां क्लासांतल्या भुरग्यांक अशेच धुमके घालतालीं न्ही?'' हाणें इतिहासाची झरवण केल्यार कंटाळोच. म्हणून हांवें ताचें लक्ष दुसरेकडेन व्हरपाक एकदम ''सुब्बु कामाक काय कितें गो?'' म्हळें. जालें ते झरणे बदलाक हाणें सुब्बु आनी ताचें वैभव हांचें वर्णन सुरू केलें. सुब्बु इतलो बरो, ताचें मन सुपायेदें व्हडलें. आपून ताच्या सांगतान खुब-खूब सुखी आसां इ. चित्रा तोंडान हें सांगतालें खरें पूण ताचे दोळ मात ताका साथ दिनाशिल्ले. तें कितेंतरी खेरीत सांगपाक सोदतालें. चित्रालें सांगप आनी वागप हातूंत खूबच फरक जाणवतालो.

मनीसजातीचो एक सभाव आसता तो जावं दादलो वा बायल. कोणूच आपल्या सुखाचें, समृद्धीचें वा वैभवाचें तोंडान वर्णन करिना. करता तें ह्या सगळ्यांचें प्रदर्शन. पूण त्याच वेळार दुखख मात्शेंय जरी आसलें तरी प्रदर्शन न करतां तोंडान अवास्तव वर्णन करता. आनी सगल्यांची सहानुभुती मेळोवपाचो यत्न करता. चित्राचें वागणें पळोवन चित्रा आनी सुब्बु मदल्या संबंदां विशिंचो म्हजो दुबाव आनीकूय घट्ट जायत वतालो. जर चित्रा सांगता तें सगलें जर खरें आसत जाल्यार ताचें वर्णन करपाक नाका आशिल्लें. तें सत थंय सगल्याक भरून उरतलें आशिल्लें. पूण थंय समादानाचें इल्लेंय चिन्न दिसनाशिल्लें. पांच वर्सांच्या कॉलेज सहवसांतल्या खूबशा एकठांय भोगिल्ल्या खिणांची याद जावन मनांत खळबळ जातालीच. तातूंत हे दुबाव. मन भिरांकूळ जातालें. ते विचित्र अवस्थेंतच हांवें चित्राक ताच्या आनी सुब्बुच्या खासगी जीवनाविशीं

विचारपाचें चितलें.

"चित्रा, एक विचारतां. प्लीज रागार जावं नाका. पूण म्हाका एक सांग... " म्हजीं उतरां मर्दीच तोडून चित्रान सुरवात केली. "तुका कितें विचारपाचें आसा तें हांव जाणा. तूंच कित्याक सगळेच लोक आमचें विजोड जोडपें पळोवन अजापतात. तरीकय हांव सांगतां सुब्बुचें भायलें रूप कशेंय आसूं, पूण मनान खरेंच तो भांगराचो." ताणें ताच्या मनांतली सगली भडभड म्हजेमुखार ओतली. कॉलेजींत अमितासारख्या सोबीत, हँडसम आनी पयशेकार भुरग्याक न्हयकारपी चित्राच्यो अपेक्षा दरेका मागणेफाटल्यान वाडत गेल्यो. ताका आपल्या रुपाची नशा कशी चडिल्ली, ते नशेंत धुंद जावन तें सोयरीक जुळयतनां चल्यांच्या तोंडारच तांकां न्हयकारतालें. हे मस्तेक लागून तें रूपा-गुणांनी बरें आसून लेगीत ताका सोयरिको येवपाच्यो थांबल्यो. जाण्टीं आवय-बापूय सामकीं थकलीं. अपुरबायेच्या चलयेच्या खेदान बापूय भायर पडलो. शेवटाक आवयचे पयसुल्ले मैत्रिणीन हाडिल्ली. ही सोयरीक स्वीकारून बत्तीसाव्या वर्सा तें लग्न जालें.

स्वत:चो बंगलो, गाडयो आशिल्ल्यो. पूण रूप म्हणटात तें वखदायकय नाशिल्ल्या सुब्बुन ताका पसंत केलें. चित्राक मात ह्या बेंगरूळ रूपाच्या मनशाक न्हयकारपाची शक्तूय नाशिल्ली. मन मारून तें ताचे सुवादीन जालें. "आनीक कितेंय विचारपाचें आसलें तुका? उलयतकीर म्हजेंय मन-काळीज नितळ जालें." चित्राच्या ह्याच प्रश्नाचो फायदो घेवन हांवें म्हजो दुबाव ताच्या कानार घालो. "चित्रा, गैरसमज करून घेवं नाका. तू सुब्बुचे वेंगेंत वता तेन्ना तुका कितें फील जाता? तुका सूख मेळटा?" "श्रेया, पयलेच फावट सुब्बुन म्हाका वेंगेंत घेतलें तेन्ना हांव काळजांतल्यान रडटालें. एके बलात्कारितेची जीण कशी आसता तिवूय हांवें पयलीं पयलीं भोगली. हांव सुब्बुक साथ दिवपाकच शकनाशिल्ल्यान म्हाका दिसपट्टो बलात्कारच भोगचो पडटालो. आनी तरीकूय सुखी, समादानी आसा हें दाखोवचें पडटालें. हळुहळू हांव सावरलें. आनी जेन्ना सुब्बु म्हजे भोंवतणी आपल्या हातांची वेंग घालता तेन्ना हांव ताका सुब्बु मानपाचेंच सोडलें. ताची भाशा आयकून म्हाका घाम फुट्टालो.

"बाय गो, तूं सुब्बुकडेन प्रतारणा करता तर?"

"हय, ते वेळार म्हाका वेंगेंत घेता, म्हजे लागीं मोग करता तो सुब्बु न्हयच अशें मानतां हांव."

"चित्रा, कोण समजता तर गो तूं ताका तेन्ना?"

"खरें सांगतां तुका श्रेया. त्या वेळार ते हात, ते वोंठ हांव हांवेंच न्हयकारिल्ल्या अमिताचे मानतां. आनी दरेका खिणांचें सूख भोगतां. अमिताक न्हयकारिल्ले चुकीचें प्रायश्चित आतां पश्चाताप करून भोगतां."

देवाच्यान खरे सांगतां चित्राली ही जाप आयकून हांव जोर येवन घाम आयिल्लेवरीं भिजलें. तितल्यांत सुब्बु आयिस्क्रीमाचे कोन घेवन आयलो. दोगांय एकमेकांक वेंग मारून, ते दिसा म्हजेसामकारच आय लव्ह यु करतालीं. हांव मात ए.सी.त बसून घाम गळयतालें.



**– आशा शानभाग**
सादोळशें–काणकोण
फोन : २६३२२०४





## सालाद

**साहित्य :** २ डब्बू मिरसांगो, २ धाकटे कांदे (मोठे चिरून), ७-८ अळमी दोन अर्दा करून, २ टोमाटां मोठी चिरून, थोडे फ्लावराचे कुडके, थोडे ब्रोकोलीचे कुडके, ६-७ लॅट्यूसचीं पानां, १ धाकटें कुलेर मिरयां पिठो, २ व्हडलीं कुलेरां धंय, २ कुलेरां तेल आनी रूची पुरतें मीठ.

(ब्रोकोली फ्लावरा बशेनूच आसता, ती बाजारांत सहज मेळटा)

**करपाची तरा :** एका आयदनांत तेल घेवन तातूंत अळम्याचे कुडके बरे मोव जायसर तळसप. मागीर तातूंत एक एक करून सगळ्यो भाज्यो घालप आनी सुमार दोन मिनटां शिजपाक दवरप. मागीर तातूंत धंय, मिरयां पिठो आनी मीठ घालून ४-५ मिनटां शिजोवन घेवप. तुमचें पौश्टीक सालाद तयार.

## ड्राय चिकन

**साहित्य :** बोनलेस चिकनाचे कुडके, १ इंच आर्ले, ६-७ लसणीच्यो बोयो, धाकटी वाटीभर ओली कोथमिरे पालो, २ कुलेरां हळद, ३ कुलेरां बडीशेप, २ कुलेरां जिरें, २ मिरसांगो, १-२ कुलेरां मिरयां पिठो, १-२कुलेरां मिरसांगे पिठो, १-२ कुलेरां गरम मसालो, अर्द वाटी उदक ,. २-३ कुलेरां तेल आनी रूची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा :** आर्ले-लसूण आनी कोथमिरे पाल्याची मिक्सरान वाटून पेस्ट करून घेवपाची आनी ती चिकनाच्या कुडक्यांक लावपाची. हातूंत हळद घालून चिकन १५ मिनटां मुरपाक दवरपाचें.बडीशेप आनी जिरें खलबत्यान धाडावन जाता तितलें बारीक करून घेवंचें. दुसऱ्या आयदनांत तेल घालून तातूंत बडीशेपे पिठो, जिऱ्या पिठो, गरम मसालो, मिरयां पिठो, मिरसांग्या पिठो, मीठ आनी उदक घालून तळसप आनी हातूंत चिकनाचे कुडके घालून बरें १५-२० मिनटां शिजोवन घेवपाचें.

गरमागरम ड्राय चिकन तयार. ही डीश खातकीर कोणूच तुमची तोखणाय केले बगर रावंचोना.

## तळिल्लें पापलेट

**साहित्य :** अख्खें पापलेट, ४-५ धाकटीं कुलेरां मिरसांगे पिठो, २-३ कुलेरां हळद, १ इंच आर्ले, ७-८ लसणीच्यो बोयो, इल्लो कोथमिरे पालो, रूची पुरतें मीठ, आळेण आनी तेल.

**करपाची तरा :** पापलेटाची उजरायतना तकली काडून तें लीप करप. पापलेटाच्या पोटार २-३ चिरो घालून घेवप. आर्ले-लसूण आनी कोथमिरे पाल्याची पेस्ट करप. तातूंत हळद, मिरसांगे पिठो आनी मीठ घालून तें पापलेटाक बरें करून लावन घेवप. मागीर ताका आळेण लावन तें तेलान तळून घेवप. जाय जाल्यार टॉमेटो सॉस आनी सालादा बरोबर गरम गरम खावप.

## तातयांचे पोळे

**साहित्य :** एक तातीं, अर्द कुलेर हळद, अर्द कुलेर मिरयां पिठो, अर्द वाटी दूद, २ धाकटीं कुलेरां कोथमिऱ्यो, २ धाकटीं कुलेरां जिरें, १ मिरसांग बारीक चिरिल्ली, २ व्हडलीं कुलेरां मैद्या पीठ, ४-५ लसणीच्यो बोयो बारीक चिरिल्ल्यो, १ धाकटें कुलेर बटर, बारीक चिरिल्लो ओले कोथममिरे पालो, रूची पुरतें मीठ आनी २ धाकटीं कुलेरां तेल.

**करपाची तरा :** कोथमिऱ्यो आनी जिरें खलबत्यान धाडावन घेवप. आयदनांत तातीं, हळद, लसूण, मिरयां पिठो, कोथमिरे पालो, जिरें, कोथमिऱ्यो, मैद्या पीठ, दूद, मिरसांगो आनी मीठ घालून तें फेटून घेवन पातळ पेस्ट कशी तयार करपाची. ही पेस्ट तव्यार तेल घेवन ताचेर ओतोवपाची आनी २ मिनटां शिजोवन घेवन पोळो परतुपाचो आनी १ मिनटांत काडपाचो. ह्या पोळ्यार इल्लें बटर लावन खावपाक दिवपाचो. हो पोळो तुमी सकाळच्या नाशत्याक दिलो जाल्यार भुरगीं वा जाण्टीं खूश जावन रूचीन खातलीं.

## मसाला रोटी

**साहित्य :** रोटयांचे बारीक कुडके, १ मिरसांग बारीक चिरिल्ली, १ धाकटें कुलेरभर सासवां, देड कुलेर मिरसांगे पिठो, १ कुलेर कोथमिरे पिठो, अर्द कुलेर साखर, १-२ कुलेरां तेल, मीठ आनी थोडो शेव.

**करपाची तरा :** आयदनांत तेल घेवन सासवांची फोडणी घालपाची. तातूंत रोटयेचे कुडके, साखर, कोथमिरे पिठो, मिरसांगे पिठो, चिरिल्ल्यो मिरसांगो आनी मीठ घालून तळसून घेवपाचें आनी ताचेर इल्लो शेव घालून हुनहुनीत खावपाचें.

## नाशण्याचें सत्व

**साहित्य :** ५ वाटयो नाशणे, उदक, अर्धा नाल्लाचो रोस, पाव किलो गोड, १० वेलच्यांचो पिठो, १० काजू बियांचे बारीक कुडके, तूप, रूची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा :** नाशणे एक अर्दवर उदकांत भिजोवन तें मिक्सरान वाटून ताची पेस्ट करून घेवप. ही पेस्ट एका आयदनांत गोड , नाल्लाचो रोस आनी कुसभर मीठ घालून मंद उज्यार घालून धवळत रावपाचें. ती पेस्ट आटसर तातूंत वेलचे पिठो घालपाचो आनी काजुबियां कुडके घालून धवळून घेवन गॅस बंद करपाचो. दुसऱ्या एका आयदनांत बरें तूप लावन ताचेर हें मिश्रण पसरावन घेवन फ्रिजांत थंड जावपक दवरपाचें. थंड जातगीर ताचीं सुरयेन कापां करून घेवपाचीं आनी सांजे वेळार च्या बरोबर खावपाक दिवपाचें.





– नेहा मोहन तेलंग
कांपाल – गोंय.

मालवणी

# मुलखातलो चाकरमानी मुंबैत

*बायकोचो मामा येवढ्या लांबसून इलो म्हणान्, शिवाय खावक् सुदा बराच हाणल्यामुळा न्हवऱ्यान् दुसरे दीस रजा घेवन् सदूमामाक् मुंबै दाकवून हानल्यान्. मामा येकदम खूश झालो. ह्या न्हवरा-बायकोच्या मायेफुडे तो आपणाक् मूलबाळ नाय ह्याचाही दूक इसारलो. नशीबान् त्या जोडप्याकसुदा आजून मूल-बाळ नाय हुतो. चार दिवस त्या बाईन् सदूमामाक् कोंबडी-वडे, मासे खावक् घालून खूश करून टाकल्यान्. त्या चार दिसात, मामाक् गेली धा वर्सात जा प्रेम-माया मिळक् नाय हुती, जा जॅवान मिळाक् नाय हुता त्या मिळाल्यामुळे मामाचे गाल वर इले. सदूमामा टकटकीत दिसाक् लागलो. त्या भल्या माणसान् मामासाठी कपडेसुदा खरेदी केल्यान्.*



**को**कणातले लोक म्हंजे 'वरसून फणसा सारके पन भुतूरसून गऱ्यासारके गोड गोड' आस्तंत अशी येक म्हण आसा. आनी ती खरीसुदा आसा. कोकणी माणूस येकदा का येकाद्याच्या इरोधात गेलो की, त्यॅका मेल्याशिवाय सोडूचो नाय. पन एकाद्या बऱ्या माणसासाठी जीव देवची सुदा त्येची तयारी आस्ता. आनी येकाद्याक जीव लावण्यात तर त्येचो कोनीच हात धरुचो नाय. मग तो आपलो आसांदे, नायतर परको. त्यॅका रक्ताचा नाता व्हयाच असा नाय. खयचोच कोकणी माणूस ह्याका अपवाद नाय.

पूर्वी कोकणात ल्हान पॉरा-टॉरा घरातल्या किवा घराभायरच्या वडीलधाऱ्यांसंबूर आतासारकी उबी न्हवंत नाय हुती नी बोलतंय् नाय हुती. इतक्याच कित्या, न्हवरा-बायको सुदा म्होट्यांसंबूर येकमेकाशी बोलत नसत. अगदी हनीमूनसुदा येकाद्या खोलयेत असो न बोलताच साजरो होयंत आसा. पन आता ती परस्थिती न्हवली नाय. आता आवशी-बापाशीक्सुद पॉरांची उलट उत्तरां, उलट बोलनी आयकून घेवची लागतत्. करतंलास काय? ह्यो सगळो काळचो महिमो!

कोकणातली लोकवस्तीसुदा आतां बरीच कमी झाली हां. कारण शिकले सवारलेले तरूण झिलगे नी पोरी आईबापाक् गावांतच सोडून नोकरीधंद्यासाठी मुं बै जवळ करूक् लागले. ह्या प्रमाण आता इतक्या वाडलांहां की काय-काय गांवात तर अर्धी-अधीक घरां रिक्यामीच आस्तंत. घरांत न्हवाक् मान्सांच नाय. तळेगाव काय ह्याका अपवाद नाय.

पन ज्येंचे झील-चेडवा नायतर नातेवायक् मुंबैक आसंत ते आपले वर्सात्सून येक-दोन्दा मुंबैक जावन् मुंबै बगून यतंत्. बरा-वायट् खावन् म्हयनो-दोन म्हयने मुंबैक पॉरा-टॉरांमदे न्हवान येतंत्. ह्याका अपवाद हुतो सदूमामा! पन्नाशीच्या वय. पॉरटॉर कोन नसल्यामुळा आनी बायको धा वर्सापूर्वीच वारल्यामुळा बिचारो गावाकंच ढॉरा राकीत येकटोच कसो तरी मोलमजुरी करून जगा.

पन स्वबावान् सादो आस्लो तरी डोक्यान् सदूमामा लय हुशार हुतो. येकादा काम करुचा मनात ईला म्हंजे ता पुरव केल्याशिवाय तो गप बसणारो नाय हुतो. शिवाय व्यवारन्यान उत्तम नी मजबूत तब्बेत. पन त्याका जवळचा असा कोनीच नाय हुता. त्यामुळा मिळात् त्या मान्साक् तो जीव लायंत् आसा.

त्याच्या मनात बरेच दिवस मुंबै कशी आसा ती बगुचा हुती. पन मुंबैक जातंलस कोनाकडे? ह्या प्रश्नान् त्यंचा मुंबैय बगुचां सपान आजून पुरा झालां नाय हुतां.पन येकदिर्शी त्यॅना मुंबैक जावचा ठरवल्यानंच. शिवाय आता कोकणात रेल्वेसुदा सुरू झाली. त्यामुळे त्येचो मुंबै बगुचो निश्चय बळावलो. आनी येके दिसी कसलोय मागचो-फुडचो इचार न करता येक ल्हानशी कपड्याची बॅग घेवन तो मुंबैक खराच जावक् निघालो. पन मुंबैक अनोळकी माणसाकडे ऱ्हवाचा म्हटल्यावर त्याच्याकडे फुकट कसा ऱ्हवायचा? म्हणून सदूमामान् नारळाची दोन श्याळी, थोडेसे आंबे आनी दोन म्होटे फणस सोबत पिशयेत भरून बांदल्यान् नी शेजाऱ्यांका 'मुंबैक जातंय' म्हणान् सांगान् सरळ सिंधुदुर्ग रेल्वे टेशन गाठल्यान्. कोकण कन्या रेल्वेच्या जनरल डब्यात बसान् दुसरे दीस सकाळीच दादर टेशनात उतारलो. टेशनात ते मुंबैचे गाडये, किड्यासारकी वळवळणारी मान्सा नी झगमगाट बगून तो उतारलो त्या फलाटावरच थोडे वेळ भिरभिरी येवन् बसलो. मुंबै पयल्यांदाच बगीत हुतो ना! बऱ्याच येळान् तो सावारलो पन आता फुडे काय? जातलांस कोनाकडे ह्यो परस्न त्याका पडलो. पन तो हार मानणारो नाय हुतो. तसोच डोक्यावर आंब्या-फणसाची पिशी घेवन् लॉकांच्या मागसून टेशनाच्या भायर पडलो. भायर येवन् बगता तर टेशनात बसाक् बरा असा त्यॅका वाटला. भायर ते बसी, टॅक्से,



फटफटी गाडये खंयसून खंय् जातंत ह्याच त्यॅका समजंना. त्यॅचा डॉक्याच फिराची येळ इली. खंयसून अवदसा आटावली नी मुंबैक् इलंय असा त्याका झाला. पन ता थॉडा येळच!

इतक्यात त्यॅचा लक्ष संबूरसून इल्लंल्या दोन माळ्याच्या बसकडे गेला. पयल्यांदाच दिसणाऱ्या दोन माळ्याच्या गाडयेकडे तो बगीतच ऱ्हवलो. पन त्यॅच्याकडे आता येळ नाय हुतो. त्या रिकाम्या गाडयेत मान्सा लायनीत भसाभसा घुसाक् लागली. सदूमामाक् आता इचार करूक् टायम नाय हुतो. त्यामुळा कसलोही इचार न करता तो सुदा त्या बसमदे आंब्या-फणसाच्या पिशयेसकट घुसलो. इतक्यात बस चालू झाली नी सदूमामा बसाक् जागा न गावल्यामुळा पायाखाली पिशये ठेवन् तोल सांबाळीत कसो तरी उबो ऱ्हवलो. लॉक वळान वळान सदूमामाकडे बगीत हुते. कंडाक्टर इल्यावर सदूमामाच्या फुडच्या मानसान् 'एक लालबाग दया' म्हणान् तिकीट घेतल्यान्. सदूमामाक् ह्या नाव कदीतरी आयकल्यासारक्या वाटला. त्यामुळा त्यानासुदा 'एक लालबाग' तिकीट घेतल्यान् नी काय येळातच ती बस परेलच्या बस स्टॅडावर येवन् थांबली. सगळे लॉक उतारले तसो सदूमामासुदा खाली उतारलो. परत त्याका परस्न पडलो, 'इतपर्यात तर इलंय. आता कोणाकडे जावचा? कोन आपले वळकीचो पाळकीचो सुदा नाय,' असो इचार करीत करीत तो स्टॅंडाच्या भायर इलो, तर संबूरच येक तीन मजल्याची चाळ दिसली. चाळीच्या गॅलरीत कायजाण उबे ऱ्हवान हडे-तडे बगीत हुते, तर मेले कायजाण सकाळचे नव व्हाजले तरी मशेरी लायत् हुते. मेल्यांची तॉंडा मशेरेन काळी झाल्यामुळा माकडागत दिसत हुते. सदूमामान् येकदा त्येंच्याकडे बगल्यान् नी तडक त्या चाळीत घुसलो. मुळचोय सदूमामा धाडशी आसल्यामुळा येयत् त्या परसंगाक् तॉंड देवचा ठरवल्यान्. चाळीचो जिनो चडान् पयल्या मजल्यावरच्या जिन्याच्या जवळच्याच खोलयेत शिरलो. त्याबरोबर त्या खोलयेतली बाई गडबडली. 'तुमी कोन' म्हणान् इचारीपर्यात त्यॅना आंब्या-फणसाची पिशी आनी बॅग खाली ठेवन् खाटीवर बसलो सुदा!

सदूमामाच्या नशीब म्हंजे तो ज्या खोलयेत घुसलो ती येका कोंकणी-मालवणी मानसाची धा बाय पंद्राची खोली हुती. शिवाय वर पॉटमाळो हुतो. 'आपण कोण?' म्हणान त्या बाईन इचारल्यान्. तर सदूमामा म्हणालो, ''अगो, माका वळाकलंस नाय्. मी मामा. रेल्वेक् येवक् उशीर झालो म्हणान् खोलयेवर

पोचाक् उशीर झालो. ता न्हवांदे. बाबू भाचो खंय गेलो?'' त्या बाईक वाटला ह्यो आपल्या घोवाचो मामा दिसता. त्यामुळा त्याका बाबू भाचो म्हणटांल्ला. अशा समजुतीन् ती सुदा आता मालवणी भाषेत म्हणाली, ''ते सकाळीच कामावर गेले हंत. शिरा पडला फाटफटी जावचा लागता ना! बसा तुमी. ते संद्याकाळी येतीत.''

सदूमामाचा नशीब जोरावर हुता. कारण येकतर ती मालवणी बाईमाणूस आनी त्याच्यातच मुंबैक धा बाय पंद्राच्या खोलयेत न्हवान सुदा मानुसकी इसारली नाय हुती. 'पावनो म्हंजे देव' ह्या तिच्यावरच्या संस्कारापरमान तिना सदूमामाची सरबराय सुरू केल्यान्. येवढ्या लांबसून मामा प्रवास करून दमान् इलेहंत म्हणान् न्हावक् गरम पाणी दिल्यान् नी मग गरमागरम चाय-नाष्टा देवन् मामाक् खूश करून टाकल्यान्. सदूमामान् ह्या घराशी रक्ताचा नाय पन मायेचा नाता जोडल्यान्. थोड्या वेळान पिशये सोडून आंबे, फणस आनी श्याळी काडून तिच्याकडे सोपवल्यान्. कोकणातली ही सध्या मुंबैकरांका म्हाग झालेली फळा बगून ती मावली गलबलली. आपल्या मायेरच्या माणसानंच भेंट हाणली असा वाटान् तिचे डोळे भरान् इले. सदूमामान् प्रसंगावदान राकान् हडेतडेचे गजाली मारल्यान्. दॉपारी जॅवाण झाल्यावर प्रवासातून दमान् इलेलो सदूमामा पॉटमाळ्यावर ताणून निजलो तो येकदम संद्याकाळीच उटलो. तो उटण्यापूर्वी त्या बाईचो न्हवरो कामावरसून इलो हुतो. येवन् बगता तर घरात पावन्याची चपला नी कपडे. शिवाय पिकलंल्या आंब्या-फणसाचो घमघमाट! तो हळूच आपले बायकोक् इचारता, ''कोण पावणो इलो हां?'' ती बाईसुदा हळू आवाजात सांगता, ''अवो हे मामा सकाळी इले. येतंना आंबे-फणससुदा हाणल्यानीहंत. शिवाय थोडे तांदूळ कॉकमा नी काजूगरही हानल्यानीहंत.'' बिचारी खूश होवन् सांगत हुती. न्हवऱ्याक् वाटला 'बायकोचो कोणतरी मामा गावावरसून इलो हा', म्हणान् तो गप न्हवलो.

सदूमामा झोपान उटल्यावर बिनधास्त पॉटमाळ्यावरसून खाली उतारलो. उतारल्याबरोबर त्यॅना नजरेनंच 'ह्यो बाईचो न्हवरो म्हंजे घरमालक' ह्या वळाकल्यान. पन बोलतंना आपूण कोणाचो कोण हेचो दॉगांकाय पत्तो लागाक् देवक् नाय. त्यामुळा न्हवऱ्याक् वाटला 'तो बायकोचो मामा', तर बायकोक् वाटला 'तो न्हवऱ्याचो मामा' म्हणान् कोणी लय इचारपूसही करूक नाय. त्यामुळा सदूमामा 'सुटलो'.

बायकोचो मामा येवढ्या लांबसून इलो म्हणान्, शिवाय खावक् सुदा बराच हाणल्यामुळा न्हवऱ्यान् दुसरे दीस रजा घेवन् सदूमामाक् मुंबै दाकवून हानल्यान्. मामा येकदम खूश झालो. ह्या न्हवरा-बायकोच्या मायेफुडे तो आपणाक् मूलबाळ नाय ह्याचाही दूक इसारलो. नशीबान् त्या जोडप्याकसुदा आजून मूल-बाळ नाय हुतो. चार दिवस त्या बाईन् सदूमामाक् कोंबडी-वडे, मासे खावक् घालून खूश करून टाकल्यान्. त्या चार दिसात, मामाक् गेली धा वर्सात जा प्रेम-माया मिळक् नाय हुती, जा जॅवान मिळाक् नाय हुता त्या मिळाल्यामुळे मामाचे गाल वर इले. सदूमामा टकटकीत दिसाक् लागलो. त्या भल्या माणसान् मामासाटी कपडेसुदा खरेदी केल्यान्.

पन आता लय दीस हंयसर न्हवला, तर आपला बिंग फुटतला ह्या भीतीन् मामा गावाक् जावची घाय करूक् लागलो. कारण मुंबैक कोनी नातेवायक् किंवा वळकीपाळकीचो नस्तानासुदा त्यॅना स्वताचो झील दाकवूचो नाय अशा पद्धतीत मुंबै बगल्यान, ह्याच त्यॅका म्होटा हुता. त्यामुळा लय आशा करण्यात अर्थ नाय ह्या न समाजण्याइतको तो दूधखुळो नाय हुतो. सदूमामानसुदा गेल्या चार दिसात त्या जोडप्याक् लय लळो लावल्यान् हुतो. त्यामुळे आनकी आट दीस न्हवा असो त्येंचो मामाक् आग्रव हुतो. पन 'शेतीची कामा न्हवतंत' असा खोटाच सांगान् मामान् गांवाक् जावची तयारी केल्यान्. जोडप्याचो नाईलाज व्हता.

दुसरे दीस रातरी मामा त्येंचो निरोप घेवन जावक् निघालो. त्या दॉगाही न्हवरा-बायकोन् त्यॅका दादर टेशनात कोकणात जाणारे कोकण रेल्वेत न्हेवन बसवल्यानी. वरखर्चाक् शे-दोनशे रुपाये हातात ठेवल्यानी नी 'परत मुंबैक येवा' म्हणान निरोप देवन् गाडी सुटल्यावर घराक् इली.

रातरी जेवन् झोपतंना घरमालक बायकोक् इचारूक् लागलो, ''हे तुजे खंयचे मामा? गुरामवाडीचे काय सुकळवाडीचे?'' तर बायको म्हणाली, ''माजे खंयले मामा? ते तुमचेच मामा व्हते ना?'' न्हवरो म्हणालो, ''अगो, माजो खयलो? तुजोच मामा ना?'' ती म्हणता, ''नाय, माका वाटला ते तुमचे मामा आसंत्.''

आनी मग आपापसातल्या गैरसमजान् झालेल्या गडबडीमुळा दॉगाय न्हवरा-बायको पॉट धरून हसली. पन ती सुदा सदूमामा सारकीच मायाळू मालवणी मान्सा हुती. आपूण येका ओळकपाळक् नासलेल्या माणसामुळे चार दिवस मजेत घालवले, शिवाय येका माणसाक् झील-सुनेचा सुख मिळवून दिला म्हणान् त्यॅंका लय समाधान वाटला. दॉगाय येकदमच म्हणाली, ''कसो काय आसना बापडो! पन चार दीस आमका सक्क्या मामाचा सुख दिल्यान्.''




**- शाम मोरे**



गॅझेटिअर विभाग,
महाराष्ट्र शासन, २७,
बरजोरजी भरूचा मार्ग,
फोर्ट, मुंबई-४०० ०२३
मो.: ०९८६९९०२३६२

इंद्रधोणू

# हांवे हळदकुकूम केलो !

दर वर्सा म्हजें लग्न जायत मेरेन बायलांक घरा आपोवन हांव दर कक्रांतीक हळदकुकूम करतालें. ह्या वर्सा कक्रांतीक उमास. तेन्ना हळदकुकूम त्या दिसा करनात म्हणपाचें हांवें ७-८ जाणांकडल्यान तरी आयकल्लें. पूण हांवें भटाकबी विचारलें ना.

ऑफीसांतल्यान येतगीर म्हज्या घरकाराक हांवें म्हळें, "ह्या वर्सा कक्रांतीक उमास आयिल्ल्यान हळदकुकूम करूंक मेळना खंय!" ताका ताचो थोडोच फरक पडला. तो आपल्या कामांत मग्न. हांव म्हज्या विचारांत मग्न. तशें पळोवंक गेल्यार घरांत प्रत्येक गजालीचो निर्णय हांवेंच घेवंचो पडटा. मागीर घरकामांत, संवसारीक, म्हज्या व्यवसायांत, भुरग्यांभितर वा म्हजे घरकाराविशीं आसूं. हांव निर्णय घेतना म्हजे मुखावयल्याक तो कितलो वायटाक पडटा तें पळयना पूण म्हाका कितलीं वर्सां तो फायद्याचो तें पळयतां. म्हूण हो निर्णय हांवेंच घेतिल्लो बरो हेंच हांवें थारायलें. मनांत म्हळें एक हळदकुकमाची प्रथाच बदलया.

एका वृद्धांच्या आश्रमांत हांव गेलें. थंय दादले बायलो मेळून ६३ लोक आसात. सगळे रातमेरेन हांव थंय राविल्ल्यान म्हाकाय कुळारा गेल्याचें समादान जालें. सकाळीं इडली सांबार आनी चटणी, च्या आनी काफी तांका सगळ्यांक दिली. मागीर १० ते १२ तांचेकडच्यान कार्यावळ दवरली. हांवेंय १०-१२ वर्सांचें भुरगें जावन एक आपउलोवप केलें. हांव त्यावेळार भुरगेपणांत शेणलें. त्या वृद्धा आश्रमांत तशें हांव केन्नाकेन्नाय वतां. सगळीं म्हाका पळोवन खोशी जातात. १२ ते २ मेरेन जेवणाच्या हॉलांत तांकां हांवें एक मदलस दवरली. शिवराक आनी नुस्त्याचें जेवण. सगळीं जेवन आपआपले कुडींत न्हिदलीं. हांवय तांचेवरी एके कुडींत, खाटीर लंवडलें. सकाळच्यान उमेदीन भरिल्ले एकएकट्याचे दोळे, फुतफुतपी पूण न उलोवपी वोंठ. स्पर्शांतल्यान मायेची ओलसाण दिवपी म्हजीशीं दिसपी म्हज्या दोळ्यांमुखार राविल्लीं. मागीर म्हाका न्हीद कशी येत? सांजेवेळा चार वरांर च्या बिस्किट केक खावन परत आमी हॉलांत गेलीं. थंय हांवें इश्टीणीवांगडा एक कार्यावळ तांचेखातीर दवरिल्ली. सगळीं तोखेतच उरलीं. तीं तर सगळीं जाण्टीं मनांतल्यान खोशी जालीं. रातची तांचेवांगडा हांवें चपाती भाजी खाली. कांय वेळ चान्यांत न्हालें आनीक म्हाका घड्याळालागीं पळयतगीर घरा वचूंकच जाय हाचें भान आयलें. पूण घरा वच्चे पयलीं दोग जाणांनी आपलेपरीन म्हाका देव बरें करूं म्हणपाखातीर कविता म्हळ्यो. तांचेभितरय कला लिपल्या हेंय म्हाका समजलें. हळदीकुकमाचें म्हत्व एकटेन सांगलें. तें खरेंच आयकुपाचें. सगळो दीस उमेदीन, मायेन, आपुलकेन सोंपलो. ना जरी साडी ना भांगराची सर्त. मूर्तमणी घरा दवरून वज्राची मेदाली घालून येवचें ना. सगळें घडलें आवय बापूय हांचेमर्दीं.

दरवर्सा हळदीकुकमाक बायलोच येतात. ह्या वर्सा दादलेय बापूय कशे हजर आसले. कुळारच्यान येतना एक धुवेचे पांय जड जातात तशे सदांच वृद्धाश्रमांतल्यान येतना म्हाका जाता. खऱ्यानीच मायेन काळीज हालता. दर वर्सा परस ह्या वर्सा म्हजे हळदीकुकमाची उमेद वाडली. दरवर्सा असोच हळदीकुकूम करचो अशें म्हाका परत परत दिसता.

पयलीं तेपार बायलांक घरांतच रांदा, वाडा उश्टीं काडून, तांच्या हातांत खूब वेळ आसतालो. तेन्ना हळदकुकमाच्या निमतान ह्या बायलांक भायर सरपाक मेळटालें. तोच एक भायर सरपाक, चोंब्यानी भोंवपाक सगळ्या बायलांक विरंगुळो. आतां बायलो घरांत उरच नात. आतां भायरच चड उरतात. ताच्या हातांत वेळय नासता. कामां चड आनीक वेळ थोडो म्हळ्यार जाता. अशी ही आतां बायलांची तडजोड करीत धावपाची जीण. हें तर कांयच न्ही. थोड्यो बायलो सकाळीं ६ वरांचेर भायर सरून रातची आठांक भितर सरतात. मागीर ताच्या नशिबांत खंय आसा हळदकुकूम? आसा वेळ तांकां? सुटी काडून हळदकुकूम करप? म्हाका तरी दिसता कोणांक करीन दिसता ताणी खूब तरेन हळदकुकूम करचो. आपल्या मनांक पटत तसो रितसर. दुसरीं करतात म्हूण आपणे करचो न्हय. दुसऱ्यांचे केंस लांब म्हूण हांवें म्हजे ओडले म्हूण लांब जायनात. तेन्ना मनाक तुमच्या पयलीं विचारात, ताची तयारी पयलींच जाय. तुमचें मन कितें तुमचे लागीं उलयता ताचेर तुवें फुडलो निर्णय घेवंचो. येतलोच फळाक!



– सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार – पणजे.
मो. – ९८२३१११९१७



पर्यटन

# डायरी ए काश्मीर



- दिलीप बोरकार

**आ**मच्या खातीर खास शिकाऱ्याची वेवस्ता केल्ली. आतां खास शिकारो म्हळ्यार कितें? हांगचे सगळेच शिकारे खास. तांची सजावटूय वेगवेगळ्या तरांची. त्या शिकाऱ्यांचे मालक जे मनोवृत्तीचे तशी त्या शिकाऱ्यांची सजावट.

जाचेर आपलो वेवसाय चलता, ताची आपले विचारसरणी प्रमाण सजावट करपाचो आमचो सभाव. हालींच हांवें कळंगुटची एक टॅक्सी पळयल्ली. टॅक्सी जावं हेर रासवळ मळार वापरपाच्यो गजाली आसतात त्यो खऱ्यो म्हळ्यार सर्वधर्म समभाव पाळपी आसूंक जाय. कित्याक असल्या गजालींचो वापर समाजांतले सगळेच लोक करतात आनी तशें जाल्ल्यानूच कोणाचोय वेवसाय बरे तरेन चलता. पूण ताची जायरात मर्यादीत स्वरूपांत केली जाल्यार मात ताचो वापर मर्यादीत लोकांकडल्यानूच जाता.

समजा एक मुस्लीम धर्माचो वेवसायीक आसा आनी ताची टॅक्सी जावं रिक्षा आसा. ताणें आपल्या धर्माच्या मोगान ते टॅक्सीक वो रिक्शाक आपल्या धर्मांतल्यो गजाली प्रदर्शीत करून सजयल्यो जाल्यार कट्टर हिंदुत्व मानपी ताच्या वाहनांत वचचो ना. तशेंच एखाद्रया हिन्दून केलें जाल्यार हेर धर्मीय ताच्या वाहनाचो वापर करचोना. ते खातीर असलीं रासवळ मळार वापर जावपी वाहनां, दुकानां वो आनी कितें आसा तें आपलो धर्म, जात, विचार सरणी, पंथ बी उक्तावपी आसूंक फावना ह्या मत्ताचो हांव. पूण कांय लोकांक आपल्या वेवसायाची पर्वा नासता. ताका आपली विचारसरणीच म्हत्वाची आसता.

ह्या कळंगुटच्या टॅक्सीवाल्यान आपली ती मारूती व्हॅन अशे तरेन रंगयल्ली, तिची अशी विचित्र सजावट करून वेगवेगळ्यो घोशणा तिचेर चितारिल्ल्यो की पळयतल्याक भिरभिरी मारपाची. पूण कळंगुटे ताचीच ती टॅक्सी नेटार चलताली खंय! तिकाच मागणी चड आशिल्ली.

गोंयांत जितले पर्यटक येतात ते सगळे म्हजे विचारसरणेचे, म्हजे रूचीचे नाशिल्ले. तांची म्हूण एक आपली नदर, आपली रूच आसा आनी ते प्रमाण तांची गरजूय आसता. गोंयांत येवपी फ्रिक आऊट हिप्पी पंथाच्या पर्यटकांक वो हेर राज्यांतल्या फोल्गां मारपाक आयिल्ल्या तरनाट्यांक हो असलो प्रकार आवडटा.

कलकत्ता गेल्लों कांय वर्सां पयलीं. थंय रिक्शा ओडपी मनीस आसताले. मनशांक ते रिक्शेंत बसोवन उकत्या पांयानी भर वतांत रस्त्यावेल्यान धांवतना पळोवन म्हजें काळीज चुरचुरतालें. गरिबी आनी बेकारी हाका लागून मनशाक कितें कितें करचें पडटा हाचें हें एक उदारण आशिल्लें. मनीसजातीक लजेक घालपी हो वेवसाय बंद करूंक जाय अशें कितें म्हाका दिसलें. पूण तो वेवसाय करप्यांक तशें दिसतालें व्हय? ताणी तर गिरायक आपलेकडेन ओडपाखातीर आपली ती रिक्शा आपले कल्पनेप्रमाण सजयल्ली. हांवें असल्या रिक्शानी बसपाक टाळ्ळें ही गजाल वेगळी. पूण देशांत खंयूय गेल्यार हे असले प्रकार सर्रास दिसतात. मागीर ती बस आसूं, ट्रक आसूं, रिक्शा आसूं वो टॅक्सी आसूं! इतलेंच कित्याक? गोंयच्यो कांय मोटर सायकल टॅक्सी पळयात, तांका हळदुवो-काळो रंग सक्तीचो जरी केल्लो आसलो तरी हे पायलट आपली ती मोटर सायकल जमता तितली सजावट

करून सजयतात.

आमचे खातीर आझादान ज्या शिकाऱ्याची वेवस्ता केल्ली त्या शिकाऱ्याचो मालक पूर्ण कश्मीरी भेसांत आशिल्लो. तकलेक केंस नाशिल्ले पूण ताचेर कश्मीरी कॅप घालून ताणें आपलो खड्डो लिपयल्लो. शिकारेवालो मध्यम पिरायेचो. तरनाटोय न्हय आनी जाण्टोय न्हय असो. सामको हांसऱ्या मुखामळाचो! असलो वेवसाय करपी लोकांनी आपलें मुखामळ दुर्मुखलेलें दवरूंक फावना ही गजाल धंद्याचे बाबतींत गरजेची आसली तरीय कोणाचो हांसो सैमीक आनी कोणाचो ओडून ताणून हाडिल्लो हें रोकडेंच कळटा.

हो शिकारेवालो पुराय दीस आमच्या सांगाताक आसपाचो. तोच आमकां दल सरोवराची सैर क़रोवपाचो आशिल्लो म्हणटकच आमच्या सभावा प्रमाणेच तो आसा तें पळोवन म्हाकाय बरें दिसलें.

चडशे पर्यटक असल्या शिकाऱ्यांत, टॅक्सींत बी बसचे पयलीं त्या वाहकाकडेन जवळीक सादपाचो यत्न करतात. सगळ्यांत पयलीं तांचें नांव विचारून तांच्या काळजांत रिगपाचो यत्न करतात. उद्देश्य इतलोच आसता की ताणेंय आपल्याक आपलोच मानचो आनी फसोवंचो न्हय. आपल्या मोगान पडून दोन पयशे जमता जाल्यार कमीच घेवंचे ही ह्या फाटली धडपड आसता.

आमचे वांगडा थळावो आझाद आशिल्ल्यान आनी ताणेंच हें आयोजन केल्ल्यान सगळें कितें तोच पळोवपाचो आशिल्लो. आमकां कोणाक मस्को मारपाची मात्तूय गरज नाशिल्ली. तेच पासत त्या शिकाऱ्यावाल्याचें नांव जाणां जावन घेवपाची म्हाका गरजूय दिसली ना. शिकारेवालो हेंच नांव म्हजे खातीर खूब जाल्लें.

शिकारो हेर शिकाऱ्यांवरींच सजयल्लो. तेंच तर ह्या लोकांचें पोट आशिल्लें. उपजिविकेचें साधन आशिल्लें. ती सजावट, ती स्वच्छताय आनी तिचो थाट पळोवनूच गिरायक लागीं ओडटा हो ह्या लोकांचो अणभव आशिल्लो.



मन्सूर आमकां गुजरात्याच्या हॉटेलाकडेन सोडून गेल्लो. ताका गाडी चलोवंक येता आनी ताचेकडेन लायसन्स आसा हेच पासत तो आमचे वांगडा आशिल्लो. आझादाक चलोवंक येताली जाल्यार मन्सूरान केन्नाच कूस मारिल्ली. गरज पडल्यार म्हज्यान ती चलोवं येताली. पूण म्हाका हांवें सामको मुक्त दवरपाचो थारायल्लें. म्हाका पुराय कश्मीर कसलेंच टेन्शन नासतना, कसल्याच दबावा बगर पळोवपाचें आशिल्लें. परत कश्मीराक येतलों काय खबर नाशिल्लें. कश्मीर फुडाराक खंय आसतलें आनी कशें आसतलें हेंय हांव सांगूंक नकळ आशिल्लों. म्हणटकच आतां जी संद मेळ्ळ्या तिचो पुरायेन फायदो करून घेवपाचो आनी जमता जाल्यार एक प्रवासवर्णनूय बरोवन तयार करपाचें होच हावेस मनांत बाळगून हांव कश्मीराक आयिल्लों!

आमी दल सरोवराच्या काठान चलत चलत आमच्या शिकाऱ्याकडेन आयिल्लीं. हेर कडेन टॅक्सीवाले बी फाटल्या फाटल्यान लागून बेजार करतात तशे हांगाय शिकारेवाले फाटीक लागताले. पूण आझाद तांचे भाशेंतल्यान कितें तरी सांगून तांका कडसरायतालो.

आमची दल सरोवर सफर सुरू जाली. पुराय दीस आमी ह्या दलसरोवरांत काडपाचो बेत करूनच आयिल्लीं. आमचो शिकारोय ऐस पैस आशिल्लो आनी शिकारेवाल्यान तो ताणपा खातीर आपल्याक एक सहकारीय घेतिल्लो. ताकाय बाबड्याक गजाली मारूंक, अर्दी मर्दी वल्हे मारपाक कोणतरी जायच आशिल्लो!

शिकाऱ्याची सजावट म्हाका आवडिल्ली. एके वटेन शिकारेवाल्याची बसपाची सुवात. ताचे मुखार रंगीत झालरी लावन सजयिल्लो माटोव, थंयच माटवा पोंदा ऐसपैस बैठक. ताचेर तेंकूक कुशनां, लोड बी. राजेशाही बैठक म्हणटात ती कशी आसता हाचो तो अणभव आशिल्लो. ते बैठकीर कुकीन आनी काकीन आक्रमण केलें. म्हजेय खातीर थंय सुवात आशिल्ली. पूण म्हाका मुक्तपणान घोळपाक, संचार करपाक सुवात जाय आशिल्ली. कुकीची, काकीची सफर वेगळे नदरेन आशिल्ली आनी म्हजी सफर वेगळी.

आझाद वांगडा आशिल्लो पूण तो वेगळ्या विश्वात आशिल्लो. ताची प्रेयशी थंय रशियेक आशिल्ली आनी हो देहान कश्मीराक आनी मनान रशियेक आशिल्लो. रशियेंतल्यान परततालो तेन्ना शिकाऱ्यावाल्याकडेन उलयतालो.

दल सरोवर हांवें हे आर्दी पळयल्लें तें

सिनेमानी. 'कश्मीर की कली' जावं बाकीचीं पिक्चरां जातूंत दल सरोवरांतलें चित्रिकरण जाल्लें तीं दृश्यां म्हज्या मनांत घट्ट बशिल्लीं. 'परदेशियों से न अखियाँ मिला ना' अशें म्हणत शिकाऱ्याचेर बसून तो ताणपाची ॲक्टींग करपी शशी कपूर अजून दोळ्यांमुखार येता आनी हें गीत खंयीय वाजलें आनी कानार पडलें म्हणटकच दोळ्यांमुखार येता तें दल सरोवर.

आमच्या गोंयांत म्हापशां लागीं मोंते गिरी म्हूण एक सुवात आसा. पुर्तुगेजींत मोंते म्हळ्यार पर्वत आनी गिरी म्हळ्यारूय संस्कृतांत पर्वत. खरें म्हळ्यार ह्या पर्वताक एक तर मोंते म्हणपाचें नातर गिरी तरी म्हणपाचें. पूण हांगा एकाच वांगडा दोनूय चलतालीं मोंते गिरी म्हूण. हाचो अर्थ सर्वसादारणपणान 'पर्वत पर्वत' असोच जालोना?

दल सरोवराचे बाबतींतूय हीच गजाल घडटाली. दल म्हळ्यार जलाशय, सरोवर. आनी सरोवर म्हळ्यारूच सरोवरूच. मागीर हीं दोन सरोवरां एकठांय कशीं आयलीं?

महाराष्ट्रांत जळगांव म्हूण एक गांव आसा. पूण थंय सदांच सुको दुखळ. पूण केन्ना केन्ना चड पावस पडलो आनी थंयच्या न्हंयांक हुंवार आयलो म्हणटकच हांगचे गांव उदकापोंदा वतात. हें अशेंच जाल्ल्यान ह्या गांवाक जळगांव बी म्हणनात मू?

जळगांव उदकांतलें गांव नासयेय बी. पूण श्रीनगरचो हो दल सरोवरांतलो पुराय वाठार म्हळ्यार एक जळगांवूच! ह्या दलांत एक संपूर्ण गांव वसयलां. ह्या दलांतूच पर्यटन मोसमांत लाखानी रूपयांची उलाढाल जाता. एके वटेनच्या बोटीनी हांगच्या लोकांची वसती आनी एकेवटेनच्या राजेशाही हाऊसबोटीनी पर्यटकां खातीर सपनमहाल!

एका कश्मीऱ्याक हांवें विचाल्लें, "बाबा, तुजो गांव खंयचो?"

बाबड्याक खबरूच ना आपल्याक गांव बी आसता म्हूण! ताचो गांव म्हळ्यार तें दल सरोवर. त्या दलांतूच एके बोटींत ताचें घर आसा. त्या घरांत एक रांदची कूड, न्हाणी, साल, जातूंत एक मेज, कदेलां बी आसात. दुसरी न्हिदपाची कूड. ह्या घराच्या जनेलांचो खंयचोय पड्डो काडून भायर नदर मारात, सगळे कडेन उदकूच उदक. ताचेर साळकांची एसपैस बाग. फुडलें आंगणय उदकांत. थंयींय तरातरांचीं फुलां. मागिलदारांत पोरसूं. तेंय उदकांतूच. व्हड्यांत बसपाचें आनी भाजी काडपाची. ती थोडी खावपाक दवरपाची. बाकीची त्याच व्हडयांतल्यान बाजारांत व्हरपाची.

हांवें ज्या ज्या सुवातांची भोंवडी केल्या थंय-थंय हांवें कांय पिडपी लोक पळयल्यात. ह्या लोकांमदीं पयले सुवातेर आसतात फेरयेवाले आनी दुसरे सुवातेर भिकारी. हे दोनूय लोक कांयच सुखान पळोवंक दिनात. दिशिल्लें हांगा ह्या दल सरोवरांत हो एक त्रास नासतलो. आमचो शिकारो आनी चोयवटयांचें स्वर्ग सूख. सैमीक सुंदरायेचें उप्पाट भांडार. पूण हाय रे दैवा!

एक धा-बारा वर्सांचो भुरगो एक ल्हानशें व्हडें ताणीत झर झर झर करीत आमच्या शिकाऱ्याचे दिकेन आयलो. गांवांतल्यान चलून वता आसतना सायकल घेवन एका भुरग्यान झूंऽऽ करून नेटान येवंचें आनी आतां ताणें आमचेर सायकल घातली असो विचार करून आमचो आवरो उडचो आनी तितल्यांत ताणें कुशळपणान कट मारून सायकल आमच्या म्हऱ्यांतूच उबी करची अशे तरेन ताणें तें व्हडें हाडलें. म्हळें आपटिलें हाणें व्हडें आमच्या शिकाऱ्याक. पूण ना. ताणें कुशळतायेन तें अचळय थांबयलें आनी आमच्या शिकाऱ्याक समांतर लायलें. ताचे ते ल्हानशे बोटींत ल्हान ल्हान बॉक्सां आशिल्लीं. त्या बॉक्सांतलें एक बॉक्स ताणें उगडलें. तातुंतल्यान तरातरांच्या मणयांच्यो, फातरांच्यो माळो, नेकलेस बी काडून आमचे मुखार नाचोवंक सुरवात केली.

कश्मीरी लोकूच सुंदर. तातूंत तर हो भुरगो सामको! अपुर्बायेचोच. ताच्या तोंडावेलो तो लागोळो हांसो! खंयचोय प्राणी घेयात संवसारांतलो, भुरगेपणार तो इतलो सुंदर आनी क्यूट दिसता की अपुर्बाय करची ताची. धुकर हो म्हजे नदरेन सामको हळशिकावणो प्राणी. आमचो गांवूच धुकरांचो. आमच्या घराभोंवतणी तर खंयचीं खंयचीं धुकरां पडिल्लीं आसतात. हांव फातरांनी तांका धांवडायतां. तांचेर सुणो सोडटां. पूण ह्या धुकरांचे पेटे मात पळयन पळयन दिसपा सारके. तांच्यो बाललिला, तांची ती इल्ली उल्ली करंगळी येदी शेपडी टुर्रर करून घुंवडावप, अर्दी मर्दी आपलेच आवयचेर किकीर घोडो करप. धुकर आवडना जावनूय म्हाका हे पेटे पळयन पळयन दिसतात. कोणाचेंय आसूं तें मागीर, भुरगेंपण हें नितांत सुंदर आसता.





व्हडें घेवन आयिल्लो भुरगो तर सामको परी राज्यांतल्यान आयिल्लो आंज कसो. गोरो गोरो पीठ्ठ. पोल्यांचेर आतांच जून जावंक आयिल्ल्या सफरचंदाचेर जशी तिकतिकी आसता तसली तिकतिकी आनी सफरचंदी रंग. आंगाक रंग रंगयाळे कपडे आनी माथ्याक कश्मीरी माणकुली तोपी.

भुरग्याचें व्हडें लागीं आयले बराबर तें थीर जावपा खातीर शिकाऱ्यावाल्यानूच ताका मजत केली. तांचे भितर कश्मीरी भाशेंतल्यान कितें उलोवपूय जालें. गांवचे जाण्टेले गांवच्या भुरग्यांचीं फकाणा करतात, अपुर्बाय करतात. तसलोच प्रकार आशिल्लो तो.

भुरगीं म्हणलीं काय भुरगीं एक मेकाकडेन रोकडींच ओडटात. कुकीय ताचेकडेन ओडलो. ताचें नांव बी विचारप जालें. मागीर त्या भुरग्यान अचळय एक एक वस्त दाखोवंक सुरवात केली. लागोळो भुरगो. हें घे तें घे म्हूण फाटीकूच पडलो. काकीन आनी कुकीन ताचेकडल्यान कितें तरी घेतलें. तो खूश जावन गेलो.

म्हळें, हांगाय हे फेरीवाले फाट सोडिनांत. सोडचेय बी नांत. इतल्यान आनीक एकलो आपलें व्हडें ताणीत आयलो. हाणें तर पुराय पसरोच व्हड्यार मांडून दवरिल्लो. तरांतरांच्यो वस्तू जश्यो गाड्यार लांबयतात शारांनी वो गांवच्या बाजारांनी तसल्यो वस्तू ताणें हांगा व्हड्यार मांडिल्ल्यो. हाणेंय आपलें व्हडें सहजतायेन शिकाऱ्याक जोडलें. हाणें केशर, शिलाजीत बी कितें कितें दाखोवपाक आरंब केलो. आमी कांयच खरेदी करप ना, ती सगळी मागीर करप अशें थारायिल्ल्यान फेरयेंतली जशी पळोवणी जाता तशी पळोवणी करून आमी ताका टाळपाचो यत्न केलो. तांकां टाळपूय शक्य नाशिल्लें. शेवटीं तांचो तो वेवसाय. एक दोन गिरायकां मेळ्ळीं जाल्यार तांचो संवसार चलपाचो!

ह्या लोकांक आमकां पिडूं नाकांत अशें सांग म्हूण आझादाक सांगचें अशें म्हाका दिसलें. पूण हो अणभव कसो मेळटलो आशिल्लो आमकां? हांव आयिल्लों कश्मीरचें पुराय जीवन पळोवपा खातीर. तांच्या सुखदुख्खांचो सोद घेवपा खातीर. अशें आसतना ह्या फेरयेवाल्यांक पिडटात म्हूण पयस दवरप म्हळ्यार एक जीवनपध्दतूच पळयनासतना रावप अश्यांतलीच गजाल जाली.

आमकां कांयच खरेदी करपाची ना अशें आझादान ताका सांगल्या बराबर तो मातसो खंती जालो. निदान 'कहवा' तरी घेयात म्हणून फाटीक लागलो.

'कहवा' म्हणटकच म्हजीय तंद्री फुलली. कहवाविशीं हांवें आयकल्लें. कहवा म्हळ्यार थंयची च्या कशी! पूण च्याय न्हय. एक प्रकारचें पेय हें कसाय कशें! बदामाचो कूट, केसर बी घालून केल्लो हो प्रकार म्हळ्यार कश्मीरच्या समाज जिणेंतलें एक आंग. आमी गोंयांत तल्लफ आयली म्हणटकच च्या 'मारतात' तशे हांगचे लोक कहवा पितात.

त्या दुकानदारान आमकां गरम गरम कहवा दिलो. आमकां त्या वेळार च्याची खरेंच तल्लफ आयिल्ली. ताचेकडेन च्या आनी गाड्यार मेळटा तसलीं सगळ्या तरेचीं सोफ्ट ड्रिन्कां आशिल्लीं. आईस्क्रीम लेगीत आशिल्ली. पूण म्हाका चाखपाचो आशिल्लो कहवा!

कहवा हें थंडेंत तरतरी हाडपी, शरिराक उर्जा दिवपी एक रूचीक पेय. पयलेच खेप पितालों म्हणटकच ताचेर संशोधन हें जाताच.



तातूंत कितें कितें घालां ताची चव कसली, केशर खरेंच परवडटा काय तातूंत घालूंक? तातूंत बदामाचीच कूट घाल्या काय सांगाताक अक्रोडाचीय आसा? अशे साबार चिकित्सक प्रस्न घेत तो गरम कहवा हांवें सोपयलो. होच कहवा हांगच्या लोकांक थंडेंत शरिरांत गरमी हाडून उर्जा दिता. ते हय न्हयशे थंडेंत म्हज्याय गळ्याक गरम गरम कहवाचो शेक बशिल्लो. तरतरी आयिल्ली जिवाक.

'कहवा' वालो तृप्त जावन गेलो. इतल्यान आनीक एकलो कोण तरी लागीं येता तो दिसलो. पूण हो फेरयेवालो नाशिल्लो. तो शिकारो आशिल्लो पर्यटकांचो. तातुंतल्यान एक कोण तरी बायलमनीस म्हाका बोट दाखयत आपल्या घोवाक कितें तरी सांगताली.

देशांत खंयीय वच. म्हाका हो असलो अणभव नवो न्हय. हांव मातसो रवीन्द्रनाथ टागोर दिसतां, मातसो सॅम पेत्रोदा दिसतां आनी चडसो एम्. एफ. हुसेन सो दिसतां. दिलीप बोरकार कसो मात हांव सोडून कोणाक दिसना. कित्याक ह्या पुराय अनवळखी वाठारांत हांव कोण हें फकत म्हाकाच खबर आसता.

ती बायल पयसुल्ल्यान म्हाका एम्. एफ. हुसैन बी समजल्या अशें पयलीं दिसलें. पूण ती तर 'तो बोरकार मरे!' अशें कितें तरी म्हणत आड्डेताली.

शिकारो लागीं आयलो. पळयल्यार आमचो डॉ. मुकूल म्हात्मो आनी ताची घरकान्न. सकाळीं भोंवडेक भायर सरचे आदीं दूरदर्शन चॅनल पळयतना एका चॅनलाचेर खंय आयचें भविश्य चलतालें. मुकुलाचे राशीचें वर्णन चलतना ताका आयज ताचो जिवाभावाचो इश्ट मेळटलो अशें त्या भविश्य वर्तवप्यान सांगिल्लें खंय आनी ताचे घरकान्नीन खात्रीन म्हणिल्लें तो तुका मेळटलोच म्हूण!

हीच गजाल मुकुलाची घरकान्न सामकी उत्तेजीत जावन त्या शिकाऱ्यावेल्यान मोठ्मोठ्यान सांगताली आनी मुकूल राजेशाही सिंवासनार बशिल्लेवरी ते बैठकीर लवंडून म्हाका हांसत हांसत हात हालयतालो. एका गोंयकाराचो दुसरो गोंयकार जिवाभावाचो इश्ट म्हणपाची खबर म्हाका गोंया पासून पयस आशिल्ल्या ह्या दल सरोवरांत कळिल्ली.

ज्या वेगान तो शिकारो आमच्या शिकाऱ्याकडेन आयिल्लो तितल्याच वेगान तो धुंवलो आनी आपले सफरीक लागलो. आमचो शिकारो आपले वाटेक.

दल सरोवरांतली ही सफर म्हळ्यार खरेंच एक स्वर्गीय अणभव म्हणपाचो. वेगवेगळेकडेन हांवें जलसफरी केल्यात. गोंयच्या अरबी समुद्रांत कोको दर्याविळेवयल्यान मोटर बोटींतल्यान भर दर्यांत डॉल्फीनचो नाच पळोवंक गेलां. कन्याकुमारी विवेकानंद रॉकाचेर वतना थंयच्या त्या समुद्राच्या ल्हारांचेर धोल्लां. त्या प्रवासांत थ्रील आशिल्लें खरें पूण भंय आशिल्लो. पूण हो जलप्रवास म्हळ्यार वेगळोच दिसतालो. थीर, नितळ उदकाचेर संथ वचपी हे शिकारे ल्हवपीक जलसफरीचो आगळो वेगळो अणभव दिताले. दल सरोवरांतलो हो प्रवास म्हळ्यार एक सपनांतलो स्वर्गीय अणभव कसो!

एकेवटेन श्रीधर पर्वत, एके वटेन हारी पर्वत आनी एकेवटेन शंकर आचार्याचो पर्वत आनी मदीं हें आठ किलोमिटर लांब आनी चार किलो मिटर रूंदायेचें भव्य आनी शांत अशें सरोवर. चडशे शिकारेच. यांत्रिक बोटींक हांगा बंदी आसली तरी 'वॉटर स्पोर्ट'च्या नांवान वॉटर स्कूटरी घेवन गिरेस्तांलीं पोरां हांगा हैदोस घालतालीं. वॉटर स्किईंग करतालीं. तांचो हैदोस, किंळच्यो आनी आड्डयो हाका लागून हांगची मुळची शांतताय खंयचे खंय ना जावन वताली. एक काळ हांगा असो येतलो की हे शिकारी नाच जातले आनी हें दल सरोवर गिरेस्तां खातीर मौजमजा करपाची सुवातूच उरतली काय कितें असो भंय बेश्टोच म्हज्या मनाक स्पर्शून गेलो.

कितलेंय नियंत्रण दवरलें, कितलेय कायदे केले तरी दुडवांच्या नेटा मुखार आमच्या देशांत कसलेच निती–नेम तिगलेनांत हें आमी पळयलां. एका काळार शांत आशिल्लें कश्मीर आयज कितें जालां तें आमी पळयताले. तशेंच आज हें शांत दिसपी दल सरोवर आनीक कांय वर्सांनी यात्रिकी करणाचे भकीक पडून कितें जायत हें सांगूंक येना आशिल्लें. तेच पासत आयज ह्या खिणाक जी कितें सुंदराय उपभोगूंक मेळटा, अणभवूंक मेळटा तीच खरी! फायचें कोणें पळयलां, असो सो विचार म्हजे तकलेंत आयले बगर रावलो ना. आमचो शिकारो संथ गतीन मुखार मुखार वतालो. म्हजीय नदर तेच गतीन सरभोंवतणी भिरभिरताली आनी विचारांचें चक्र मात केन्ना भूतकाळांत, केन्ना वर्तमानांत आनी केन्ना भविश्यकाळांत रमतालें.

(चलता)

पडबेर

# फ्री परेड (मेकळो तास)

**शि**वोलच्या बाजारांत बशीची वाट पळयत उबें आशिल्लें. पांय दुखले पूण बशीचो पत्तो ना. कुशिकूच दुकान आसलें. बायलांचें साम्राज्य. म्हजो मोर्चो दुकानांत व्हेलो. टिचरीचो मान राखूंक एकलेन म्हाका स्टुल दिलें. हांवें वेळ काडिनासतना बसकण मारली.

हांगा थंयच्यो खबरो जाल्यो. तिणें म्हाका सहज विचारलें, 'तू खंय रावता गे?' हांवें म्हळें शाळा आनी म्हज्या घरामंदी एके वटणीची आडखळ आसा.' तोंडाचेर विचित्रसो हांसो हाडून तिणें म्हणलें, 'अब्बा, मजा तर तुजी. जाय तेन्ना घरा वच. फ्री पिरेडांक घरा वचून तुका रांदपाक सुद्दा मेळटा न्हय. शाळेची घंटा जातकच तूं शाळेंत वता आसतली!' हांवें जाप दिली, 'बाय गो, त्यो घंटा गेल्यो. आतां विजेच्यो घंटा आयल्यात. ल्हान भुरगीं आमचें अनुकरण करतात. आमीच जर वेळान गेलीं जाल्यार कशें जातलें? घंटा वाजोवच्या पयलीं पांच मिनटां तरी, आदींच शाळेंत वचप बरें.'

आमच्यो गजाली रंगांत आयल्यो. एक शिक्षिका खंय शाळेच्या लार्गींच रावताली. शाळेंत उसरां येताली आनी हळूच चोराभशेन वर्गांत घुसताली. मुख्याध्यापक ना तें पळोवन रजिस्टराचेर सय करताली आनी परत वर्गांत वताली. फ्री पिरेडाक घराकडेन वचून हुमण, शीत करताली. दिसाक एक-दोन तास फ्री आसताच. हे फ्री पिरेड संवसाराचो गाडो मुखार धुकलपाक तिका हातभार लायताले. मुख्याध्यापकान विचारल्यार 'हांवें तास काय चुकोवना. तास चुकयल्यार तूं म्हाका सांग.' वयल्यान हीं शाणेपणा.

गोंयांत बाजार करपाचें काम चडशें दादलेच करतात. मागीर शाळेंत आसूं वा ऑफीसांत आसूं! ती जबाबदारी तांची फाट सोडना. फ्री पिरेड मेळल्यार ही संद ते कित्याक सोडत? सरळ बाजारांत गेले, ताजें फडफडीत नुस्तें हाडलें आनी बायलेकडेन दिलें. शाळा सुट्टकच रूच काडीत दनपारच्या नुस्त्याच्या जेवणाचेर भूस मारलो. बाकीबाब बोरकार वोगीच म्हणिनात 'नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर ना जाल्यार व्हीर.'

एका शिक्षिकाचें वेळाकडेन कशेंच पडनासलें. कितलोय प्रयत्न केल्यार लेगीत शाळेंत कसोच वेळार पावनासलो. आपणाक वेळ जालो म्हणून ताका वायटूय दिसनासलें. रजिस्टराचेर सय मारून सरळ वर्गांत वतालो. रजिस्टर मुख्याध्यापकाच्या कॅबीनांत दवरल्यार ऑफीस माथ्यार घेतालो. पूण घरा वचपाक मात वक्तशीर. एक मिनीट वेळ जाल्यार ताका खपनाशिल्लें. बेल वाजोवपाक वेळ जायत जाल्यार तो सरळ ऑफीसांत वतालो, बॅल वाजयतालो आनी तडक घरची वाट धरतालो. मागीर वर्गांत भुरगीं आसात हाचें सुद्दा ताका भान उरनासलें.

शाळेंत मोबायल वापराचेर सरकारान बंदी घातल्या. ही बंदी भुरग्यांक तशेंच शिक्षकांक बंदनकारक आसा.पडट्या फळाची आज्ञा म्हूण शिक्षक मोबायल वर्गांत व्हरनांत. पूण त्या फ्री पिरेडाचो पुरेपुर फायदो करून घेतात.

घरची आवरा आवर करताना धावपळीच्या जगांत खूब कामां करपाचीं विसरतात. शाळेंत पावतकच तांची याद जाता. मागीर फ्री पिरेडाक फोन, 'रमेश, फ्रिजांतलें नुस्तें मातशें भायर काडून दवर. शेवतें येतकच तळटलें.' 'आई, मातसो गॅस बंद कर आं?' गॅसाचेर भाजी शिजता. बोवाळांत हांव विसरलें.' भुरगें घरा आसल्यार 'बेबी अभ्यास करता मगो? काय टिवी पळयता? हें पळय हांवें गणितां बरोंवन दवरल्यांत. सोडय तीं. इतिहास शीक आं? घरा येतकच हांव तुजो अभ्यास घेतलें.' एक ना हजार गजाली. आशीकुशीक आशिल्ल्या लोकांची मनरिझवण बरी जाता. हें शाळेंतच न्हय तर सगल्या ऑफीसांत लेगीत जाता आसतलें!

शाळेंत फ्री पिरेडाक तर्शीं जायतीं कामां आसतात. चोपड्यो तपासप, प्रार्थनासभेचें आयोजन करप, सर्तीखातीर काणयो, भाशणां, निबंद बरोवप, भुरग्यांनी बरयल्यार तें तपासप. खूब खूब कितें. हें सगळें करपाक चित्त शांत आसूंक जाय. पूण अशा वेळार ह्या शांत वातावरणाचो भंग करतात बेगांत आशिल्ले मोबायल. एकाची रड थांबता म्हणसर दुसऱ्याची रड सुरू. रडप सुद्धा कशें वेगवेगळ्या आवाजांत. सप्तसुरान. एखाद्या हट्टी भुरग्यासारको दोळयांत दुकां काडीनासतना रडत आसता. मालक आसा वर्गांत आनी हो हांगा ताळो सराटून रडटा.

आज जीण इतल्या धावपळीची जाल्या की मनशाक घरांतलें काम करून दुसऱ्यो जबाबदाऱ्यो सांबाळटा म्हणल्यार नाका शेवट जाता. ही जिणेची कसरत करतां करतां आमच्या जिणेंतल्या जीवनमुल्यांचो ऱ्हास जाता. नाका आसताना कांय गजाली आमचे जिणेंत घडटात. त्याखातीर वेवस्थापकांचे तशेंच मुख्याध्यापकाचे राग रुसवे आपणावचे पडटात. नाईलाज म्हूण सगळीं जिवनमुल्यां राशीक मारून आमी धडपडत जगपाचो यत्न करतात.

ल्हानपणासावन मनशान आपले जिणेक शिस्त लावन घेवपाक जाय. एकदां मनीस शिस्तबद्द जीण जगपाक लागलो जाल्यार ताचे जिणेंत कितलींय मोडां आयलीं जाल्यार लेगीत तो मोडाकडेन झगडत, जिवनमुल्यां आपणावन दुसऱ्यांकूय आदर्श जीण जगपाक, प्रेरीत करता. तशे जगतात सगळेच. पूण शिस्तबद्ध जीण आपल्याकूच न्हय तर दुसऱ्यांकूय जगपाक प्रेरणा दिता.





– कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

भलायकी

# हांतरूणांत मुतप

**भु**रगें जल्माक येता आनी जशें-जशें तें व्हडलें जाता तशें-तशें ताच्यांत म्हत्वाचे बदल दिसूंक लागतात - तें उमथें पडटा, तें फुडें सरता, तें बसता, उबें रावता, चलता, उलयता. ह्यो सगळ्यो गजाली त्या-त्या वयाचेर जावपाक जाय.

तशेंच भुरगें तीन वर्सांचें जातासर ताका आपल्याक मुतपाक जाता अशें कळपाक जाय, आनी दिसाचें तरी ताणें हांतरूणाचेर वा आंगार घाल्ल्या कपड्यांनी मुतूंक फावना.

खुबशीं भुरगीं चार-पांच वर्सां जालीं तरी रातचीं हांतरूणाचेर मुततात. पूण सात वर्सां जातकच तरी भुरग्यान रातचें हांतरूणार मुतपाक फावना.

पूण खूबश्या घरांनी, अशीं भुरगीं आसतात जीं आठ-धा वर्सां जालीं तरी तांकां आपल्या मुतपाचेर ताबो उरना. हाचो आवय-बापायक तशेंच त्या भुरग्याक खूब ताण जाता. पूण भुरगें व्हड जातां जातां ताचें हांतरूणाचेर मुतप आपुणूच बंद जाता. हें अशें कशें जाता तें सारकें कोणाकूच कळून येना.

## हाचीं कारणां कितें जावं येतात?

१. शंबरांतलीं धा ते पंदरा भुरग्यांच्या मुत्राशयाच्या स्नायूंची (Bladder muscles) पुराय वाड जाल्ली आसना (immature) म्हूण तीं हांतरूणांत मुततात. भुरग्याची जशी-जशी वाड जाता आनी मुत्राशयाच्या स्नायूंची सारकी वाड जाल्या बरोबर त्या भुरग्याचो आपल्या मुतपाचेर आपुणूच ताबो उरता.

२. भुरग्यांच्या आयुश्यांत जर तर कसलीय वायट घडणूक घडली वा भुरग्याचेर जर कसलोय ताण आयलो जाल्यार हें भुरगें हांतरूणाचेर मुतपाक लागता. - जशें की घरांत कोणाचें मरण जावप, आवय-बापायचो डायवोर्स जावप, घरांत दुसरें ल्हान भुरगें जावप, भुरगें शाळेंत वचपाक लागता, घरांत जाण्ट्यांचो वाद जावप आनी अशीं खूबशी कारणां आसात.

## हाचेर उपाय म्हळ्यार

- आवय-बापायन धीर धरपाचो आनी त्या भुरग्याकूच धीर दिवपाचो. तशेंच त्या भुरग्याकडेन सहनशीलतायेन वागपाचें. आपल्या भुरग्याची समस्या कितें ती सोदून काडपाची, भुरग्याकडेन उलोवपाचें, ताका समजून घेवपाचें आनी ताची समजूत घालपाची.

- भुरग्याक लोकांमदीं तापोवपाचें न्हय, तशेंच ताची ही समस्या चार-चौगांत उलोवंची न्हय.

- भुरग्याक शिक्षा करपाक फावना पूण ताका दुसरे कपडे तशेंच हांतरूण तयार करून ताच्या म्हऱ्यांत दवरचें.

- दोतोराचो सल्लो घेवंचो - ते वखदां तशेंच योग्य सल्लो दितात, जेणे करून भुरग्याक तशेंच आवय-बापायक धीर आनी विश्वास मेळटा.

८०-९० टक्के भुरग्यांचो हो प्रस्न आपुणूच सुटता. फक्त गरज आसता ती धीर, विम्वास, आवय-बापायची माया आनी भुरग्याक समजून घेवपाची आनी ताची समजूत घालपाची कला.





- डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५

## उतरकुवाडें



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. कुसकूट, कसलेंच मोल नाशिल्ली वस्त
४. नवेपण, असंवकळ
६. दिसाच्या बारा ते तीन वा चार वरांमेरेनचो वेळ.
८. हें तोंडाक लायलें जाल्यार रूप येता अशें म्हणटात.
१०. आधाराविणें, असहाय
१२. कवनां करपी, फकाणेर
१४. बैल, एक गाळ
१५. अभिनेतो
१६. चीट
१८. तकलेचो दोळ्यांपासून केसांमेरेनचो भाग
१९. देवळाचें वयलें पोंत
२०. श्रीरामान हो चौदा वर्सां भोगलो
२२. उफेवप, वांचप
२३. मोटचान सुरान म्हणिल्ली उजळणी
२४. चेप येवप, चेप पडप
२६. तल्लीन (मराठी)
२७. वडे, पुरयो आनी हेर वस्तू तळपाचें आयदन
२८. सन्याशी, रुशी
२९. मयूर
३०. राबितो करपाचें ठिकाण

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ३ | ■ | ४ | | ५ | | |
| | ■ | ६ | | ७ | | ■ | | ■ | ■ |
| ८ | ९ | ■ | ■ | | ■ | १० | | | ११ |
| १२ | | १३ | ■ | | ■ | १४ | | ■ | |
| ■ | १५ | | ■ | ■ | १६ | | ■ | ■ | |
| १७ | ■ | ■ | १८ | | | ■ | १९ | | |
| २० | | २१ | | ■ | २२ | | | ■ | ■ |
| | ■ | २३ | | | | ■ | २४ | | २५ |
| | ■ | २६ | | ■ | २७ | | | ■ | |
| २८ | | ■ | ■ | २९ | | ■ | ■ | ३० | |

## उबे

१. अपुरबाय
२. हुद्दो, अधिकार, गाणें
३. एक हजार किलोचें वजन
४. दादलो
५. खेळांत वांटो घेवपी मनीस
७. पातक करपी
९. वारो, आठ ग्राम भांगर
१०. लायक न्हय अशें
११. स्नायू ताठ जावन जाल्ली दूख
१३. सरळ
१६. पलतडी रावपी
१७. दशा, वायट स्थिती
१८. सर्कस
१९. फातराचो वा तळपाचो कडेकडलो कुडको
२१. उपेग
२५. वेतन, तनखा

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| अ | नि | ल | का | को | ड | क | र | ■ | डे |
| भि | ■ | ■ | ल | ■ | फ | ट | व | प | ■ |
| नं | द | न | व | न | ■ | क | ■ | च | त |
| द | र | ■ | णें | ■ | घा | ट | ■ | क | र |
| ज | ता | ज | ■ | ■ | त | ■ | पा | ■ | दा |
| ■ | जो | त | ■ | का | की | ■ | प | व | न |
| आ | ■ | ना | ट | क | ■ | स | ■ | ड | ■ |
| स | ता | य | ■ | य | ज | मा | न | ■ | सं |
| मं | द | ■ | सो | ■ | ■ | रं | ■ | अं | क |
| त | ळ | ■ | स | मा | रं | भ | प | ■ | ट |

जानेवारी उत्तर कुवाड्याची जाप

# बायपासांत दबलां म्हजें भुरगेंपण !

**आ**गशीचो 'बायपास' तयार जालो. २३ डिसेंबराक ताचें उक्तावण मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणी केलें. आतां ह्या रस्त्यावेल्यान दिसरात गाडयो धांवत आसात.

हो बायपास म्हज्या घराच्या मुखावेल्यान म्हळ्यार सामको दारांतल्यान गेला. म्हज्या घराचे गॅलरींत उबो रावत जाल्यार म्हाका थंयच्यान कोणाची गाडी गेल्या ती लेगीत दिसता. गाडयो तरांतरांच्यो. ह्यो गाड्यो धांवतना पळोवपाक एक आगळीच मजा येता. म्हाका हें गाडयो पळोवपाचे पिशें भुरगेपणांत सावन आशिल्लें जावंये! आतां बायपास लागशिल्ल्यान गेल्ल्यान गाडयो सामक्यो लागींच्यान दिसतात. ते आदीं रस्तो मात्सो पयस आशिल्लो. रस्तो लागीं करूंक बांदावेल्यान चलून वचचें पडटालें. घराकडेन बसून रस्त्यावेल्यान वचपी गाडयो दिसताल्यो. घराच्या बल्कावांत बसून शेता पलतडच्या रस्त्यावेल्यान वचपी रंगीत गाडयो पळोवूनच म्हजें भुरगेंपण सरलां. ह्यो गाडयो पळोवपाचोच एक खेळ आशिल्लो त्या काळार. तेच पासत म्हाका म्हजीं घरचीं, व्हडले भाव बीन 'निनी बस, गगत बस' बी म्हणून चाळयताले. तेंय याद जाता. म्हाका म्हज्या आदल्या घराच्या बल्कावांत सोपणाचेर बसून रस्त्यावेल्यान वचपी गाड्यो पळोवपी माणकुलो दिलीप दिसता. तेन्ना गाडयोय बऱ्याच अंतरान येताल्यो वताल्यो. एक तांबडी बस वताली. तिका गगत बस म्हणटालों. एक निळी बस येताली वताली. तिका निनी बस म्हणटालों. गगत म्हळ्यार रगत. रगताचो रंग तांबडो देखून ती रगत बस. म्हजे खातीर गगत आशिल्ली आनी निळी बस निनी.

आज त्यो गगत बशी, निनि बशी नांत. आज तरांतरांच्यो ओल्वो आनी गिनसांभासांच्यो बशी आनी गाडयो आयल्यात. येत आसात. अती गतीच्यो, वाग फाटल्यान लागिल्ल्या भशेन धांवतात. खंय धावतात काय ह्यो? कसली घाई लागल्या? गॅलरींत बसून गाडी चलयतल्याक जेन्ना हांव पळयतां तेन्ना ताची नदर सरळ मुखार लागिल्ली आसता. गाडी जे गतीन धांवता तेच गतीन तांच्या मनांतले विचारूय धांवत आसतात. कसले विचार आसतले? मनीस सगळो एकूच. तांच्यो मुळाव्यो गरजोय एकूच आसूंक जाय सगळ्यांच्यो. अधिकतराच्यो गरजो मात वेगळ्यो आशिल्ल्यान ते विर्शींचे विचार वेगळे आसूं येतात.

गोंयांत आतां जळामळाक हे बायपास तयार जायत आसात. हांव त्या बायपासावेल्यान गाडी चलयतां. तेन्ना म्हजे तकलेंत खंय विचार येता, की ह्या बायपासाक लागून हे जमनीचो मुळावो आराखडो बदल्ला म्हूण! हो रस्तो करचे आदीं हांगा आदलें कितें तरी आशिल्लें, हांगा कोणाचीं घरां आशिल्लीं, हांगा कोणाचें शेत आशिल्लें, हांगा कांय रूखां आशिल्लीं, जांचेर हांगच्या लोकांचें भुरगेंपण खेळत सरलां हें सगळें म्हाका पडून गेल्लेंच नासता. हांव खूश आसतां, ह्या बायपासाक लागून म्हजें डेस्टीनेशन, म्हजी मोख लागीं पावली म्हूण!

पणजे शारांत कांय अमुलाग्र बदल घडोवन हाडले म्हूण मनोहर पर्रिकरांची कांय लोक अजून तुस्त करतात. केलांय आसतलें ताणें बरें! तें बरेंपण लोक कशे मेजतात तें म्हाका कळना. पूण हांव हे गजालीकडेन पळयतना वेगळे पद्धतीन पळयतां.

आज जो पणजे मांडवी न्हंयक तेकून नवो पूल जाला, जाचेवेल्यान पणजे शारांतल्यो गाडयो शाराभायर वतात, तो जावंचे पयलीं थंय कितें आशिल्लें काय? फकत पांच-स वर्सां जाल्यांत हे गजालीक. पूण थंय कितें आशिल्लें ताची आज कोणाकूच याद ना. थंय आशिल्ली रिवर न्हॅवीगेशनाची एक इमारत. ते इमारतीक तेंकून एक धक्को आशिल्लो. थंयच्यान वाफोर बी सुट्टाले. मागीर थंय ट्रॉलर्स लागूंक लागले. पोर्तुगेजांनी बांदिल्ली ही एक सुंदर इमारत. तिचो आराखडो, तिची सुवात हें सगळें सगळें एक युनीकूच म्हणूंक जाय. तातुंतली आनीक एक युनीक गजाल म्हळ्यार हे इमारतिंतले एके कुडींत गोंयचो एक महाकवी बसतालो. रिव्हर नॅव्हीगेशनाचो तो एक अधिकारी. हेच कुडींत, हेच कचेरेंत बसून ताणें मांडवी न्हंयचीं उफेवपी ल्हारां पळयल्यांत, थंयच्यान येवपी मंद वारो हांगा बसून घेतला आनी हांगाच ताणें कितल्यो तरी कविता रचल्यात वा ताका सुचल्यात अशेंय म्हणूं येता. कवी शंकर रामाणी अशें त्या कवीचें नांव.

कोणाक याद उरल्या हे गजालीची? आमकां पणजे शारांत एक नवो पूल जायच आशिल्लो. पाटो पूल पोरणो जाल्लो ही गजाल खरी. पूण दायज ह्या प्रकारांत आसपावपी ही इमारत फोडी नासतना, ती तशीच सांबाळून दवरूनय तो पूल तयार जावं येतालो! पूण आमकां घाई लागिल्ली. कसली घाई? कर्माची!

हांव जंय बसून हें येवजितां आनी बायपासावेल्यान धांवपी गाडयो पळयतां थंय अशें 'दायज' प्रकारांत आसपावपी कांयच गेलेंना. पूण त्या बायपासा पोंदा म्हजें भुरगेपण मात चेपून गेल्लें आसा. थंय भरावाखातीर घाल्ले मातये पोंदा म्हज्या भुरगेपणावयल्यो खूबश्यो यादी आसात. ह्यो यादी तश्यो फकत म्हज्यो. हांव आसांसर त्यो यादी म्हज्या मेंदवांतल्या खंयच्या तरी कप्प्यांत खेळटल्यो. काळ सरता तश्यो त्यो शेणून वतल्योय बी! कांय काळान हांगा कितें आशिल्लें हेंच कोणाक याद उरचेंना. आनी ह्या खिणाखिणाक स्थित्यंतरां घडून येवपी सृश्टींत त्यो यादी दवरून फायदो कितें?ब्रह्मांडात कितलें आनी कसलें तांडव चलता? हो बदल घडून येतलोच. बदल हो जावंकच जाय. हो बायपासचो बदल हो त्या मानान सामको कुसकुटाचो बदल. तातुंतलें म्हजें भुरगेंपण तर सामकेंच कुसकुटाचें. तरी पूण म्हाका तें खूब व्हडलें व्हडलें दिसता. म्हजे यादींतले कुर्पींतल्यान अचळय वयर सरता.

म्हज्या घरा मुखावेल्यान जो बायपास गेला थंय एक मानकुराद आंबो आशिल्लो. त्या आंब्याचे आंबे पिकतकच गोड लागताले. पिकतकच सगळेच आंबे गोड लागतात हें जरी खरें आसलें तरी ह्या आंब्याची गोडसाण वेगळीच. पिटूळ पिटूळ असो आंबो पडटा काय म्हूण हांव वाट पळयतालों. एकदां असोच हांव त्या आंब्या मुळांत खेळटालों. वयल्यान आंबो पडटा काय म्हूण वाटूय पळयतालों. मे म्हयनो तो. तारीक २७. तेन्ना थंयच आंब्या मुळांत बशिल्ले कडेन आसतना पंडित नेहरू संवसाराक

अंतरला म्हणपाची गजाल म्हज्या कानार पडिल्ली.

ह्याच आंब्याचो एक खांदो कोणतरी कापतालो. ज्या खांद्याचेर हांव चडून बसतालों. हांवें आईक विचारिल्लें. कित्याक कापतात तो खांदो? आईन म्हणिल्लें, लताई मेली न्ही सकाळीं, तिका घालपा खातीर तो कापतात. लताईचें मरप आनी त्या खांद्याचो संबंद म्हाका तेन्ना कळूं नाशिल्लो. आज कळटा. पूण आतां लताईय ना आनी तो आंबोय ना. आसात यादी.

आंब्या सकयल शेत आशिल्लें. रोजीण मानालें. त्या शेतांत काळगां रोयतालीं. तातुंतलें एक काळींग चोरून आमी खालें. फुडाकार घेतिल्लो लताईल्या भुरग्यांनी. पूण म्हजे आईन पेटून काडिल्लो म्हाका. ते चोरयेचो साथीदार जाल्ले कारणान.

ह्याच शेताचे धडेर आनीक एक आंबो आशिल्लो. लिनाल्या भाटांत. दईराद आंबो तो. भोवतेक दोरादो नांव आसूं येता. जाणीं ह्या आंब्यांचें ग्राफ्टींग केल्लें तांच्या नांवान हे आंबे गोंयांत वळखतात. आफोंसो, दोरादो, मोन्सेरात, बेवकुराद, सायेर... दईराद आंबो गोड. ताचीं तोरां खावपांत मजा येताली. आमी केन्ना एकदां त्या दईरादाक तोरां लागतात काय पळयताले. मागीर तें तोरां फातरावप. म्हज्या दोळ्यांमुखार त्या दईरादाक बायपासवाल्यांनी मारून उडयल्लो. आयज तो थंय आशिल्लो हाची कोणाक याद पासून नासतली.

आनी दुसरी आशिल्ली थंय एक बांय. तिका आमी शेतांतली बांयच म्हणटाले. 'उदक हाडूंक वचात रे शेतांतले बांयत.' आईन म्हणप. 'शेतांतले बांयचेर न्हावपाक वतात गे आमी' आमी सगळ्यांनी म्हणप.

ही शेतांतली बांय चड खोल नाशिल्ली. खंयच्या वर्सा कोणे बांदिल्ली कोणाक खबर. आंजूल्या शेतांत आशिल्ली ती. सरभोंवतणचीं सगळीं घरां तेच बांयचें उदक खातालीं. पूण मायाक लेगीत केन्ना सुकलीना. दर मायाक सगळीं घरां एकठांय जावन ती बांय उसपितालीं आमी. वाटकुळीच बांय. चिरे सामके व्हडले व्हडले. बरे गोलाकार तासून बांदिल्ली कोणे तरी. तिका भोवतेक शिमीट वापरूंक नासतलें. वापरिल्लें तें गेलांय आसतलें. पुर्तुगेजां मुस्तींतली बांय ती. तेवटेन येवपी-वचपी पाकले ते बांयचेर उदक पिवपाक रावतालेच तेन्ना. ताणीं एके रांकेन फुटबॉल खेळपाक वचप. तांचे वाटेरूच ही बांय आशिल्ली. कोणूय चली भुरगें उदक भरता आसत जाल्यार एका बराबर सगळ्यांक तान लागताली.

ते बांयक सकयल देंवपाक सोंपणा नाशिल्लीं. तरी कळसो बी पडल्यार फातरांचे खाचींत पांय घालून बी म्हजो व्हडलो भाव सुवास सकयल देंवतालो. म्हाका जमनाशिल्लें. मागीर प्रॅक्टीस करून करून जमपाक लागलें. बांयत देंवप, वयर चडप हो खेळूच सुरू जाल्लो म्हजो. एक दीस ते बांयचे खांचीत उदकाच्या मातशे वयर सोरपाची एक लांबचे लांब कात दसून आशिल्ली आमी पळयली. तेन्ना आमकां कळ्ळें ते बांयत सोरोप आसा. तेन्नाचें सोरपाचें गिन्यान आमचें तें. लांब वळवळपी जिवाणें दिसलें काय सोरोप. तें हेंवाळेंय आसूं येतालें आनी दिवोडूय आसूं येतालो. पूण त्या सोरपाचे कातीन म्हाका सासणाचो भंय घालो. आवयची धपकावणी म्हाका केन्ना ते बांयत देवपा पासून परावृत्त करूंक शकूंक नाशिल्ली. पूण ते सोरपाचे कातीन म्हाका बांयत देंवपा पासून वंचीत केलो.

एप्रिल सोंपता सोंपता म्हळ्यार आमचे थंय बोमोयकारां येतालीं. आमकां तर परिक्षा सोंपून सुटी पडटाली. आमचेखातीर खेळपाक थंयचें शेत, खावपाक तोरां, आंबे, जांबळां आनी पिवपाक शेतांतले बांयचें गोड गोड शितळ उदक. आमी दीसभर बांयचे धडेर पडून आसताले आनी सांज जाली म्हणटकच तेच बांयचेर न्हावन घामान आंगाक दशिल्ली माती काडून घरांत भितर सरताले.

हेच बांयचेर बोमोयकारांल्यो दोगी जाणी चलयो उदक भरपाक येताल्यो.

त्यो चलयो आमच्या शेजारच्या घर मालकाच्या भावाल्यो. त्या घरमालकाकूय दोन चलयो. हीं सगळीं कळशे, कळसुल्यो घेवन उदक भरूंक येवप. बोमोयकार चलयो मात्श्यो स्मार्ट. सुदारिल्ल्यो. वो तशें भासोवपी. एक दीस हांव न्हातालों. न्हावन आंग बी पुसून हांवें तुवालो कंबराक गुटलायलो. कळसुली खांदार मारून हांव घरा वचपाचे तयारेक आसतनाच हीं बोमोयकारां थंय पावलीं. एकलें उदक भरपाक लागलें आनी दुसरें उबें रावन म्हजेकडेन गजाली मारपाक लागलें. इतल्यान कितें जालें देवाक खबर. बोमोयकार चलयेन म्हज्या भेंडाच्या तुवाल्याक हात घालो आनी झप्प करून ओडलो. तुवालो घेवन धांव मारली ताणें. हांव सामको दत्त दिगंबर. म्हजेर आकांत. लजेन तर म्हाका मरूंक पुरो जाल्लें. तें एकलें तुवालो घेवन धांवतालें आनी दुसरें मोठमोठ्यान हांसत म्हाका पळयतालें.

म्हजेर आकांत. कितें करचें तें कळना जालें. हांवें म्हजें तें माणकुलें भांडवल दोनूय हातांनी लिपयत, रडत ताचे फाटल्यान तुवाल्या खातीर धांव माल्ली. म्हजी रड आयकून ताणें तुवालो दिलो. पूण म्हजें पुराय वस्त्रहरण जाल्लें ते शेतांतले बांयचेर.

खूब वर्सां सरलीं हे गजालीक. हांव तेन्ना सात-आठ वर्सांचो. मागीर आमी आमची बांय बांदली. बोमोयकारां शेतांतली बांय पयस पडटा म्हूण आमचे बांयचेर उदक व्हरूंक येवंक लागलीं. पूण जेन्ना जेन्ना म्हजी ते शेतांतले बांयचेर नदर पडटाली तेन्ना तेन्ना म्हज्या त्या वस्त्रहरणाची याद म्हाका जाताली आनी जेन्ना बोमोयकारां हालीं हालीं लेगीत आमचे बांयचेर उदक भरूंक येतालीं तेन्ना म्हाका शेतांतले बांयची याद येताली.

आतां सगळ्यांगेर नळ आयल्यात. कोण बांयचेर येनांत. आमीय शेतांतले बांयचेर वचपाचें सोडिल्लें, कित्याक आमची बांय आसा म्हूण. आतां तर शेतांतले बांयचें अस्तित्वच सासणाचें ना जालां. तिचेवेल्यान बायपास गेला. दिसरात त्या रस्त्यावेल्यान गाडयो धांवतात. म्हजीय गाडी वता. पूण थंय बांय खंय आशिल्ली काय? म्हाकाय सुवात सोदची पडटा, तेन्ना हांव सोदूंक लागतां त्या रस्त्या पोंदा चिड्डल्लें म्हजें भुरगेंपणूय -





– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय

